# कोंकणी आनी मराठी हांचो तुलनात्मक विमर्श

बस्ती पुंडलीक व्यंकटेश शणै

# कोंकणी आनी मराठी
# हांचो
# तुलनात्मक विमर्श


मूळ कन्नड :

**बस्ती पुंडलीक वेंकटेश शेणै**

कोंकणी अणकार :

**रमेश लाड**








**गोवा कोंकणी अकादेमी**

C.R.B

**कोंकणी आनी मराठी हांचो तुलनात्मक विमर्श**

मूळ कन्नड :
**बस्ती पुंडलीक वेंकटेश शेणै**

कोंकणी अणकार :
**रमेश लाड**

**प्रकाशन क्र.** : 202



**पयली उजवाडावणी** : 2017

**उजवाडावपी :**
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय - 403 001

**छापपी :**
रुतू ऑफसेट
वळवय, फोंडें - गोंय

मोल : ₹ **140/-**

**KONKANI ANI MARATHI HANCH**
**TULANATMAK VIMARSH**

Original Kannad :
**Basti Pundalik Venkatesh Shanc**

Konkani Translation :
**Ramesh Laad**

**Publication No.** : 202



**First Edition** : 2017

**Publisher :**
Secretary,
Goa Konkani Akadami,
243, Patto Colony,
Panaji, Goa - 403 001

**Printer :**
Rutu Offset
Volvoi, Ponda - Goa

**Price** : ₹ 140/-

(हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'अणकारीत पुस्तक प्रकाशन' येवजणेखाला छापलां.)

# अकादेमीचेवतीन

कोंकणी आनी मराठी ह्यो दोन स्वतंत्र भासो काय कोंकणी ही मराठीची बोली भास हो एका काळावेलो वादाचो आनी अभ्यासाचोय विशय. ह्या विशयाचेर कांय विद्वानांनी आपलो अभिप्राय दिला. डॉ. सुमंत कत्रे, डॉ. ना. गो. कालेलकर ह्या भाषाशास्त्राच्या अभ्यासकांनी ताचेर खोलायेन अभ्यास करून काडिल्ले निष्कर्श म्हत्वाचे आसात. शणै गोंयबाबानी ह्या दोनूय भासांचो तुलनात्मक अभ्यास करून ह्या दोनूय भासां मदले नातेसबंद बेस बरे उक्ते करून दाखयल्यात.

'कोंकणी आनी मराठी हांचो तुलनात्मक विमर्श' हें पुस्तकं ह्याच विशयाचो वेध घेता. ह्यो दोनूय भासो एकामेकांक कितल्यो लागीं आनी कितल्यो पयस हाचो बस्ती पुंडलीक वेंकटेश शेणै हांणी खाशेलो अभ्यास केला. ह्या पुस्तका वरवीं आमकां कोंकणी भाशेची बेस बरी वळख जावंक पावतली अशी आस्त आसा.

(2016) **– माधव बोरकार**



# अर्पणपत्र

स्वजाती विशीं वात्सल्य आनी
स्वसमाजाच्या अभ्युदयाक
इत्सूक आशिल्ले म्हजे
पुज्य आजोबा
श्री. सुजीर चेरडप्पा वैकुंठ नायक
(सि.वी. नायक)
हांच्या पदकमलांचेर म्हजी
ही कृती अत्यंत पुज्य भावनेन
समर्पित केल्या

– बस्ती पुंडलीक वेंकटेश शेणै

# प्रस्तावना

कोंकणी आनी मराठी ह्या दोन भाशां मदीं प्राचीन भाशा खंयची? हाचे विशीं सुमार शंबरेक वर्सां सावन विवाद चलत आयला. मराठीचो पाखो घेवपी कोंकणीक मराठीचो आंतरभेद वा ग्राम्यरूप म्हणटात जाल्यार कोंकणीचो पाखो घेवपी म्हणयारे मराठीवाद्यांचे दावे न्हयकारून कोंकणी ही मराठी परस भिन्न अशी स्वतंत्र भास असो पवित्रो घेतात. हो विवाद आयज मेरेन चालूच आसा. पुर्तुगेजांनी गोंयचेर आक्रमण करून तें बळकायले उपरांत तांणी गोंयांतलें सगळें प्राचीन लिखीत साहित्य लासून उडयलें. ते खातीर कोंकणी लोकांक स्वताचे भाशेंतलीं प्राचीन लिखीत प्रमाणां देखी रुपान फुडें करून मराठीकारांच्या दाव्याचें खंडन करप साध्य जालें ना. अशें जाल्ल्यान मराठीकारांचो दावो कोंकणी म्हणयाऱ्यांच्या दाव्या परस चड बळिश्ट जाला. देखून कोंकणी पक्षकारांनी आपणाले भाशेंतल्या प्राचीन प्रयोगांच्या आदारानच मराठीकारांच्या दाव्याचें खंडन करप गरजेचें जालां.

कोंकणी आनी मराठी भाशां मदल्या वादांत वांटो घेतिल्ल्या विद्वानांनी तुळुनाडू आनी केरळांत घोळटुकेंत आशिल्ली कोंकणी सारकी तपासून करून पळोवचे पयलींच मराठीक प्राचीन महाराष्ट्री-प्राकृताची आयची प्रतिनिधी अशें म्हूण ग्रहीत धरून तो वाद चालू दवरिल्ल्या कारणानच तो समर्पक तरेन एका निर्णयाचेर पावूंक ना. जावं ते मराठी पंडीत वा कोंकणी विद्वान आयजमेरेन मराठीची कोंकणी कडेन तुळा करून शास्त्रीय वा विज्ञानीक रितीन तांचे मदली प्राचीन भाशा खंयची हाचे विशीं वा तांचे मदले संबंद कसले तरेचे आसात हाचे विशीं निश्कर्श काडपाचे कोणेच प्रयत्न केले नात. तांणी केल्ल्यो सगळ्यो तुळा कांय शब्दांच्या पांवड्या मेरेनच सिमीत उरल्यात. डॉ. सुमित्र मंगेश कत्रे हांणी "Formation of Konkani' नांवाचो प्रबंध विज्ञानीक रितीन बरयिल्लो आसलो तरी तांची साधना कोंकणी आनी मराठी ह्यो दोन भिन्न भिन्न

भाशा म्हणपाचें सिद्ध करपा वटेन झुकल्या अशें म्हणूं येत. तांचे सारक्या हेर का विद्वानांनी आतांचे मराठींत प्रयोग जावपी कांय कोंकणी शब्द मुखार हाडून, कोंक ही मराठी परस वेगळी हो मुद्दो सिद्ध करपाचो यत्न केला. पूण ते शब्द आतां मराठींत नासले तरी आपणाल्या पोरण्या साहित्यांत ते शब्द आसात अशी मराठीक जाप दितात तेन्ना उरफाटी पोरणे मराठींत आशिल्ले ते शब्द नवे मराठींत नासत कोंकणींतच आसात. हेंच एक कोंकणी मराठी परस प्राचीन म्हूण सिद्ध करपाक ए प्रमाण अशी बळिश्ट जाप कोंकणी म्हणयाऱ्यांनी दिली ना.

कोंकणी भास फकत गोंयांतूच न्हय तर पुर्तुगेज भारतवर्षावटेन येवपाच्या का शतमानां आदीं गोंय सोडून अरब देशांत तुळुनाडू आनी कर्णाटकांत स्थायीक जाल्ल सारस्वत ब्राह्मणां मदीं, तशें सारस्वत मुळाच्या वाणी लोकांमदीं (वैश्यां मदीं) घोळटुकें आशिल्ली अशी म्हणूं येत. ते लोक उलयताले ती कोंकणी आतां गोंयांत उलयता ते कोंकणी परस बरीचशी भिन्न आसून खूब शुद्ध रुपांत आसा अशें म्हणूं जावंं मराठी लोकांक आकलन जायना जाल्ली आशिल्ल्या कारणानच कोंकणी आनी मरा मदलो वाद उप्रासलो हातूंत दुबाव ना.

एकाच वर्गांतल्या दोन भाशां मदीं प्राचीन खंयची आनी अर्वाचीन खंयची तशें एकेचो दुसरे कडेन कसले तरेचो संबंद आसा हाचे विशीं निर्णय घेतासतना त्या दो भाशांनी घोळटुकेंत आशिल्ल्या नामांची विभक्ती रुपां आनी क्रियापदांचीं कालार्थ रुपां हींच मुख्य प्रमाणां थारतात. तीं सोडून भाशांचें शब्दभांडार न्हय. हाचें कार अशें की एकाच वर्गांतल्या अनेक भाशांच्या शब्दभांडारांतले अधिकांश शब्द एका मुळांतल्यान रुपांतरीत जावन आयिल्ल्या कारणान ते समान वा तेच आसतात. पू तांचीं विभक्ती रुपांनी आनी आख्यात रुपांनी परिवर्तनां घडून आयिल्लीं आशिल्ल्य कारणान मूळ भाशे कडल्यान फांटे फुटून नवो भेद वा नवी भाशा घडून येता. अ आसूनय कांय भाशांनी तसलीं परिवर्तनां अत्यल्प आसतात. आनी तशें आशिल्ल्य कारणान त्या भाशां मदलो पुर्वापार संबंद निश्चीत करप सोंपें जाता. देखीक संस्कृतांतल 'हस्त' हो शब्द हात वा हाथ ह्या रुपान भारतवर्षांतल्या सगळ्या प्राकृत विभेदां घोळटा. आनी संस्कृतांतलो 'हस्तेन' हें तृतिया विभक्तीचें एकवचन रूप कोंकणीं 'हात्तान वा हात्ताने' आनी मराठींत हाताने, गुजरातींत 'हाथे' आनी हिंदींत 'हाथसे अशीं रुपां घेता. हांचे मदलें कोंकणी आनी मराठी रूप एकदम लागचें आसा वा एक आसा अशें म्हणूं येत. तेच तरेन संस्कृतांतलो 'गत:'= गेलो हो भूतकालीक कृदन

आद्य प्राकृतांत 'गतो', शौरसेनीत 'गदो', उपरांत प्राकृतांत 'गओ', पोरणे हिंदींत 'गयो', नवे हिंदींत 'गया', कोंकणींत 'गेलो', मराठींत 'गेला' अशे तरेन बदल्ला. पोरणे हिंदींत 'गयो' आशिल्लो तो नवे हिंदींत 'गया' जाला तसो कोंकणींत 'गेलो' आशिल्लो तो मराठींत 'गेला' जाला तो आपशींच दिसून येता.

भारत वर्षांतल्या संस्कृतजन्य भाशांनी कोंकणी आनी मराठींत तशेंच पोरणी हिंदी आनी नवी हिंदी इतल्यानीच फकत विभक्त रुपांचें आनी आख्यात रुपांचें सामिप्य वा साम्य दिसून येता. म्हणल्यार त्यो दोन वांगडच्यो भाशा, एकेक दुसरी खूब लागींच्यान संबंदीत आसा म्हणपाचें सिद्ध जाता. मराठीकार मराठींतल्यान कोंकणी जल्मल्या वा कोंकणी ही मराठीचें ग्राम्यरूप अशें म्हणटात. ते खातीर कोंकणी आनी मराठी मदीं प्राचीन खंयची, अर्वाचीन खंयची वा खंयचे भाशेंतल्यान खंयची जल्मल्या होच प्रस्न हांगा सुटावो करपाचो आसा.

म्हज्या सोदाचो निश्कर्श वा कोंकणी आनी मराठी भाशांच्या अध्ययनाचो फलितांश कोंकणी आनी मराठी ह्यो भिन्न भिन्न भाशा नासून एकेंतल्यान दुसरी जल्मल्या असोच आसा. म्हणल्यार कोंकणी ही मूळ भाशा. तिचे भितर घडून आयिल्ल्या एक दोन नव्या परिवर्तनांतल्यान फांटो फुटून वेगळी जाली तीच मराठी. ते खातीर गोंयांत आनी गोंयचे भायर स्थायीक जाल्ले गोंयचे मुळावे लोक जी उलयतात ते भाशेक कोंकणी म्हणटना मराठीक नवी कोंकणी म्हणपाक जाय. ना जाल्यार कोंकणीक पोरणी मराठी म्हणपाक जाय. कारण पोरणे कानडी पसून नवी कानडी जशी भिन्न न्हय वा पोरणे हिंदी पसून नवी हिंदी भिन्न न्हय तशीच कोंकणी पसून मराठी भिन्न न्हय. वा कन्नडा पसून तुळू वेगळी आसा तशी कोंकणी कडच्यान मराठी वेगळी ना. अशें आसलें तरी कोंकणींत घोळपी अनेक प्राकृत शब्दां बदलाक मराठींत अन्य भाशांतले शब्द घोळपाक लागिल्ले कारणान कोंकणी लोकांक मराठी आनी मराठी लोकांक कोंकणी समजुपाक इल्लीशी कठीण लागता. त्या दोना मदलो संबंद एका ल्हानशा उदाहरणान स्पश्ट करूं येता:

| कन्नड | तुळू | कोंकणी | मराठी |
|---|---|---|---|
| अवनू बरुत्ताने | आये बर्पे | तो येता | तो येतो |
| अवनू बंदनू | आये बत्ते | तो आयलो | तो आला |
| अवनू होदन् | आये पोये | तो गेलो | तो गेला |
| अवळू होदळू | आळ पोयाळ | ती गेली | ती गेली |
| अद् होयतू | अवू पोंड | तें गेलें | तें गेलें |

वयल्या उदाहरणांत कन्नडांतलीं आनी तुळूंतलीं सर्वनामां आनी क्रियारुप पुरायणपणान भिन्न आसात. पूण कोंकणींतलीं आनी मराठींतलीं क्रियारुपां एक पुल्ली रूप सोडून हेर क्रियारुपां- सगळीं सर्वनामां सारकींच आसात आनी कोंकणीच्य पुल्लिंगी क्रियारुपाचो शेवटचो 'आ'कार मराठींत 'ओ'कार जावन, 'ओ'का आशिल्लो 'आ'कार जाता. तसोच कोंकणींतलो 'आयलो' आसा तो मराठींत 'आल असो बदलता आसतना मदलो 'य' हो वर्ण लोप पावता. संस्कृतांत आयलो म्हणपा 'आगत:' अशें रूप आसा. तें शौरसेनीत 'आअदो' अशें परिवर्तीत जाता. तसोच मागीर तो कोंकणी जावन बदलता तेन्ना 'आअलो' असो जावन उच्चारपाक अनुकू जावपा खातीर 'आयलो' असो बदलता. म्हणल्यार कोंकणींतलो 'आयलो' हेंच मू रूप आसून मराठींतलें 'आला' हें उपरांतलें परिवर्तन म्हणपाचें सिद्ध जाता. आन संस्कृत शब्दांतलो 'त'कार शौरसेनीत 'द'कार जावन उपरांत तो 'द'कार कोंकणीं 'ल'कारांत रुपांतरीत जाला म्हणपाचें सिद्ध जाता. अर्थांत मराठी ही कोंकणी उपरां कोंकणींतल्यानच जल्मल्या म्हणून सिद्ध जाता. ह्या संबंदांतली आनिकूय स्पश अशीं उदाहरणां ह्या प्रबंधांत मुखार प्रसंगाक फावो तशीं येतलीं. वस्तुस्थिती अश आशिल्ल्यान कोंकणीक पोरणी मराठी आनी आधुनीक मराठीक नवी मराठी म्हण समा जातलें.

कोंकणी भाशेक प्राकृत अशें नांव दिलां वा कांय जाणांनी महाराष्ट्री प्राकृत अ म्हणिल्ल्या विभेदांतल्यान रुपांतरीत अशें म्हणपापरस शौरसेनी आनी महाराष्ट्री प्राकृ हांचें मिश्रण आशिल्ल्या आवंती विभेदांतल्यान रुपांतरीत अशें म्हणप चड समपर थारता. कारण संस्कृतांतलें भूतकालीक रूप 'आगत:' हें शौरसेनींत 'आअदो' जा उपरांत तें कोंकणींत 'आयलो' जालें अशें आदीं सांगलां. संस्कृतांतलें 'व्रजति' = वता (तो,ती तें) ह्या अर्थाची क्रिया शौरसेनीत 'वच्चदि' जावन महाराष्ट्री प्राकृतां 'वच्चइ' अशी जाता. आदीं कोंकणींत वच्चइ, म्हणइ आदीं रुपां घोळटालीं हाच प्रमाणां कोंकणींत आजून उरल्यांत. पूण वच्चदी, करदी, म्हणदी आदीं रुपां घोळटुकें आशिल्लीं म्हणपा सारकीं प्रमाणां आयज मेरेन मेळिल्लीं नात.

कांय जाणांनी कोंकणी ही अर्धमागधींतल्यान जल्मल्या अशें म्हणलां जाल्यार हे कांण जाणांनी ती पैशाचींतल्यान जल्मल्या अशें म्हणलां. पूण तांच्या त्या म्हणण्यां कांय दम ना म्हणपाचें मुखार दिल्ल्या विवरणांतल्यान समजूं येत. मागधी भाशेचो सभा म्हणल्यार शौरसेनी हीच तिचें मूळ. म्हणल्यार शौरसेनी भाशेंत जाल्ल्या कांय नव्य

ारिवर्तनांतल्यान मागधी हो फांटो फुटला. शौरसेनी आनी मागधी हांचे मदलो मुख्य ेद म्हणल्यार शौरसेनींत संस्कृतांतलो 'अ'कारान्त पुल्लिंग शब्द प्रथमा विभक्तीच्या एकवचनांत 'ओ'कारान्त आसतात. श आनी 'ष' ह्या वर्णां बदलाक 'स' हो एकच वर्ण येता. देखीक: संस्कृत-पुरुष:=शौरसेनी-पुरिसोहो:, संस्कृत-तादृश:=शौरेसीन-तारिसो. संस्कृत-स:=शौरसेनी-सो, संस्कृत-कतर:=शौरसेनी-कयरो आदी. शौरसेनींत ओकारान्त आशिल्ले पुल्लिंग शब्द मागधींत ए-कारान्त जातात आनी शौरसेनी शब्दांतले 'र' आनी 'स' वर्ण मागधींत 'ल' आनी 'श' जावन रुपांतरीत जातात. तसोच संस्कृतांतलो 'कृतम्' हो भूतकालीक कृदन्त शौरसेनींत 'किदं' असो जालो तरी मागधींत 'कटूं' जाता. ते खातीर आदीं देखी दिल्ले शौरसेनींतले पुरिसो (दादलो), तारिसो (तसलो), सो (तो), कयरो (जो) आदीं शब्द मागधींत अनुक्रमान पुलिशे, तालिशे, शे आनी कयले अशे तरेन बदलतात. अर्धमागधी हाचो अर्थ शौरसेनी ही पूर्ण मागधींत रुपांतरीत जायनासतना अर्द स्थितींत आसा अशी म्हणल्यार मागधी असो जाता. म्हणल्यार अर्धमागधींत शौरसेनी शब्दांतले 'र' आनी 'स' बदलून 'ल' आनी 'श' जावचे नात. म्हणल्यार हाचे आदीं दिल्यात ते शब्द अर्धमागधींत अनुक्रमान पुरिसे, तारिसे, से आनी कायरे अशे जातात. पूण कोंकणींत संस्कृतांतले अकारान्त पुल्लिंग शब्द प्रथमा विभक्तीच्या एकवचनांत आयजूयबी ओकारान्त आशिल्ल्यान 'कृतम्' ह्या भूतकालीक कृदन्ताचें कोंकणी रूप मागधींतले वरी 'कटं' अशें जायनासतना 'केलें' अशें जाल्लें आसा. मागधींतले हेर नेमय बी कोंकणीक लागू जायनाशिल्ल्या कारणान कोंकणी ही अर्धमागधींतल्यान जल्मल्या म्हणपाच्या वादांत कांय दम ना म्हणपाचें सिद्ध जाता.

पैशाची भाशेचो सबाव म्हणल्यार तिचेंय बी मूळ हें शौरसेनीच आशिल्ल्या कारणान पैशाचींतले कांय शब्द कोंकणींतल्या सारकेंच आसप ही सबावीक गजाल. पूण कोंकणी आनी पैशाचींत शब्दांच्या शेवटाच्या स्वराच्या पांवड्या मेरेनच साम्य उरता आनी ते भायर शब्दांतल्या वर्णां मदीं साम्य आसना. पैशाची शब्दांच्या वर्णविकारां विशीं वररुचीच्या प्राकृत प्रकारांत मुखार दिल्लें सूत्र आसा:- 'वर्गाणां तृतिया चतुर्थयोरयुजयोरनाद्याराधौ।। 10-3।।' म्हणल्यार वर्गा मदले तृतीय आनी चतुर्थ वर्ण शब्दाच्या सुरवेक नासत जाल्यार आनी संयुक्त नासत जाल्यार, तांचे बदलाक अनुक्रमान प्रथमा, द्वितीया वर्ण अनिवार्यपणान येतात. ।।णो न:।। 10-5।. म्हणल्यार 'ण'कार आसता तो 'न'कार जाता. हेमचंद्राच्या प्राकृत अध्यायांत मुखार

दिल्लीं दोन सुत्रां आसात: - तदोस्त:।। 4-307।। 'त' आनी 'द' सगळ्या संदर्भांनी 'त' जातात. लोळ:।। 10-308।। म्हणल्यार 'ल'च्या स्थानार 'ळ' येता. आदी आयिल्ल्या सुत्रांतल्यान निश्पन्न जालां तें अशें - पैशाचींत 'ण', 'द' आनी 'ल' हे वर्ण खंयच्याच संदर्भांत येवचे नात. त खातीर शौरसेनी भाशेंतले दामोदरो, माधवो, गोविंदो, मदलनो, मेघो, सरभसं, गगनं, गुणगणं, जलं आदी शब्द पैशाचींत अनुक्रमान तामोतरो, माथवो, गोविंतो, मतनो, मेखो, सरफसं, गकनं, गुनगनं, जळं, अशे जातात. पूण कोंकणींत शब्दांतलो 'ल'-कार कांय संदर्भांनी 'ळ'कार जालो तरी पैशाचींत जीं हेर रुपांतरां जातात तीं कोंकणींत जायनात. अर्थात पैशाचींतलीं तामोतर, कुतुंब, जळ, गुन आदी रुपांतरां कोंकणीच्या सभावा विरुद्ध वतात. ते खातीर कोंकणी ही पैशाची प्राकृतांतल्यान जल्मल्या अशें म्हणपा सारक्या वादांतय दम ना म्हणपाचें सिद्ध जाता.

वास्तवांत पैशाची ही भाशा वायव्य सिमा प्रदेशांत घोळपी भाशा आसून उत्तर पंजाबांत शौरसेनी विभेदाचें मूळ रूप म्हणल्यार आद्य प्राकृत चलताली. आनी ती आद्य प्राकृत मौर्य वंशाची मातृभाशा आशिल्ली. तेच खातीर मौर्य चक्रवर्ती चंद्रगुप्ताचो नातू आशिल्ल्या अशोक चक्रवर्तीचे अधिकांश धर्मलेख आद्यप्राकृतांत बरयिल्ले आसात अशें म्हणपाक जाता. उत्तर पंजाबांतले मौर्य वंशीय लोक सौराष्ट्रांत आनी कोंकणांत राज्य करताले अशे उल्लेख इतिहासाच्या पुस्तकांनी मेळटात आसले तरी तांचीं विस्तृत अशीं विवरणां मेळनात. ते खातीर त्या संबंदान चड कांय बरोवप साध्य जायना.

कोंकणी वा कांय जाणांनी महाराष्ट्री प्राकृत म्हणल्यार ती भाशा कोंकणांतल्या आनी गोंयांतल्या लोकांची आनी गोंयांतल्यान स्थलांतरीत जावन गेल्ल्या आनी हेर प्रदेशांनी स्थायीक जाल्ल्या हिंदू, क्रिस्ती आनी मुसलमान लोकांची मातृभाशा. अशें आसलें तरी भाशा मुळांत सारस्वत ब्राह्मणांची मातृभाशा आशिल्ल्या कारणान तिचेर तांचोच प्रभाव आसा. अर्थांत कोंकणींत सार्वत्रीकपणान घोळपी 'उज्झो=उजो, ज्वाळा, सूब=सुमादोरी, चरुवी=शिताचें पात्र, दायि=दवलो (दावल), सोरपाची फणा आदी अर्थ आशिल्ले यज्ञा कडेन संबंदीत शब्द, उदक, धूव अशे घोळटुकेंतले शब्द सारस्वत ब्राह्मणां कडच्यानच दिसपट्ट्या वेव्हारांत आयल्यात. म्हणल्यार कोंकणी वा मूळ महाराष्ट्री सारस्वत ब्राह्मणां कडल्यानच घोळटुकेंत आयिल्ले शब्द अशें म्हणल्यार तें चूक जावचें ना.

पुर्तुगेज भारतवर्षा वटेन येवपाच्या कांय शतमानां आदीं सावनच तुळुनाडूंत सारस्वत ब्राह्मण स्थायीक जाल्ले आशिल्ल्यान ते उलयताले ते कोंकणींत आनी पुर्तुगेजांनी

गोंय बळकायले उपरांत स्थलांतरीत जाल्ले लोक म्हणल्यार क्रिस्ती तशेंच चारडे, सोनार, गावुंडे आदी हिंदू लोक उलयताले ते कोंकणींत थोडेंशें अंतर आसा. म्हणल्यार तुळुनाडूंत पयलींच्यान स्थायीक जाल्ले सारस्वत ब्राह्मण उलयतात ते कोंकणींत, गोंयचे कोंकणींत आनी मराठींत सामान्यपणान आसपी अशे शब्द 'मोटें=(थीर आनी जाड), मोटवें=गिड्डें, बारीक=सपुर, लांब=उंच आनी पयस, पाटीं=फाटल्यान, आदीं अशे शब्द नात. तांच्या बदलाक अनुक्रमान थोर, गुड्डें, सपूर, दीर्घ, मागशीं वा परतून अशे शब्द आसात. बारीक हो शब्द पारसी मुळाचो. हेर शब्द हिंदी भाशेच्या संपर्कांत मराठींत आनी गोंयचे कोंकणींत येवन भरसल्ले. ते भायर महाराष्ट्र उत्तरेंत हिंदी आनी मुंड ह्यो भाशा जंय घोळटुकेंत आसात त्या मध्य प्रदेशाक सामको तेंकून आशिल्ल्या कारणान मूळ महाराष्ट्री भाशेचेर त्या दोन भाशांचो प्रभाव आसप ही एक सबावीक गजाल. अर्थांत कोंकणी (=मूळ महाराष्ट्री) भाशेचेर त्या दोन भाशांचो प्रभाव पडिल्ल्यान महाराष्ट्राची भाशा दक्षिण प्रांताचे भाशेंतल्यान फांटो फुटून वेगळी जाली अशें म्हणूं येत. दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतले सारस्वत ब्राह्मण उलयतात ते कोंकणी बराबर गोंयची कोंकणी आनी मराठी तुळा करून अभ्यासल्यो जाल्यार तो कसले तरेचो प्रभाव जाल्लो आसा ते विशीं स्पश्टपणान कळटा.

हांवें कोंकणी आनी मराठी हांचे पुर्वापार संबंद निश्चीत करपाच्या यत्नांत आदीं विसकावणी केल्या ते तरेन तुलनात्मक विज्ञानीक पद्दत आपणायल्या आनी मराठी भाशा कोंकणींतल्यानच जल्मल्या म्हणपाचें दुबावाक आदार मेळचो ना अशे पद्दतीन सिद्ध केलां. म्हणल्यार त्या दोनय भाशांची एकामेका सामकार तुळा करून विज्ञानीक रितीन तपासून पळयले उपरांत तशेंच कांय प्राचीन शब्दरुपां फकत कोंकणींत आसात ताची नोंद घेवन मागीरच म्हज्या विवेचनाक योग्य असो दिसलो तो निश्कर्श पक्षपाता बगर मांडला. अशें आसलें तरी म्हजें प्रतिपादन शंबर प्रतिशत खरें अशें म्हणपाचें साहस करूंक शकना. हाचें कारण म्हज्या प्रतिपादनांत दोश उरल्याय आसतले. सूज्ञ वाचप्यांनी दोश दाखोवन दिले जाल्यार तांकां धन्यवाद दिवन हांव ते मानून घेत.

कांय लोक कोंकणीक लिपी ना अशें म्हणटात आशिल्ल्यान हातूंत लिपी संबंदान कांय उतरां बरोवप गरजेचें थारलां. ब्रिटिशांनी भारतवर्षाचो कब्जो मेळयले उपरांत तांणी भारतीयां संबंदान कांय निराधार अशा कल्पनांचो प्रचार केलो. प्राचीन भारतीयां कडेन लिपी नाशिल्ली ही एक तशे तरेच्या कल्पनां मदली एक. म्हणल्यार आयज भारतांत घोळटुकेंत आशिल्ल्या सगळ्या भारतीय वर्णमालांची मूळ आशिल्ली ब्राह्मी

नांवाची वर्णमाला, पाश्चात्य लोक वापरतात ते रोमन वर्णमाले सारकीच रेखात्मक आशिल्ल्यान - रोमन वर्णमाले सारकीच ती सेमिटिक मुळाची फिनिष्यन आनी आरमेइक वर्णमालांतल्यान रुपांतरीत जाल्ली तशेंच ब्राह्मी वर्णमाला मुळांत भारतियांनी स्वता निर्माण केल्ली न्हय असो तांणी दावो केल्लो: तांणी अशें म्हणपा फाटलो एक उद्देश म्हणल्यार भारतीय भाशा बरोवपा खातीर आपणाली रोमन लिपी भारतियांनी वापरची हो आशिल्लो. तशेंच भारतीय हिंदू समाजाच्या लोकां मदीं कलह निर्माण करून आपणालें शासन भारतवर्षांत शाश्वत करप ह्या उद्देशान हिंदू समाजाची आर्य, द्रावीड, मुंडा अशी विभागणी करून, आर्य लोकांनी शिवाराधना आनी नागपुजा, द्राविडां कडच्यान वा मुंडां कडच्यान घेतल्या असो आनीक एके कल्पनेचो ताणी प्रचार केल्लो. ही कल्पना म्हणल्यार सिन्ध तटसंस्कृताय ही आर्य लोकांची नाशिल्ली हे प्रचार मोहिमेचो तो पयलो पांवडो आशिल्लो. भारतीय इतिहासांत तशे तरेच्यो निराधार कल्पना तिगूंक दिवप देशहिताचे नदरेन अपायकारक आशिल्ल्यान हांवें ब्रिटिशांच्यो त्यो कल्पना प्रमाणांच्या आदारान न्हयकारपाचो प्रयत्न केला. कांय भारतीय विद्वानांनी लिपी संबंदांतलो ब्रिटिशांचो मुद्दो न्हयकारपाचो यत्न केला. पूण खंयच्याच एका विद्वानाक ब्राह्मी वर्णमाला वास्तवांत खंयच्या मुळांतल्यान जल्मल्या हाचे विशीं दुबावाक आनी प्रतिवादाक जागो दवरिनासतना सिद्ध करप साध्य जाल्लें ना. ताका लागून भारतीयांचो न्हयकार निश्फळ थारला आनी ब्रिटिश विद्वानांचो दावो तिगून उरला.

ब्राह्मी वर्णमालेचें मूळ खंयचें हाचे विशीं भारतीय विद्वान जाप दिवंक शकनात अशें मत दिवन मेकळो जाल्लो एडवर्ड थॉमस नांवाचो एकलो ब्रिटिश विद्वान म्हणटा 'चक्रवर्ती अशोकान दक्षिण भारतांत कोंत्रायिल्ल्या धर्मीक फातरपट्यांचेर (शीलालेखांचेर) वापरिल्ल्या ब्राह्मी लिपींतले कांय वर्ण उत्तर भारतांतल्या वर्णां परस इल्लेशे भिन्न आसात. ताचे वयल्यान ब्राह्मी वर्णमाला सगळ्यांत पयलीं दक्षिण भारतांत नांवारुपाक आयली आनी दक्षिण भारतांतल्या द्रावीड लोकांनीच फिनीशियन वर्णमाले वयल्यान ती रुपांतरीत करून घेतली.' पूण तशी रुपांतरीत केल्ली ती कोणें खंय केन्ना हाचे विशीं ताका कांयच सांगप साध्य जालें ना. आनी ताणें आपणालें विधान सिद्ध करपा खातीर खंयचेंच बळिश्ट अशें प्रमाणय बी सामकार हाडूंक ना. ताच्या अभिप्रायाच्या आदाराचेर बेळगांव हांगाच्या श्री. प. गो. कुलकर्णी हांणी कांय वर्सां आदीं 'जय कर्णाटक' नांवाच्या म्हयनाळ्यांत एक दीर्घ अशें लेखन उजवाडा हाडून

तातूंत 'ब्राह्मीलिपी, द्रावीड मुळाचीच आसपाक जाय ह्या अदमासाक बळ मेळटा' अशें म्हणलां. 1968 इसवेंतल्या आयतार 28 जुलयाच्या "The Hindu weekly magazine'च्या अंकांत श्री. आर. नागरस्वामी नांवाच्या एका लिपीतज्ञ आनी विद्वानान उजवाडायल्या, "The Irulapatti, Herostones, Land Marks in South Indian History' माथाळ्याच्या लेखांत तमीळनाडूंतल्या गुफांनी दिसून आयिल्ल्या लेखनांतले 'ब्राह्मी लिपीचो' 'दमिळी' अशा नव्या नांवान उल्लेख केला. तांणी आपणाल्या सुरवेच्या लेखनांनी ते लिपीक ब्राह्मी अशेंच म्हणिल्लें. म्हणल्यार ब्राह्मी लिपीचें वास्तवीक मूळ खंयचें तें कळनाशिल्ल्या कारणान थॉमस हांणी म्हणलां तशें तिका तमीळ लिपी म्हणू येत असो श्री. नागरस्वामी हांणी अदमास केल्लो अशें दिसता.

हांवें ब्राह्मी लिपीचें वास्तवीक मूळ सोदून काडपाच्या ध्यासान हातांत घेतिल्ल्या अध्यायनांतल्यान ब्राह्मी वर्णमाला आर्य ब्राह्मणांची स्वताची निर्मिती आसून आचार्य पाणिनीन आपणायल्या व्याकरणांत जिका यवनानी (ग्रीक) अशें म्हणलां ती वर्णमाला ब्राह्मी वर्णसालेंतल्यानच रुपांतरीत जाल्ली आसा हें म्हजें मत, प्रतिवादाक वाव दवरिनासतना सिद्ध करप साध्य जाल्लें आसा. इतलेंच न्हय तर ब्राह्मी वर्णमालेचें मूळ सोदून काडिल्ल्यान परिणाम स्वरूप ब्रिटिश विद्वानकार सिंधू संस्कृती आर्यांची न्हय म्हणून सिद्ध करूंक शकले ना पूण ती आर्यांचीच आशिल्ली हें सिद्ध करप साध्य जाल्लें आशिल्ल्यान ताचे संबंदांतलो 'ब्राह्मी वर्णमाला' आनी 'सिंधू संस्कृतीचो वास्तवीक इतिहास' ह्या नांवाचो एक बरो प्रबंध बरोवन रोखडोच उजवाडावपाक जाय असो एक संकल्प मतींत आसा.

भारतवर्षांतल्या ब्राह्मण पंगडां मदीं सारस्वत ब्राह्मणांचो पंगडच सुरवातेचो आनी अत्यंत प्राचीन हें एक इतिहासीक सत्य. ते खातीर शक सुरू जावपाच्या अनेक शेंकड्यां आदीं उत्तर भारतांतल्यान येवन दक्षिण भारतांत स्थायीक जाल्ले ते ब्राह्मण सारस्वतच आशिल्ले हातूंत दुबाव ना. ते दक्षिण भारतांत आयिल्ले ताचो उद्देश वैदीक धर्माचो प्रचार करप असो आशिल्ल्यान तांणी येतना आपणा वांगडा वैदीक धर्मग्रंथ आनी विद्याप्रचाराक आवश्यक आशिल्ली लिपीय बी हाडिल्ली अशें म्हणपाक जाता. अशें आसतना जे लिपीचे निर्माते दक्षिण भारतांत लिपी प्रचलीत करूंक पावले ते सारस्वत ब्राह्मण उलयताले ते कोंकणी भाशेक लिपी ना म्हणपांत कांय तथ्य ना अशें म्हणचें पडटा.

संस्कृतजन्य भाशा बरोवपाक संस्कृता खातीर वापरताले ती नागरी लिपीच वापरूं

येतली अशें आसलें तरी गुजराती, बंगाली आनी ओरिया लोक आपणाल्या भाश
बरोवपाक नागरी लिपी थोडीशी रुपांतरीत करून वापरीत आयल्यात. आतां संस्कृत
हिंदी, मराठी आनी गोंयचे लोक कोंकणी बरोवपाक नागरी लिपी वापरतात. पू
नागरी वर्णमालेंत 'ए' आनी 'ओ' हें ऱ्हस्व स्वर नाशिल्ल्यान नागरी लिपींतल्या
प्राकृत भाशा, तातूंतले तातूंत कोंकणी बरोवपाक त्रास जातात.

हांवें ह्या प्रबंधांत कोंकणीचे प्राचीनताये विशीं प्रतिपादन करपाखातीर हेर प्राचीन ग्रं
सोडून 'ज्ञानेश्वरी' हो ग्रंथच आदार मानला. कारण मराठीच्या विद्वानांनी कोंकणी हं
मराठींतल्यान जल्मल्या हो आपणालो दावो साध्य करपाक ज्ञानेश्वरींतले कांय कोंकर्ण
शब्द काडून दाखयल्यात. अर्थांत ज्ञानेश्वरींत कोंकणींतले अशे म्हूण सिद्ध जावप
सारके अनेक शब्द प्रयोग आसात अशें मराठी समर्थकच मत मांडत आशिल्ल्या
हांवें ज्ञानेश्वरीकच प्रमाण मानप उचीत आसा. इतल्यार कोंकणी आनी मराठी संबंदां
बरयिल्लो हो प्रबंध हांव सोंपयतां.

**– बस्ती पुंडलीक शेणै**

अशोक नागर

मंगळूरू–6

शक 1890 कीलक

(1968)

WW

हांवें ह्या प्रबंधांत व्यक्त केल्ले अभिप्राय जायत्या ग्रंथांच्या अध्ययनांतल्यान फळाक आयिल्ले आसात. पूण त्या ग्रंथांच्या अध्ययन काळांत कांय ग्रंथांतल्यो टिपण्यो बरोवन घेवपाक विसरलों. ते खातीर कांय अभिप्रायांच्या समर्थनाक प्रमाणांचे दाखले दिवपाक शक्य जालें ना आनी मुखार तें शक्य ना. तेन्ना वाचप्यांनी तसल्या अभिप्रायांक आधार नाशिल्ले अशें म्हणून सोडलें तरी प्रबंधाच्या मुख्यविशयाची कसलेच तरेची हानी जावंक शकना. प्रबंधांतल्या अधिकांश विवरणाक संबंध आशिल्ल्या ग्रंथांतल्यान प्रमाणांच्यो देखी दिल्यात आनी त्या ग्रंथांची पटी हातूंत दिल्या. हो प्रबंध बरोवपांत त्या ग्रंथांचो म्हाका खूब आदार जाल्लो आसा. ते खातीर हांव त्या ग्रंथांच्या लेखकांचो खूब ऋणी आसां. तसोच ह्या ग्रंथांतलो इतिहासीक विभाग वाचून पळोवन तातूंतले दोश दाखोवन गरजेचें सुदरप करपाच्यो सुचोवण्यो करून उपकार केल्ले खातीर कॅनरा हायस्कूलाचे निवृत्त मुख्याध्यापक श्री. गंगोळ्ळी राघवेंद्र शेणाय एम.ए..एल.टी हांकां म्हजे काळजांतल्यान धन्यवाद. आजून ह्या प्रबंधांत दोश उरल्यात जाल्यार ताका हांवंच जबाबदार आसतलों. ते भायर दक्षीण जिल्ल्याच्या प्रवासांत प्रत्यक्ष दोळ्यांनी पळयिल्ली जायत्या थळांची म्हायती मेळोवन दिवन उपकार केल्ले, तशेंचभारतीय नाण्यांच्या संशोधनांत स्वताक ओंपून घेतिल्ले श्रीमान मंजेश्वरांतले मुकुंद प्रभू हांचें हांवें उपकार मानपाक जाय. तशेंच म्हज्या ह्या प्रबंधाचें नितळ निवळ आनी वेवस्थीत मुद्रण करून दिल्ले शारदा प्रेसाचे मालक कामत भावांक, प्रूफ वाचपाकच न्हय तर हेर अनेक तरांनी म्हाका सहकार्य करून उपकार केल्ले खातीर शारदा प्रेसाचे श्रीमान के. वी. जोशी हांकां, म्हाका हेर तरेन आदार दिल्ले श्री. के. बी. बाळिगा हांकां सगळ्यांक हांव वंदन करतां. म्हज्या प्रबंधाच्या मुखपृश्ठार मुद्रीत केल्ले सरस्वती देवीचें चित्र, न्हंयांचो आसपाव आशिल्लो नकासो खूब सुंदर तरेन काडून दिल्ले श्रीमान वी. जी.

सुजीर हांकां, ह्या प्रबंधाच्या पुस्तकांत आपणाल्यो जायराती दिवन तें उजवाडा येवपा साहाय केल्ल्या सगळ्या महनीय व्यक्तींक म्हजे वतीन धन्यवाद फावो जातात.

शेवटाक दक्षिण कन्नड जिल्ल्याचे डेप्युटी कमिशनर श्रीमान एच. एल. नागेगौड आय.ए.एस. हांचें हांव अभिनंदन करपाकच जाय. कारण तांचो आग्रो आनी तें नाशिल्लो जाल्यार म्हजी ही कृती उजवाडा येवचीच नाशिल्ली. म्हणल्यार हांव दो वर्सां आदीं 'कोंकणी मत्तु मराठी इवुगळ तुलनात्मक विमर्शे' इतलो भागच बरोव मुद्रणाक दिवपाची धिटाय नाशिल्ल्यान भितर दवरिल्लो. श्री. नागेगौडा हांकां असल्य विशयांत खूब अभिरुची आसा अशें म्हज्या कांय इश्टांनी सांगिल्ल्यान हांवें भित दवरिल्लो भाशा प्रबंध तांकां वाचून पळोवपाक दिलो. तांणी तो वाचून पळयले उपरां ताची फकत तोखणायच केली ना तर हांवें तो उजवाडाक हाडपाकच जाय म्हू प्रोत्साहन दिलें. इतलेंच न्हय जाल्यार तो उजवाडावपाची धिटाय म्हाका जाली न जाल्यार आपूण तो म्हैसूर विश्वविद्यालयाच्या प्रसिद्धी विभागा कडल्यान उजवाडावपाचे आस्वासन तांणी दिलें. ताचे उपरांत आमचे मदल्या कांय वेपाऱ्यांनी म्हज्या पुस्तकां आपणाल्यो जायराती दिवपाची उदारताय दाखयिल्ल्यान उमेद वाडली आनी भाश विमर्शे वांगडा सारस्वत ब्राह्मणांचो इतिहास ताका जोडून उजवाडावपाचो हांवें निर्धा केलो. अशें जाल्ल्यान हो प्रबंध उजवाड पळोवंक पावता अशें म्हणूं येत.

हांवें हो प्रबंध आमच्या समाजांतल्या कोणा एकट्या जाण्ट्याक समर्पीत करपाचें थारायिल्लें. ते प्रमाण हांव तो वयोवृद्ध आनी उद्यमशील आशिल्ले श्रीमान सुजीर चेरडप्पा वैकुंठनायक (सी.वी. नायक) हांकां समर्पीत केला. श्री. नायक हे म्हजो आजो दिवंगत बस्ती विठ्ठल शेणाय हांची धर्मपत्नी दिवंगत नेत्रावती अम्मा हांचे धाकटे भाव. श्री. नायक पिरायेन खूब जाण्टे आसले तरी स्वसमाजाच्या कार्यांनी तरणाट्यां वरी उत्साही आसतात. तशेच सत्कार्यांक मेकळ्या हातान धन सहाय करपाक तयार आसतात. ते खातीर म्हज्या पुस्तक प्रकाशनाकय बी तांचे कडल्यान धनसहाय्य मेळ्ळां म्हणपाचें वेगळें सांगपाची गरज ना.

सगळ्या परस खाशेली गजाल म्हणल्यार, अकस्मात मंगळूरांतल्या शारदा प्रेसांत आयिल्ले मंगळूरू गणेश बीडी ह्या उद्यमांत एक वांटेकार आशिल्ले. म्हैसूरांतले श्री. बी. माधव शेणाय हांणी शारदा प्रेसांत श्री. के. वी. जोशी हांचे कडल्यान म्हज्या पुस्तका विशीं आयकल्लें. खूब खोशी जावन म्हज्या ह्या पुस्तक प्रकाशनाच्या साहसांत म्हाका मातलेगीत अर्थीक लुकसाण जावचें न्हय म्हूण हांवें याचना करिनासतनाच

ह्याका आपोवन घेवन एक हजार रुपया पुरस्कार रुपान तांणी दिल्ले आसात. अशे तरेच्या पुरस्कारांतल्यान तांणी आपणाल्या काळजांत दडून आशिल्लो स्वसमाजा वयलो आपणालो मोग व्यक्त केल्लो आसा. इतलेंच न्हय जाल्यार सारस्वत ब्राह्मणांच्या समाजांत सत्कार्या खातीर मागनासतना धन सहाय करपी दानी व्यक्ती आसात हें तांणी सिद्ध केलां. तांचे अशे तरेचे उदारतायेची कितलीय तोखणाय केल्यार ती थोडी म्हणपाची गजाल लक्षांत घेवन तांच्या उपकारांच्या स्मरणा खातीर ह्या पुस्तकांत तांचें एक भावचित्र छापलां.

**बस्ती पुंडलीक शेणै**

अशोक नगर

मंगळूरू–6

शक 1890 कीलक

(1968)

1510 इसवींत पुर्तुगेजांनी गोंय प्रदेशाचेर आक्रमण केलें आनी तो बळकायलो. उपरांत गोंयच्या लोकांचें जबरदस्तेन धर्मांतरण घडावेन हाडपा खातीर अत्याचार आनी हेर दुश्कृत्यां केलीं. त्या तांच्या करण्यां मदीं तांणी कोंकणी भाशेंतले सगळे ग्रंथ घराघरांतल्यान काडून घेवन तांचो लासून गोबोर केलो.

गोंयकारां कडेन असलो एकूय ग्रंथ उरूंक फावना म्हूण तांणी जीं आकांतवादी कर्तुपां केलीं तीं गोंयचें साहित्य आनी संस्कृताय हांचेर केल्लो मरणांतीक आघात थारलो. ह्या घडणुकांक लागून आमचे कडेन आयज प्राचीन कोंकणींतलो एकूय ग्रंथ ना ही एक खंतीची गजाल.

ग्रंथ झोमून घेवन ते नाश केले उपरांत 1684 इसवींत पुर्तुगेज सरकारान गोंयच्या सगळ्या लोकांनी तीन वर्सां भितर पुर्तुगेज भास शिकून आपणाले सगळे वेव्हार करतना पुर्तुगेज भाशेचोच उपेग करचो आनी आपणाली मायभास कोंकणीचो दीसपट्टे जिणेंतलो वापर बंद करचो असो सरकारी हुकूम काडलो. तो हुकूम चलणुकेंत येवंक पावलो ना तरी ते लोक गोंयचे कोंकणी भाशेंतल्या शब्दांचीं रुपां विद्रूप करीत रावले आनी आपणाले भाशेंतलीं उतरां हे भाशेंत भरसूंक लागले. अशें जाल्ल्यान आयज गोंयांत घोळपी कोंकणी भास आपणालें मूळ रूप वगडावन एक अत्यंत विकृत रुपांत दिसता.

अशें जाल्ल्यान आयज कोणूय उठून कोंकणी संबंदान मनाक मारता तें उलोवंक लागला. लिपीचो विकास आनी इतिहासाची जाणविकाय नाशिल्लो एकलो उठून कन्नड भाशेचोच म्हूण परिचीत आशिल्ले कन्नड लिपीच्या आदारान वा रोमन लिपींतल्यान कोंकणी बरयता. तें पळोवन कोंकणीक स्वताची लिपी ना अशें कोणय म्हणटा जाल्यार भाशा शास्त्राची कसलीच म्हायती नाशिल्लो दुसरो एकलो कोंकणीक व्याकरण ना म्हणटा. हे विशींचें अज्ञान अन्य भाशिकां मदीं आसलें जाल्यार ती चूक म्हणपाक

जावची ना कारण कोंकणींतल्यान तांकां कितेंय साध्य जावपाक जाय अशें ना. पूण
तरेचें अज्ञान हेरां परस प्रत्यक्ष कोंकणी लोकां मदींच चड दाटलां. कोंकणींत आय
मेरेन 30 शब्दकोश, 27 मुद्रीत[1] व्याकरणाचीं पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत आन
भारतांत उजवाडा आयिल्ल्या व्याकरणां मदीं कोंकणी व्याकरणच सगळ्यांत पयल
उजवाडा आयलें अशा सगळ्या साधनां विशीं हे लोक अज्ञानी आसात. तितलें
न्हय तर वृत्तपत्रांतल्यान व्हडले व्हडले प्रबंध बरोवपाची तांक आशिल्ले कोंकण
विद्वानय बी 'भांगर', 'बांय', 'व्होड', 'माड', मेखणिका' अशे निवळ कोंकणी शब
कन्नडांतले म्हणपा इतल्या अज्ञानान भरल्यात. कोंकणींत अनेक कन्नड शब्द आसात
अशें म्हणपांत कांय दुबाव ना. पूण कन्नडांतय अनेक कोंकणी शब्द आसात ही नद
आड करपा सारकी गजाल न्हय.

सादारण 80 वर्सांचे मर्यादे भितरल्या काळांत कांय मराठी पंडीत गोंयांत घोळणुकेंत आशिल्लें कोंकणीचें रूप मतींत धेवन ती मराठींतल्यानच जल्मल्या अशें मानताले. पुर्तुगेजांच्या प्रभावान कुळभ्रश्ट जाल्ली आनी विनाशाचे वाटेक लागिल्ली ही बोली वाटावन, तिका शुद्ध करून मराठीचे पंगतीक बसोवप हें आपणालें पवित्र कर्तव्य अशें तांकां दिसतालें. गोंयांत आशिल्ल्या कांय मराठी भक्तांच्या आदारान गोंयांत कांय मराठी शाळा स्थापन करप, मराठी वर्तमानपत्रां सुरू करप, मराठी पुस्तकां उजवाडावन, मराठी संस्कृताय लोकां मदीं पातळावप गरजेचें अशेंय तांकां दिसतालें. तेच तरेन गोंयांत अदीं मदीं मराठी साहित्य परिशदो, व्याख्यानमाळो आदी सांस्कृतीक कार्यावळी घडोवन हाडपा सारकी चळवळ ते करीत आयिल्ले.

हाचे मजगतीं गोंयांतले कांय मातृभास भक्त एकवटीत जाले आनी मराठी भक्तांक अशे तरेचे उपद्व्याप करून शुद्धीकरणाच्या नांवान कोंकणीक नामशेश करपाचो हावेस बाळगूंक दिवप ना अशें थारावन कोंकणी ही मराठींतल्यान जल्मल्या जावं ती मराठीचें ग्राम्यरूप अशें म्हणत मराठीवादी गोंयांत चलयताले ती शुद्धीकरणाची चळवळ वा त्या मराठीकरणाक तांणी तीव्र विरोध केलो. त्या विरोधांतल्यान वाद-प्रतिवाद आनी द्वेश-दुस्वास वाडलो. मात मूळ भास खंयची तो निर्णय जावंक पावलो ना. आनी मराठी भक्तांच्यो कार्यावळी थारल्यो नात. दोनय पंगडांचे लोक पश्चिमी पंडितांनी बरयिल्ल्या ग्रंथांतल्यान विवादास्पद अभिप्रायां मदले आपणाक अनुकूल दिसपी अंश

1. Discovery of Goa by Alfred Braganza, M.A.

देखीं खातीर वापरून आपणाल्या मुद्द्यांचें समर्थन करप हाचे भायर दोनूय भासां मदलें शब्द भांडार म्हणा, शब्दांचे अर्थ म्हणा, क्रियांचीं आख्यांत रुपां म्हणा आदींची तुळा करून शास्त्री रितीन एका निर्णयाचेर येवपाचो यत्न करिनाशिल्ले. मराठी पंडितां मदीं कांय जाण कोंकणींतलीं उतरां प्राचीन मराठी ग्रंथांनी मेळटात अशें म्हणून ज्ञानेश्वरी आनी हेर कडलीं औतरणां दिवन कोंकणी समर्थकांक विरोध करताले. पूण ज्ञानेश्वरी कोंकणींतच रचिल्ली आशिल्ली अशें म्हणूनच संत एकनाथान ती थोड्या प्रमाणांत मराठी जाय सारकी केली अशेंय बी प्रमाणा सयत दाखोवन दिवन मराठी समर्थकांचें तोंड बंद करपा इतलें भाशेचें ज्ञान परकी भाशेंतल्यानच सगळे विशय शिकिल्ल्या कोंकणी विद्वानांक नाशिल्लें.

त्या काळांत ते भाशेच्या वादाक तितलें म्हत्वय बी नाशिल्लें. ते खातीर चड लोकांचें लक्ष ते वटेन वळ्ळें ना. पूण गोंयांत स्वातंत्र्य चळवळ सुरू जावन गोंय स्वतंत्र जावपाचीं लक्षणां दिसून येवपाक लागिल्ल्या कारणान ते भाशा समस्येक केन्ना नाशिल्लें तितलें म्हत्व प्राप्त जालें. मराठीवाद्यांचें प्रचारकार्य तीव्र जालें आनी सुरवेक मवाळ आशिल्लो सूर इल्लो इल्लो खर जावंक लागलो. निमाणे कडेन भारतरत्न जवाहरलाल नेहरूंच्या दृढ राजकी भुमिकेक लागून सानशा युद्ध संघर्शांतल्यान गोंय मुक्त जावन भारतांत एकरूप जालें. तेन्नाच्यान तांच्या वादाची तरा बदल्ली.

कोण एकलो गोंयान आपणाक जर महाराष्ट्रांत आसपावन घेतलें जाल्यार गोंयच्या लोकांक साबार सुविधांचो कशे तरेन लाब जावंक पावतलो ते विशीं म्होंवाळ गोड उतरांनी रंगोवन कोंकणी लोकांचीं मनां महाराष्ट्रा वटेन वळोवपाचो हावेस बाळगिता जाल्यार दुसरो एकलो गोंय महाराष्ट्रांत घालिनासतना स्वतंत्र उरलें जाल्यार परदेशी संस्कृतायेचे भकीक पडिल्ल्या कोंकणी क्रिस्तांवां कडच्यान कोंकणी हिंदूंक संभाव्य आशिल्ल्या काल्पनीक कश्ट आनी निश्ठूरपणाचें चित्र रंगोवन गोंयच्या राजकारणांत धर्मद्वेशाचें विखाळ बीं घालता. साहित्यीक आशिल्लो एकलो बुद्धीवादो कोंकणी ही मराठीचोच भेद आनी ते भायर तिका स्वतंत्र अशें साहित्यीक अस्तित्व नाशिल्लें म्हणूनय बी कोंकणींत ऊंच पांवड्याचें साहित्य रचप साध्य जावचें ना जाल्ल्यान अपक्व आनी अपूर्ण अशे ते मागास कोंकणी वयलो वृथाभिमान सोडून दिवन कोंकणीच्या अभिमान्यांनी मोट्या मनान मराठी शिकून बृहन्महाराष्ट्रांत आसपावन घेवन धन्य जावचें असो तो उपदेश करता.

हातूंत मराठी समर्थकांचें म्हणणें तितलेंशें चूक नाशिल्लें. हाचें कारण म्हणल्य गोंयांत पुर्तुगेजांची राजवट सुरू जाले उपरांत गोंयांतले हिंदू म्हणुया वा गोंया भायल प्रदेशांनी वचून स्थायीक जाल्ले हिंदू म्हणुया तांचे मदल्या कोणेंच सोंपिल्ल्या साटे वर्साच्या काळांत साहित्य रचनेक हात घालून गर्वान हो कोंकणीचो ग्रंथ म्हूण साग सारको एकूय ग्रंथ रचिल्लो मेळना. ताचे उपरांतच्या काळांत कोंकणीचो ध्वज व उखलून धरीत भाशणां आनी लेखनाच्या माध्यमातल्यान मराठीच्या रथी महार कडेन स्वता एकट्याच्या बळार झूज दिवन आतां किर्तिशेष जाल्लो पुण्यस्मर 'शणै वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकर' नांवाचो खांपो विद्वान जाणी 'शणै गोंयबा नांवान कोंकणींत कथा, प्रहसनां, नाटकां, चरित्रां, व्याकरण, संशोधनात्मक प्रबं कविता आदी प्रकारांनी सुमार अर्द शेंकडो ग्रंथ बरोवन उजवाडा हाडले आनी कोंक भाशेंतय बी, मराठी बरोवपी करतात ते तरेन संस्कृतांतले कठीण शब्द बळजबरे चेपून भरिनासतना उंच पांवड्याचें साहित्य रचप शक्य आसा म्हणपाचें विरोधकां दोळे दिपकावन वचपा इतले तांकीन सिद्ध करून दाखयलें.

शणै गोंयबाबांच्या शिंवनादान जागे जावन दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतले कांय जा म्हणल्यार बंटवाळच्या श्रीमान बोळंतूर कृष्णप्रभू हांणी 'चंद्रहास' नाटक, कुंबळेच्य श्रीमान नरसिंह लक्ष्मण नायक हांणी 'सावित्री सत्यवान' नाटक अशीं नाटकां बरावे उजवाडायलीं. उपरांत कांय उमेदी तरणाट्यांनी तीं नाटकां माचयेर हाडलीं. त्या काळांत श्रीमान बंगले नारायण कामत हांणी 'गितामृतसाकी' ह्या नांवान भगवद्गीतेच पद्यात्मक कोंकणी अणकार उजवाडायलो. श्रीमान कृष्णप्रभू हांणी ते उपरांत 'प्रल्हा चरित्र' आनी 'ध्रूव चरित्र' अशीं दोन नाटकां आनी कांय सान सान कवनां रचलीं कुंबळेच्या नायक हांणी 'मानसचरित्र' नांवाचें नाटक बरयलां. तें जाले उपरांत खू वर्सांनी श्रीमान बोळंतूर माधवप्रभू हांणी कांय कथा बरयल्यो. श्री. जी. एन. लक्ष्म पै हांणी बरोवन प्रकाशीत केल्लें 'आमगेलो समाज' हें नाटक दक्षिण कन्नडांतल्य मनशांचे ग्रंथ रचनेचे परंपरेंतलो निमाणो आसूंक शकता. सोंपिल्ले वी. एस. कुडव हाणी कांय वर्सां मेरेन 'सारस्वत' नांवाचें सातोळें चलयलें. आतां सध्या श्रीमान बी वी. बाळिगा हांणी 'पंचकादायी' हें मासीक चलोवपाच्या साहसाक हात घाला. पूण शणै गोंयबाबांचे गर्जनेन जागे जावन गोंयच्या साबार तरणाट्यांनी तांच्या बरपांतल्यान स्फूर्त घेवन साहित्य रचनेंत मुखार पावलां मारिल्ल्या कारणान ग्रंथांची संख्या वाडत आसली तरी मराठी साहित्याच्या पर्वता मुखार ती तुळेन सांसवां कणा वरींच म्हणचे

ाडटलें.

मराठीकार गोंयांतलीच कोंकणी आयकून आनी पळोवन जाणा आशिल्ले. ते भायर गोंयांतल्यान पयस दक्षिणेंत घोळणुकेंत आशिल्ले कोंकणीची तांकां इल्लीय वळख नाशिल्ली ही गजाल तांचीं भाशणां आनी लेखनाच्या नियाळां वयल्यान कळटा. दक्षिणेंत घोळणुकेंत आशिल्ले कोंकणीचो तांकां फावो तो परिचय आशिल्लो जाल्यार कोंकणी ही मराठींतल्यान जल्मल्या म्हणपाची चूक सत्यप्रेमी म्हूण नामना आशिल्लो कोण एकलो मराठीप्रेमी करचो नाशिल्लो.

मराठी भास कोंकणी परस शुद्ध, प्राचीन आनी शब्दप्रचूर असो एक चुकीचो समज सामान्य लोकां मदींच न्हय तर विद्वान म्हणूं येत अशा लोकां मदींय बी मूळ धरून रावला. कोंकणीक लिपी खंय आसाच असो तांचो सगळ्यांत पयलो प्रस्न आसता. अशे प्रस्न विचारपी मनशांनी आपणाले आवयभाशे संबंदान केन्नाच विचार केल्लो ना हें मात कोणाकय आपशींच कळून येता. कोंकणी ही साहित्यीक भाशा जावन आशिल्ली तेन्ना आमचे पुर्वज ते भाशेंत ग्रंथ रचना जाल्ले विशीं, नागरी लिपी मराठी खातीरच आरक्षीत केल्ली आसा काय कितें हाचे विशीं, कन्नड भाशेचीच म्हूण प्रचलीत आशिल्ली लिपी गोंयांत घोळणुकेंत आशिल्ले लिपीचें रुपांतर आसपा विशीं वा ती लिपी कन्नडा खातीरच निर्मिल्ली काय कितें हाचे विशीं विचार करपाच्या फंदांत पडले ना. नागरी वर्णमाला संस्कृत भाशा बरोवपा खातीर निर्मिल्ले ब्राह्मी वर्णमालेचें जशें उत्तर भारतीय रुपांतर तेच तरेन कन्नड भाशेची म्हणटात ती वर्णमालाय बी संस्कृत आनी प्राकृत भासो बरोवपा खातीर ब्राह्मी वर्णमाला रुपांतरीत करून निर्मिल्ली आसा. ती दक्षिण भारतीय वर्णमाला. ते वर्णमालेंतल्यान बरयिल्ले सुरवातेचे सरकारी हुकूमनामे सगळे संस्कृत भाशेंतच आशिल्ल्या कारणान तें सत्य न्हयकारप कोणाकच साध्य जायना. ते खातीर कोणाकच ते वर्णमालेचेर स्वाधिकार सांगप शक्य ना. ती वर्णमाला कन्नडिगांची म्हणपा परस कोंकणी लोकांची म्हणप चड समा जातलें. ताचें कारण म्हणल्यार ते वर्णमालेचें सुरवातेचें रूप फकत गोंयांत वापरताले.

गोंयांत गोमान्तकी लिपी (आतांचे कन्नड लिपीचे सुरवेच्या रुपांत) घोळणुकेंत आशिल्ली. चालू शकाच्या पंदराव्या शेंकड्यांत थंय नागरी लिपीय बी वापरूंक लागले. शेवटाक गोमांतकी जी रुपांतरीत जाल्ली ती आतांची कन्नड लिपी वापरूंक लागले. म्हणल्यार गोंयांत दोन लिपी वापरताले म्हणपाक लिखीत प्रमाणां आसात. म्हणल्यार

आतां जी कन्नड भाशेचीच लिपी म्हणटात ती आदीं सावनच कोंकणी बरोवपाक घोळटाली. आतांय बी ती चलता. फुडारांतय बी चलुंये. अशें आशिल्ल्यान कोंकणी लोकांनी कोणाच्याच रिणांत रावपाची गरज ना. कारण ती तांची स्वताची निर्मणी आनी तांकां ते वर्णमालेचेर हेरां परस चड हक्क आसा. आदीं ती वर्णमाला कोंकणी बरोवपाकच फकत वापरताले अशें न्हय तर मराठी बरोवपाकय ती वापरताले. म्हणल्यार गोमान्तकी लिपींतल्यान मराठी भाशेंत बरयिल्ली 'विदूर नीती' आनी 'कथा कल्पतरू' नांवाचे दोन प्राचीन ग्रंथ मंगळूरच्या कॅनरा हायस्कूलाच्या पुस्तकालयांत आसात.

मराठी भास कोंकणी परस प्राचीन आनी शुद्ध म्हणटात तो समज निराधार आनी भ्रामकय बी आनी कोंकणी मराठी परस प्राचीन आसून मराठी परस शुद्धय बी ही गजाल प्रमाणा सयत सिद्ध जाल्लें आसा. शकाच्या बाराव्या शेंकड्या परस आदीं कोंकणी आनी मराठी मदीं चड अंतर नाशिल्लें. सादारण 14व्या शतमानाच्या सुमाराक त्या दोनांय मदलें अंतर दिसून येवपाक लागलें. आनी ते पयलीं रचिल्ल्या आनी महाराष्ट्रांत आशिल्ल्या ग्रंथांतली भाशा उपरांतच्या लोकांनी आपणाल्या काळांत घोळपी भाशे कडेन जुळपा सारके तरेन सुदरायली. ते खातीरच पोरणे मराठींतले अशें म्हणून संबोधतात त्या ग्रंथांनी कोंकणींतले शब्द आसपावल्यात.

मराठी ही कोंकणी परस शुद्ध असो कांय जाणांचो भ्रम जाल्लो आसा ताचें कारण म्हणल्यार अर्वाचीन वा नवे मराठींत नित्याचे घोळणुकेंत येवपाक जाय अशे प्राकृत शब्द उणे जाल्यात. तो उणाव ना करपाक आधुनिक साहित्यिकांनी आपणाल्या रचनांनी अर्थ कळपाक कठीण अशे व्हडले व्हडले संस्कृत शब्द वगळावन ते प्राकृत शब्द वापरप समा जातलें. अशें चिंतलें मराठीकार एकेक सान अर्थ सुचोवपाकय बी कितले चड शब्द वापरतात तें दाखोवपी एक सुंदर उदाहरण म्हणल्यार – 'एक समयावच्छेदें करून=सवेंचि. एका समयारच' असो ल्हान शब्द आसा. तो शब्द मराठी शब्दकोशांनी मेळ्ळो तरीय बी ताचो अर्थ एकेकल्यान तरेतरेन दिला. पूण तो ज्ञानेश्वरींत कोंकणी अर्थानूच वापरला. ''सवेंचि'' हो शब्द संस्कृतांतलो ''समम्'' आनी प्राकृतांतलो ''चि'' हें बळ दिवपी अव्ययाचें कूस लागून तयार जाला.

मराठी ही शब्दप्रचूर वा विशाल भाशा अशें वयले वयर दिसलें तरी तिचो शब्दभांडार सारकें मोलावन पळयलें जाल्यार तिचे शब्दसंपन्न प्राकृतांतलें शब्दभांडार खूब कमी आसून अन्य भासांतल्यान घेतिल्ले शब्द आनी प्राकृत भास उलोवपी अन्य वर्गांतल्या

ळोकां कडल्यान भरस जावन आयिल्ले शब्द खूब जाल्ले आसात ही गजाल नदरे आड जायना.

कोंकणी आनी मराठी ह्यो एकाच मुळांतल्यान जल्मल्ल्यो दोन भयण भासो असो थोड्या लोकांचो अभिप्राय आसा. ताचो अर्थ एकाच मुळांतल्यान समान काळांत जल्मून वेगळ्यो वेगळ्यो वाडिल्ल्यो भासो आशिल्ल्यान तो पुरायपणी चुकीचो अभिप्राय अशें म्हणचें पडटा. कारण त्या दोनय भासांनी उपलब्ध आशिल्लीं प्रमाणां त्या अभिप्रायाचे आड आसात. वा तशें मूळ एक आसपाचो संभव खूब कमी. त्या सैमीक नेमाक आनी भाशा विकास शास्त्राच्याय बी आड आसा. एकच भाशा विशाल प्रदेशांत पातळटा आनी तिच्या मूळ स्थाना कडल्यान ती पयस वता तशी तशी ल्हान सान प्रादेशीक भेद दिसून येतात. काळाचे व्हांवतेंत ती पाविल्ल्या प्रदेशांत घोळणुकेंत आशिल्ल्या हेर भासांतले शब्द ते भाशेंत भरसून ती मुळा सावन फांटो जावन वचप हो सैमीक नेम. असल्या फांट्या मदीं मूळ भाशा खंयची आनी उपरांत जल्मल्ली खंयची हाचो सोद घेवप हेंच भाशा विज्ञानाचें मुख्य तत्व आसता. ते खातीर कोंकणी आनी मराठी हांचे मदली प्राचीन खंयची हें सोदून काडप होच ह्या लेखनाचो उद्देश.

2

कोंकणी आनी मराठी हांचे मदल्या संबंदां विशीं योग्य आनी सोबीत अशें एक उदाहरण दिवन विसकावणी केली जाल्यार प्राचीन हिंदी आनी अर्वाचीन हिंदी वा पोरणी हिंदी आनी नवी हिंदी हांचे मदीं जे तरेचे संबंद आसात तेच तरेचे संबंद कोंकणी आनी मराठी हांचें मदीं आसात अशें म्हणुंयेत. दोनूय भासांनी घोळटा तें शब्दभांडार भोव प्रमाणांत समान आसा. प्राकृत शब्दांचीं शुद्ध रुपां आनी योग्य अर्थ कोंकणींत आसात. प्रादेशीक भेदांचो विचार हांगा अप्रस्तूत दिसता. सुरवातेक उत्तर प्रदेशांत प्राकृत आनी अपभ्रंश ह्या भेदांतल्यान विकसीत जावन स्थिरतायेक पाविल्ली ''व्रज भाशा वा जुनी हिंदी'' आशिल्ली. तेच भाशेंतल्यान इल्ली रुपांतरीत जावन सार्वत्रीक जाल्ली ''खडी बोली'' वा चालंत नवी हिंदी घोळणुकेंत आयली. तेच तरेन दक्षिण भारतांत महाराष्ट्रांत जुनी महाराष्ट्री प्राकृत (=कोंकणी) आशिल्ली. तातूंतल्यानच इल्ली रुपांतरी जावन नवी मराठी प्रचलीत जाली.

जुने हिंदींत ''घोडो आयलो'' (कन्नड-कुदुरेयु बन्तू) म्हणपाक 'घोडा आ
म्हणटात जाल्यार आतांचे नवे हिंदींत 'घोडा आया' अशें म्हणटात. तेच तरेन कोंकण
वा जुने मराठींत 'घोडो आयलो' म्हणल्यार आतांचे नवे मराठींत 'घोडा आल
म्हणटात. तेच तरेन जुने हिंदींत 'घोडो गेलो' (कन्नड- कुदुरेयु होयितु) म्हणप
'घोडो गयो' म्हणल्यार नवे हिंदींत 'घोडा गया' म्हणटात. तेच भशेन कोंकणींत 'घो
गेलो' म्हणल्यार मराठींत 'घोडो गेला' म्हणटात. ह्या उदाहरणा वयल्यान जुन्या भासां
ओकारान्त आशिल्ले (पुल्लिंग) शब्द रुपांतरीत जावन तयार जाल्ल्या नव्या भासां
आकारान्त जावन येतात अशें दिसून येता. ते भायर कोंकणी आनी मराठी हांचे मद
संबंद आनी भेद कसले तरेचे आसात तेय बी स्पश्टपणान ध्यानांत येता.

कोंकणी आनी मराठी हांचे मदीं आशिल्लो एकमात्र भेद म्हणल्यार कोंकणींतल
प्रथमा विभक्तींतल्या एकवचनांत ओकारान्त आसपी पुल्लिंगी नामां, प्रथमा आन
द्वितिया विभक्तीच्या भौवचनांनी ओकारान्त आसपी स्त्रीलिंगी नामां, सगळीं ओकारान
क्रियारुपां मराठींत आकारान्त जातात आनी कोंकणींत आकारान्त आसपी क्रियारुप
मराठींत ओकारान्त जातात. तशे ते बदल जावंक्च जाय. तशे तरेन बदल ना जाल्या
शब्द कोंकणी रुपांतच उरतात आनी ते कोंकणीच म्हणपाचें सिद्ध जाता.

प्राचीन प्राकृत भासांनी संस्कृतांतले आकारान्त पुल्लिंगी नामाच्या प्रथमा विभक्ती
एकवचनी तशेच आकारान्त शब्दाच्या फाटोफाट विसर्ग आशिल्ले शब्द ओकारान
जाताले. देखीक- रामः=रामो, अतः=अतो, नद्यः=नद्यो अशे. उपरांत काळ फाट
पडत गेलो तशे आदल्या प्राकृतांतल्यान फांटे फुटून घडिल्ल्या नव्या बोली भासांन
आशिल्ले ओकारान्त शब्द आकारान्त जावन बदलपाक लागले. अशें जावन जु
हिंदींतल्यान नवी हिंदी, जुने मराठींतल्यान (=कोंकणी) नवी मराठी जल्मली. नव
हिंदी उलोवपी लोकांक जुने हिंदीक आपणाले भाशेची आवय म्हणपाक लज दिसना
उरफाटें तांकां खूब अभिमानच दिसता. पूण हें पुराय जग आपणाक लागूनच पर्जळीत
जाता अशें धरून श्रेय वेंगावपाचो हावेस आशिल्ले कांय मराठी विद्वान प्राचीन साहित्य
वगडावन दुर्बळ जाल्ले कोंकणीक मराठीची आवय म्हणपाक लजतात आनी ते भायर
आवयची गोमटी आंवळून धूव आशिल्ले मराठी खातीर शिंवासन बांदपाक वावुरतात
तें घडून येवंक ना ती गजाल वेगळी. कशेंय आसू ''गांवा खातीर राजा आसलो तरी
आवय खातीर तो पूतच'' हे म्हणीच्या अर्थान मराठी कितलीय विकसीत जाली तरी ती
कोंकणीची धूव हें सत मराठीकारांक कितलेंय यत्न केल्यार न्हयकारप साध्य जावचें ना.



थोडे भितर सांगचें जालें जाल्यार – जे भाशेक आयज कोंकणी अशें नांव मेळिल्लें आसा ती खूब प्राचीन – वैदीक भास. आद्य प्राकृत, शौरसेनी, नवी प्राकृत वा महाराष्ट्री अशा विभेदांची ती आयची प्रतिनिधी. काळाच्या प्रवाहा वांगडा हजारांनी वर्सां आदीं सावन चलत आयिल्ली आयची कोंकणी खूबशी बदलिल्ली आसूनय हे आदीं उल्लेख जाल्ल्या चार भेदांचीं थोडीं लक्षणां आनी रुपांतरां तातूंत आयजूय बी उरल्यांत. तशेंच शब्दांचीं रुपांतरां जाल्यांत. त्यो रिती स्पश्टपणान समजुपा सारके साबार शब्दय तातूंत आसात. तीच कोंकणी मध्यप्रदेशांत – हिंदी आनी मुंड भाशेच्या प्रभावांत येवन मराठी तयार जाली आनी तिचें वारें गोंयां मेरेन पावलें – म्हणल्यार कांय हिंदी शब्द कोंकणींतय बी भरसले. म्हणल्यार मध्य प्रदेशांतले लोक उलोवंक लागले ती कोंकणीच परिवर्तनां जावन मराठी जाली. तेच खातीर कोंकणींत नाशिल्लें बन=जावप, घडप; हो=जावप, जल्मप; बोल=उलोवणे, भास; जा=वच; रह=रावप, आसप अशीं हिंदी क्रियापदां, तशेंच कोंकणी न्हीं अशीं मोटें=आंगान मोटें (लठ्ठ); मोटवें=गिड्डें (मोटवें), लांब=उंच आनी दूर= पयस असलीं हिंदी उतरां मराठींत आनी गोंयचे कोंकणींत उरल्यांत.

मराठींत आशिल्लीं शेंकड्यांनी क्रियापदां आनी हेर शब्द संस्कृत मुळाचीं न्ही; आनी ते खंयच्या मुळाचे हाचे विशीं कितल्याय निपूण अशा भाशाशास्त्राक तें थारावप शक्य जावचें ना अशें दिसता. ते खातीरच मराठी ही खूब प्राचीन भास आसूंक जाय अशें कांय जाण म्हणूंक पावले. म्हणल्यार त्या शब्दांचें मूळ कन्नडांत वा संस्कृतांत अशें खंयच मेळना. मुंडा भाशांनी मेळुंये अशें दिसता. आचार्य रामकृष्ण गोपाळ भांडारकर हांच्या मता प्रमाण हेर भासो उलोवपी लोकांच्या उलोवपांत मेळिल्ले संस्कृत शब्द ते तरेची विकृती येवंक दिनासतना परिवर्तीत जाल्ले आसतात.[1] तांचे परसूय हेर भासांचे लोक संस्कृतजन्य भासो उलोवंक लागले. तेन्ना तांच्या मूळ भासांतले शब्द संस्कृतजन्य शब्दां वांगडा मेळून काळाचे व्हांवतेंत प्राकृत शब्दां सारकेच जाले आसतले. म्हणल्यार ते लोक प्राकृत भाशा उलोवंक लागिल्ल्यान तांचो आपणाले मूळ भाशे कडलो संबंद तुटून वचप ही सभावीक गजाल आशिल्ली. आनी तशे तरेन संबंद तुटिल्ल्यान ते शब्द विकृत जाले अशें म्हणप समर्पक थारता. तेच खातीर मराठींत कन्नड शब्दांची संख्या तशी व्हड आसूनय ते चड परिवर्तीत जाल्लें दिसनात. अशें आसतना मराठींतल्या ज्या शब्दांचें मूळ  निवासी आसपी मुंडा लोकांचे भाशेंतल्यानच आयल्यात आसपाचो चड संभव आसा. तशेंच महाराष्ट्राचे पश्चिमेक गुजराताक तेंकून

आशिल्ल्यान मराठींत गुजराती शब्दांची संख्याय बी खूब आसा. सांगपाचें तात म्हणल्यार साबार भाशा वर्गांचे शब्द आपणा भितर सामावन घेवन पयलीं कोंकण ओ-कारान्त आशिल्लीं पुल्लिंगी नामां हिंदी भाशेच्या प्रभावान आ-कारान्त रुप परिवर्तीत जावन जी भाशा घोळणुकेंत आयली तीच ही आयची मराठी भाशा.

कोंकणी आनी मराठी हांचे मदली प्राचीन खंयची हाचो निर्णय घेतासतना भारत भाशा शास्त्री विविध भाशांनी जाल्लीं परिवर्तनां योग्य त्या काळांत ध्यानांत घेवन परिवर्तनां घडून आयिल्ल्या प्रदेशाचें वा ती भाशा उलोवपी लोकांचें नांव ते भाशे दिवन, बरोवन दवरिल्ले व्याकरणाचे ग्रंथ खूब आदार दितात. भारतीय इतिहास घडिल्ल्या घडणुकांचो काळ थारायतना भगवान बुद्धाचो जल्म क्रि.पू. 567 आ महानिर्वाण क्रि.पू. 487 असो एक घटमूट मानस्तंभ मानतात तसोच व्याकरणाचा जावन गेल्लो महर्षी पाणिनीचो जल्म काळ क्रि.पू. 490-470 हो काळ मानून भाशेच इतिहास समजुपा खातीर एक आदारस्तंभ म्हूण मानतात.

आचार्य पाणिनीच्या काळांत ताणें जे भाशेचें व्याकरण रचिल्लें ते भाशे भाय दुसरी भाशा आर्य लोकां मदीं घोळणुकेंत नाशिल्ली म्हणपाचें ताणें अनेक फावट आपणाल्या व्याकरणांत 'भाशायाम्' म्हणल्यार भाशेंत अशा शब्दांचो प्रयोग करत ताचे वयल्यान सिद्ध जाता. इतलेंच न्हय तर पाणिनीच्या काळांत भाशेक खंयचें एक नांव नाशिल्लें म्हणपाचेंय सिद्ध जाता.

देखीक:- भाषायां सदवसश्रुष: ।।3-2-108।।सख्यशिश्वीति
भाषायाम्।।4-1-622।। पूर्वंतु भाषायाम्।।8-2-98।। इत्यादी

आचार्य पाणिनीन 'भाशेंत' अशें म्हणलां ताचें मुख्य कारण अशें की पद्यांत छंदांचे नेम पाळप गरजेचें आशिल्ल्यान वर्णांची संख्या आनी गणांची वेवस्था हाची राखण करप गरजेचें आशिल्ल्यान एकेक फावट व्याकरणाचे नेम मोडचे पडटाले. तेन्ना व्याकरण नेमांचो भंग जातालो. हो नेमभंग एक अपवाद आसतालो, सामान्य नेम जावंक शकनाशिल्लो. ते खातीर आचार्यांनी सामान्य नेम सांगता आसतना ''भाषायाम्'' अशे म्हणून अपवादाक ''छंदसि''=छंदांनी=पद्यांत अशें म्हणून 'छंदसिबहुलम्' पद्यांत नाना

1. The extensive corruption of Sanskrit sounds therefore must be accounted for, by the supposition that the language had to be spoken by races whose original tongue it was not. P.4 Early History of the Deccan

तीन जातात अशें म्हणलां. ताणें वेदांतू अशें म्हणिनासतना छंदांनी अशें म्हणलां तें ूब म्हत्वाचें. कारण सांगतलो जाल्यार तशें म्हणलां ताचो अर्थ वेदांची भाशा आनी ाच्या काळांत घोळणुकेंत आशिल्ली ती भाशा एकूच आशिल्ली अशें सुचोवपा ांगडाच, 'भाषायाम्' - हाचो अर्थ गद्यांत जाल्यार 'छंदसि' हाचो अर्थ पद्यांत वा दमंत्रांनी अशें सुचीत जाता. अर्थांत पाणिनीचें व्याकरण हें ताच्या काळांत घोळपी ाशेचे - म्हणल्यार आदीं सावन चलत आयिल्ल्या वैदीक साहित्याचे नेम थारावपाच्या ोघांत तें घडून आयलें हें सिद्ध जाता आनी वेदांतलो 'ब्राह्मण' हो भाग - गद्य रुपांत ाशिल्ल्यान 'भाशा' ह्या शब्दाचो अर्थ गद्य आनी 'छंदस' हाचो अर्थ पद्य असो जो ारायलो तो योग्य आशिल्लो हेंय बी सिद्ध जाता.

भगवान बुद्धाच्या यज्ञ विरोधी प्रचारांतल्यान आचार्य पाणिनीच्या काळांत वेदांचें अध्ययन शिथील जावंक लागिल्ल्यान भाशा अनियंत्रीतपणान पाड जावंक लागिल्ली आसपाक जाय. आनी ती आवतिकाय नियंत्रीत करपाच्या यत्नांतल्यानच ताणें आपणालें व्याकरण रचलें आसपाक जाय. पूण ताच्या काळांत वेदांची भाशा सोडून दुसरी खंयचीय भाशा घोळणुकेंत आशिल्ली अशें म्हणपाक कसलें प्रमाण ना. आचार्य पाणिनीन खूब मोट्या परिश्रमान एक विशाल अशें व्याकरण रचिल्लें आसूनय ताचे उपरांत यज्ञ विरोधी आशिल्ले जैन लोक आनी बौद्ध लोक बळिश्ट जावन तांणी आपणाल्या धर्मीक ग्रंथ रचने खातीर शुद्ध वेदभाशेचो उपेग करिनासतना ती थोडी रुपांतरीत करून वापरपाक सुरवात केल्ल्यान वेद भाशेंतलो एक नवो फांटो जल्माक आयलो आनी मथुरा आनी ताचे भोंवतणीं तो घोळणुकेंत आयलो. हाचें कारण अशें कीं त्या काळांत मथुरा नगर बौद्ध धर्माचें केंद्र आसून, थंयच्या कांय जाण विद्यावंत ब्राह्मणांनी बौद्ध धर्म स्विकारिल्लो. तांणी ते नवे भाशेंत बुद्धाचीं प्रवचनां बरोवन संग्रहीत केल्ली. बुद्धदेवाच्या जिवीत काळांतच वेद भाशेचो नवो फांटो जल्माक आयिल्लो आसतनाय बुद्धदेव सामान्य लोकांची जी भाशा आशिल्ली ते मागधींत वा अर्दमागधींत आपणालीं प्रवचनां दितालो असो कांय पश्चिमी विद्वानांचो अभिप्राय आसा. पूण तांच्या अभिप्रायांक प्रमाणांचो आदार ना. त्यो फकत कल्पनाच.

आचार्य पाणिनीचे आदीं वेदभाशेचो फांटो जल्मल्लो जाल्यार तो आपणाल्या व्याकरणांत ताचो उल्लेख केले बगर रावचो नाशिल्लो. बुद्धदेवाचीं प्रवचनां बरोवन संग्रहीत करपाक वापरिल्ली भाशा वेदांचे भाशेक खूब लागींची आशिल्ल्यान त्या काळांत तिका कितेंय एक नांव मेळिल्लें अशें म्हणपाक कसलेच आदार मेळनात.

पाश्चात्य विद्वानांनी बुद्धाच्या प्रवचनांचे भाशेक 'पाली' म्हणलां. पूण 'पाली' ह शब्दाच्या अर्था विशीं विद्वाना मदीं एकमत ना. ते खातीर कांय जाण भारतीय विद्वानां बुद्धदेवाच्या प्रवचनांचे भाशेक प्राचीन प्राकृत अशें म्हणलां.[1] म्हणल्यार बुद्धदेवाच प्रवचनां जे भाशेंत बरोवन जालीं ती भाशा वेद भाशा फुटून जाल्लो पयल्यांत पयल फांटो. ताचे उपरांत तातूंतल्यानच इल्ली रुपांतरीत जावन दुसरो एक फांटो तयार जालें तें रुपांतर शूरसेन राज्यांत म्हणल्यार मथुरा, वृंदावन आनी तांच्या आशिकुशीकच्य प्रदेशांनी वयर सरलें. ते खातीर त्या नव्या फांट्याक शौरसेनी अशें नांव पडलें. तं नवो फांटो-वेद भाशे परस खूब रुपांतरीत जाल्लो. उपरांत शूरसेन प्रांत व्रजमंडल नांवान नामनेक पावलो.

शौरसेनी विभेदा उपरांत तातूंतल्यानच कांय बदल जावन 'मागधी' नांवाचो तिसरं फांटो वयर सरलो. तो मगध प्रदेशांत घोळटालो. शौरसेनींतल्यान खूब बदल जावन घोळणुकेंत आयिल्लो आनी एक फांटो 'पैशाची' नांवान भारतवर्षाच्या वायव्य प्रदेशाच्या निमण्या वर्गातल्या लोकां मदीं घोळटालो. शौरसेनी ही उलोवपाची व गद्याची भास म्हणून घोळटाली. कालांतरान ती पद्यांतय वापरूंक लागले. तेन्ना कवींनं तातूंत कांय नवे बदल घडोवन हाडले. म्हणल्यार शब्दां मदलीं कांय व्यंजनां वगळावन तातूंतले स्वर तितलेच तिगोवन दवरले. कारण तशें केल्ल्यान तांकां कविता चातुर श्लेषांतल्यान व्यक्त करपाक सोंपें पडटालें. म्हणल्यार शब्दांतलीं व्यंजनां वगळावन तातूंतले स्वर तितले सांबाळून दवरले जाल्यार थोड्या शब्दांचीं रुपां एकेच तरेचीं जातलीं. देख:- गत:=गेलो; गज:=हती; गय:='गय' नांवाचो मनीस, अशे तीन शब्द त्या नव्या विभेदांत 'गओ' वा 'गयो' अशें एकच रूप तिगून उरलें. हे सगळे विभेद घोळणुकेंत आयले उपरांत तांचे विशींचें विवरण करपाखातीर व्याकरणाचे ग्रंथ तयार जाले. शेवटाक विसकावणी जाल्ल्या नव्या विभेदाक व्याकरणकारांनी 'प्राकृत' अशें नवें नांव दिलें. तेन्ना सावन वेदांचे भाशेक 'संस्कृत' म्हणून ते भाशेंतल्यान रुपांतरीत जावन जल्मल्ल्या भेदांक 'प्राकृत' ह्या सामान्य नांवानच वळखूंक लागले. 'प्राकृत' व्याकरणकारांच्या मता प्रमाण 'प्राकृत' ह्या शब्दाचो अर्थ 'प्रकृती' म्हणल्यार मूळ संस्कृत आसून तिचे पसून रुपांतरीत जाल्ली भाशा असो जाता आनी तो योग्यच आसा.

1. पाली भी प्राकृत के अंदरही आती है। इसे प्राचीन प्राकृत कहते हैं। - प्राकृत व्याकरण (हिंदी) पृ.4 - आचार्य मधुसूदन प्रसाद मिश्र, एम.ए.

आदीं विस्कावणी जाल्या ते प्रमाण भाशेचें रूप काळा-काळार परिवर्तीत जायत लें तशें तें परिवर्तन ज्या प्रदेशांत घडून आयलें, त्या प्रदेशाचें नांव त्या परिवर्तीत ाक पडलें. असलीं नांवां प्राकृत व्याकरणांच्या ग्रंथांनी सादारण सत्तावीस आसात. ण त्या सगळ्यां विशीं म्हायती आमकां नाका. ते खातीर तांचे मदल्या थोड्यांचेर र्चा करुया- 1. प्राचीन प्राकृत 2. शौरसेनी 3. मागधी 4. पैशाची 5. प्राकृत 6. पभ्रंश 7. आवंती 8. ढक्का आनी 9. चांडाली. ह्या णव विभेदां संबंदान फकत ावश्यक आशिल्ले कांय मुद्दे घेवन ह्या लेखांत चर्चा केल्ली आसा. असल्या प्राकृत वेभेदां संबंदान विसकावणी करपी व्याकरणाचे जायते ग्रंथ आसात. तरी आसतना ांवें ह्या प्रबंधाच्या आदाराक जे तीन ग्रंथ वेंचल्यात ते एकामेका मदीं सातशीं वर्सांचें ंतर आशिल्ले अशे आसात. तांचीं नांवां अशीं - 1. आचार्य कात्यायन हांचो सुसंधिकल्प' 2. आचार्य वररुची हांचो 'प्राकृत प्रकाश' आनी 3. आचार्य सिद्धहेमचंद्र ुरी हांचो ''प्राकृत अध्याय''.

1. आचार्य कात्यायन, वा काच्चायन हांणी बरयिल्ल्या 'सुसंधिकल्प' नांवाच्या ाकृत व्याकरण ग्रंथांत येवपी उदाहरणां वयल्यान हो मौर्य चक्रवर्ती अशोकाच्या काळांतलो आसूंक जाय अशें दिसता. कांय जाण हाका बुद्ध देवाच्या प्रिय शिश्यां मदलो एकलो अशें म्हणपीय बी आसात. पूण व्याकरण ग्रंथांत शिंवाचो राजा आशिल्लो 'देवानाम् पियतिस्स' अशें नांव आयिल्ल्या कारणान आचार्य कात्यायन हो चक्रवर्ती अशोकाचो समकालीन काय ताचे उपरांतलो तें सांगपाची गरज आसा. म्हणल्यार चक्रवर्ती अशोकाचो काळ ख्रि. पू. 274 सावन 237 मेरेन आनी देवानाम् पियतिस्साचो काळ क्रि. पू. 247 सावन 207 मेरेन आशिल्लो. व्याकरणांत आयिल्लीं अधिकांश उदाहरणां वर्तमान काळांतलीं आशिल्ल्यान त्या आदारान कात्यायनाचो काळ क्रि. पू. 270 सावन 210 मेरेन आसूंक फावो असो थारायलो जाल्यार चूक जावची ना. वा त्या व्याकरणांतल्या उदाहरणां वयल्यान कात्यायन हो मथूरा नगरांतलो निवासी आशिल्लो ही गजाल समजून घेवपाक जाय.

कात्यायनान आपणालीं व्याकरण सुत्रां बुद्धदेवाचीं प्रवचनां जे भाशेंत बरोवन दवरिल्लीं आसात तेच भाशेंत रचल्यांत. त्या शिवाय त्या सुत्रांचो प्रयोग दाखोवपाक उदाहरणां दिवन टिका-व्याख्यानांय बरयल्यांत. त्या व्याकरणांत - 1. संधिकप्पा 2. नामकप्पा 3. कारकप्पा 4. समास कप्पा 5. तद्दिकप्पा 6. आख्यात कप्पा 7. कित वा किब्बिधानकप्पा अशे सात कल्प आसात. ह्या ग्रंथाचो मंगलाचरण पद्यांत

'वक्खामिसुत्तहितम्येत्थ सुसंधिकप्पं' म्हणल्यार 'हातूंत सुत्रांच्या रुपान सुसंधीक सांगतां' अशें आशिल्ल्यान त्या व्याकरण ग्रंथाचें नांव 'सुसंधिकल्प' हें समजुपाक जाय

तातूंत दुसऱ्या कल्पाच्या पयल्या अध्यायाच्या पयल्या 'सुत्रांत' 'जिवनवचनयुक्ति' अशें म्हणिल्ल्यान तातूंतले नेम बुद्धदेवाच्या नांवान आशिल्ल्या बौद्ध धर्म साहित्याचे भाशेक व्याकरणीक बांदावळींत हाडपा खातीर तयार केल्ले, ही गजाल ध्यानांत येवपाक जाय. म्हणल्यार बौद्ध साहित्याच्या ग्रंथांचें अध्ययन केले उपरांत तो व्याकरण ग्रंथ रचून जाला ही गजाल सांगची पडटा.

बुद्धदेवाच्या महानिर्वाणा उपरांतय मथूरा नगर बौद्ध धर्माचें प्रबल केंद्र आशिल्लें चक्रवर्ती अशोकाक बौद्ध धर्माची दिक्षा दिवपी मथूरेंतलो थेरतिस्स नांवाचो श्रमण (श्रमण) उपगुप्त हे पदवेक पाविल्लो. ते खातीर बुद्धदेवाचीं प्रवचनां बरोवन त्या प्रवचनांची भाशाय बी ताचीच आशिल्ली, ती अशोक चक्रवर्तीच्या काळांत पश्चीम भारतांतल्या सामान्य लोकांची भाशा आशिल्ली अशें म्हणल्यार चूक जावची ना. भगवान बुद्ध हो आर्यवर्गाच्या शक वंशियांतले मग शाखेचो आशिल्लो. ते मगशाखेचे लोक स्थायीक जाल्ल्यान पयलीं 'कीकट' म्हणटाले त्या प्रदेशाचें नांव 'मगध' म्हूण परिवर्तीत जाल्लें. आनी मगध देशाचे लोक उलयताले ते भाशेचें नांव 'मागधी' जाल्लें.

बुद्ध देवाच्या हयातींत ताचे उपरांत आचार्य पाणिनीच्या काळांत आर्य वर्गाचे सगळे लोक वेद भाशाच उलयताले म्हणपाचें पाणिनीच्या व्याकरणांतल्या प्रमाणां वयल्यान सिद्ध जाता. आचार्य पाणिनीन वेद भाशा प्रचलीत आशिल्ल्या दर एका प्रदेशांत स्वतावचून अणभव घेवन, त्या त्या प्रदेशांत थोडो काळ तरी रावन, थंयच्या थंयच्या वैशिश्ट्यांचो परिचय करून घेवन मागीरच आपणालें व्याकरण रचलें म्हणपाचें जाणवता. नंद वंशाचो राजा महानंदी वा महानंद वा नंद हो आचार्य पाणिनीचो इश्ट आशिल्लो. आचार्य पाणिनी कांय काळ महानंदाचो अतिथी जावन मगध राज्यांत राविल्लो म्हणपाक पुश्टी दिवपी एक प्राचीन इतिहासीक प्रमाण आसा.[1] ते खातीर आयज आमकां मेळटात त्या बुद्धाच्या प्रवचनांची भाशा आचार्य पाणिनीच्या उपरांतच घोळणुकेंत आयिल्लीं म्हणल्यार तातूंत इल्लोय दुबाव ना. त्या प्रवचनांची भाशा साहित्यीक (Classical) संस्कृताक अत्यंत लागींची दिसता. वा बुद्धदेवाच्या प्रवचनांची भाशा ही संस्कृत मातृभाशा आशिल्लीं भुरगीं जशे तरेन लुडबी संस्कृत उलयतात तशे तरेची, वा तीं प्रवचनां पयलीं संस्कृतांत रचून मागीर प्राकृतांत परिवर्तीत

ल्ले वरी आसात अशें म्हणू येत. त्या प्रवचनांची भाशा आनी चक्रवर्ती अशोकाच्या ांय शीलालेखांतली भाशा सादारण समान आसा अशें म्हणू येत. बुद्धदेवाच्या त्रचनांचे भाशेचीं वा प्राचीन प्राकृताचीं मुख्य लक्षणां, म्हणल्यार संस्कृत शब्द ाकृतांत परिवर्तीत करपाचीं मुख्य सुत्रां अशीं आसात:-

1. संस्कृतांतल्या आकारान्त नामांक प्रथमा विभक्तीच्या एकवचनांत विसर्ग ागता वा अकारान्त शब्दां उपरांत विसर्ग आयल्यार तो आदल्या 'अ'कारा वांगडा ळून 'ओ'-कार जाता: त्या संबंदांतलें सूत्र अशें ।।सो।। 2-1-53 ।। उदा: ोटक:=घोटको=घोडो; वंश:=वंसो=1.बांबू (कोंडो) 2.कूळ (कुल). पुरुष:=पुरिसो. तत:=अतो=देखून. तत:=ततो=थंयच्यान (देखून); आत्मन:=अत्तनो=स्वत कडल्यान.

2. तशेच तरेन 'ओ'-कारान्त पुल्लिंगी नामांचे प्रथमा विभक्तीचे एकवचनी शब्द ौववचनांत 'आ'कारान्त वा 'ए'कारान्त जातात: उदा: घोटका=घोटके=घोडो; ुरिसा=पुरिसे=दादले; वंसा=वंसे=कोंडे.

3. शब्दांनी 'श' आनी 'ष' हाचे बदलाक 'स' येता. उदा: पुरुष:=पुरुसो; वंश:=वंसो; कश्यप:=कस्सपो अशे.

4. प्रथमा आनी द्वितीया विभक्तींच्या भौववचनांत सगळ्या स्त्रीलिंगी नामां उपरांत 'ओ' येवन लागता आनी तो 'ई' स्वरा उपरांत 'यो' जाता. उदा: मालाओ=माळो → माळांक; स्त्री=इत्थी; इत्थियो=स्त्रियो (बायलो), स्त्रियांक (बायलांक); नद्य:=नज्ज्यो=न्हंयो, न्हंयांक अशे.

5. 'त्य' आसता तो 'च्च' आनी 'द्य' आसता तो 'ज्ज' जाता. उदा: मृत्यू=मच्चू; सत्यं=सच्चं; नद्य=नज्ज्यो; गद्यं=गज्जं अशे.

6. संयुक्त अक्षरा आदीं दीर्घ स्वर आसल्यार तो ऱ्हस्व जाता. उदा: पांडित्यम्=पंडिच्चं; आत्मा=अत्ता.

7. संयुक्त अक्षरांनी भिन्न वर्गाचीं व्यंजनां आसल्यार तांचे मदीं खंयचें तरी एक लोप जावन उरिल्ल्याक द्वित्व येता. उदा: धर्म:=धम्मोऽ; आत्मा=अत्ता; रात्री=रत्ती; शुष्कम्=सुक्खं=सुकें, सुकिल्लें. हांचो प्रयोग दाखोवपा खातीर बुद्धदेवाची कांय

1. पाणिनीकालीन भारतवर्ष (हिंदी) पा. 473 श्री. वासुदेवशरण अग्रवाल

वचनां फुडें दिल्यांत:-

1. नहि वेरेन वेरानि संमंतीथ कुदाचनम।
अवेरेन च संमंति येस धम्मो सनातनो।।

संस्कृत:- न हि वैरेण वैराणि शाम्यंतीह कदाचन।
अवैरेण च शाम्यंति येष धर्म: सनातन:।।

अर्थ: वैरान वैर केन्नाच न्हिवचें ना. (वैराक प्रती वैर करून) वैर करिनासतना तें न्हिवता. होच आदीं सावन चलत आयिल्लो नेम.

2. इध मोदली पेच्च मोदती कतपुंज्ञे उभयत मोदति।
सो मोदती सो पमोदती दिस्वा कम्मविसुद्धिं अत्तनो।।

संस्कृत: इहमोदते प्रेत्य मोदते कृतपुण्य उभयत्र मोदते।
स मोदते स प्रमोदते दृष्टवा कर्मविशुद्धिमात्मन:।।

अर्थ: इह लोकांतय आनंदी जाता. परलोकांतय आनंदीत जाता. पुण्य केल्लो मनीस दोनयकडें आनंदीत जाता. तो आपणाल्या कर्माची विशुद्धता पळोवन आनंदीतूच जात इतलेंच न्ही तर परमानंद भोगता.

3. अप्पमादो अमतपदं तमादो मच्चुनो पदं।।
अप्पमत्ता न मीयती ये: पमत्ता यथा मता।।

संस्कृत: अप्रमादोऽ मृतपदं प्रमादो मृत्यो: पदम्।
अप्रमत्ता न म्रियंते येऽ प्रमत्ता यथामृत:।।

अर्थ: (आचरणांत) जागरूकताय वगडावप ना म्हणल्यार सदांकाळ जागरूक आसप हें अमर पदाक कारण थारता आनी आचरणांत जागरूकताय वगडायिल्ल्याक जनन-मरणाचो फेरो चुकना. जाणें जागरूकताय इबाडून घेतिल्ली ना तो मरचो ना. जो कोण जागरूकताय वगडायता तो मेल्ले वरीच आसता. म्हणल्यार मरण हें निश्चीत:

बुद्धदेवाच्या वचनांनी परस्मैपद प्रत्ययांचे कर्तृर्थांत आनी आत्मने पदप्रत्ययाचे कर्मार्थांत प्रयोग जाल्ले आसात. तेच खातीर आत्मनेपदाच्या वर्गांतले मृ=मरप आनी मुद्=आनंदीत जावप हे धातू-परस्मैपदांत प्रयोगांत आयल्यात.

आमकां आयज मेळपी प्राकृत विभेदांनी बुद्धदेवाच्या प्रवचनांची भाशा हीच

यल्यांत पयली प्राकृत भाशा अशें दिसता. चक्रवर्ती अशोकाच्या काळांत ती ाशा चलताली आनी ते भाशेंत कांय बदल जाल्ले अशें ताच्या शीलालेखांतल्या ेखनांतल्यान दिसून येता. ताच्या कांय शीलालेखांनी देखीक भाब्रू, रुपनाथ अशा ळांनी मेळिल्ल्या शीलालेखांनी मागधी भाशेचीं लक्षणां दिसून आयिल्ल्यान ताच्या ाळांत बुद्धदेवाच्या प्रवचनांची भाशा ही एकूच न्हय तर मागधीय बी घोळणुकेंत ाशिल्ली हें सिद्ध जाता. बुद्धदेवाच्या प्रवचनांनी 'ओ'-कारान्त आसपी शब्द 'ए'-ारान्त, 'र'-कार आशिल्ले 'ल'-कार आनी 'त'-कार आशिल्ले 'ट'-कार अशे रेन बदलप हें मागधी भाशेचें मुख्य लक्षण.

आदीं उल्लेख जाल्ल्या बुद्धदेवाच्या वचनांनी धम्मो, पमादो, सो अशे शब्द प्रथमा विभक्तींत एकवचनी जावन 'ओ'कारान्ती जाल्यात, तेच संस्कृतांत 'अ'कारान्त नामां आसतात ही गजाल लक्षांत दवरपाक जाय. कारण अशें की संस्कृतांतल्या अकारान्त नामांचो 'ओ'-कारान्त प्रयोग कोंकणींतच आसा मराठींत ना हाचे वयल्यान कोंकणी भाशा मराठी परस प्राचीन म्हणपाचें पयल्यान पयलें प्रमाण थारता. वा आदीं पळयिल्ल्या वचनांनी येवपी 'सोऽ=तो' हें सर्वनाम 'तोऽ' अशें जावन बदलता म्हणपाचेंय बी ध्यानांत घेवंक जाय. कोंकणींतल्या शब्दांच्या शेवटाचे दीर्घ स्वर इल्ले (संवृत जावन) आखूड जावन (वा दीर्घताय उणी जावन) उच्चारप जाता हेंय बी हांगा लक्षांत दवरपाक जाय. हांगा मुखार देखी खातीर अशोक चक्रवर्तीच्या दोन शीला लेखांच्यो (फातरपट्यांच्यो) मुळाव्यो (अस्सल) नकलो (प्रती) दिल्यात. तातूंतल्या पयल्यांतली भाशा प्रवचनांनी प्रयोग जाल्ली प्राकृत भाशा - तो फातरपटो (बंडेकल्लू) कांतयिल्ल्या 14 फातरपट्यां मदलो एक आनी पश्चीम गुजरातांत गिरनार दोंगराच्या मुळसांतल्या पाशाणी खडपांत कांतयिल्लो मेळटा. दुसरो आसा तो मागधी भाशेंत आसून मेरठांत आशिल्ल्या एका शीलास्तंभांत कांतायिल्लो आशिल्लो. अकबर बादशहाच्या काळांत तो स्तंभ. तातूंतलें बरप वाचून घेवपाक उखलून दिल्लींत हाडिल्लो.

1. "इयं धम्मलिपी देवानं पियेन पियदसिनाराज्ञा लेखापिता; इध न किंचि जीवं आरभित्पा प्रजूहितव्यं न समाजो कतव्योऽ. बहुकं दोसं समाजम्ही पसती देवानं पियो पियदसि राजा. अस्तिपितु एकचा समाजा साधुमता देवानं पियस पियदसिनो राज्ञो; पुरा महानसम्ही देवानं पियस पियदसिनो राज्ञो अनुदिवसं बहूनि प्राणसतसहस्त्रानि आरभिसु सूपाथाय; से अज यदा अयं धम्मलिपी लिखिता ती येव प्राणा आरभिरे सूपाथाय; द्वो मोऽरा; एकोऽ मगोऽ; सोऽपि मगोऽ न धुवोऽ;

येऽते पि पाणा पच्छा न आरभिरे''. (ऽ- दीर्घ स्वर दाखोवपी कुरू.)

अर्थ: हो धर्मलेख देवतांक प्रिय जाल्ल्या राजान बरोवन घेतला. (म्हणल्या हांगा (=अशोकाच्या राज्यांत) खंयच्याय प्राण्याक बळी दिवन यज्ञ चलोवं फावना आनी समाजाक मांसाहारी जेवणावळी दिवंक फावना. कारण अशें व देवतांक प्रिय आशिल्ल्या प्रियदर्शी राजाक तसल्या समाजां भितर खूब दो (पाप) दिसतालें. तरी पूण जायते लोक देवतांक प्रिय आशिल्ल्या प्रियद राजाचेर खोशी आशिल्ले अशें दिसता. पयलीं देवतांक प्रिय अशा प्रियद राजाचे पाकसाळेंत दर दिसा पक्वान्नाच्या सुवादीक जेवणा खातीर लाखां प्राण्यांची हत्या जाताली. तें आतां हो लेख बरयता आसतना फकत तीन प्राण मारूंक लागल्यात - दोन मोर आनी एक हरण. हरण मारतातच अशें निश्ची सांगूं नजो. हे तीन प्राणी हाचे फुडें मारचे नात..

ह्या शीलालेखा वयल्यान बुद्धदेवाच्या प्रवचनांची आशा अशोक चक्रवर्तीच्य काळांत घोळणुकेंत आशिल्ली म्हणपाचें सिद्ध जाता. तितलेंच न्हय तर कां अंशांनी प्रवचनांचे भाशे परस ती चड स्पश्ट आशिल्ली अशें दिसता.

2. ''देवानं पियेऽ पियदसिलाजा हेवं आहाधेम्मेऽ साधु कियंचु धम्मेऽ ति? असिनवे बहुकयाने, दयादानेऽ, सचेऽ, सोऽचये; चखुदाने पि बहुविधे दिनेऽ दुपद-चतुपदेसु; पखिवालिचलेषु; विविधे मे अनुगहे कटे; आपानदखिनाये अंनानि पि च मे बहूनि कयानानि कटानि; येतायेऽ मे अठायेऽ इयं धम्मलिसि लिखापिता; हेवं अनुपटिपजंतु चिलथितिका च होऽतु ति. ये च हेऽ वं संपटि पज्ञीऽ सती सेऽसुकटं कछति ति.''

अर्थ: देवतांक प्रिय जाल्लो प्रियदर्शी राजा अशें म्हणटा- धर्म हो बरें करता. धर्म म्हणल्यार कितें? हत्या करपा ना. कल्याणकारी अशीं चडांत चड कामां करप. दया, दान सत्य आनी नितळसाण (हे गूण आचरणांत हाडप) द्विपद, चतुष्पद, पक्षी, वारिचर (उदकांतले) असल्या सगळ्या प्राण्याक हांवें आपलेपण दाखयलां. प्राण पणाक लावन हेर अनेक कल्याणकारी कामां केल्यांत (लोकांनीय बी अशे तरेचें आचरण करचें) हें चिरस्थायी जावं ह्या उद्देशान हो धर्मलेख बरावेन घेतला. जे कोण अशे तरेन आचरण करतले तांच्या वांट्याक पुण्य येतलें.

ह्या शीलालेखांतली मागधी आरंभीक स्थितींतच आसा, पूर्ण विकसीत जाल्ली

1. पयल्या लेखांत ओ-कारान्त आशिल्ले धम्मो, पियो असले शब्द धम्मे, पिये अशे ए-कारान्त जातात. तशेच राजा, वारिचर अशा शब्दांतले 'र'-कार आसात 'ल'-कार जावन लाजा, वालिचल अशे तरेन बदल्ल्यात. भूतकाळी कृदन्तांतले 'त'-कार आशिल्ले 'ट'-कार जाल्यात. देखीक- अनुगहो, कतो आसात ते अनुगहे, कटे जाल्यात. सुकतं आशिल्लो सुकटं जाला.

पयल्या लेखांत संस्कृतांतली 'अ'-कारान्त पुल्लिंगी नामां, तांकां संबंदीत विशेशणां 'ओ'-कारान्त आसात. देखीक- समाजाचो, कतव्यो; एकोमगो सो पिन ध्रुवो अशे. तशेच नपुंसक लिंगांतलो 'तत' शब्द 'से' जाला. हो उपरांत कोंकणींत 'तें' जावन बदलून येता. सर्वनामाचो तृतीय पुरुशाचो 'तो' आनी 'तें' हीं रुपां कोंकणींत आनी कोंकणींतल्यान जल्मल्ले मराठींत सोडून हेर खंयचेच प्राकृत भाशेंत ना. तशेंच कोंकणींत 'तो' आसा तशेंच 'हो' हेंय सर्वनाम आसा. पूण मराठींत कोंकणींतलें 'हो' हें सर्वनाम 'हा' जालां आनी 'तो' तशेंच उरलां. हाचे वयल्यानय- कोंकणी ही मराठी परस प्राचीन म्हणपाचें सिद्ध जाता.

2. आचार्य वररुची: हाचो खरो काळ जावं तो कोण आशिल्लो हाचे विशीं आयज मेरेन सारकी म्हायती मेळिल्ली ना. वररुची ह्या नांवाचेर आदारून तकली बूडनाशिल्ल्यो अनेक कथा प्रचलीत आसात. कशेंय आसलें तरी हाच्या नांवान उजवाडा आयिल्लो ''प्राकृत प्रकाश' नांवाचो व्याकरण ग्रंथ क्रि.श. चवथ्या शेंकड्यांत रचून जाल्लो आसतलो असो अदमास केल्लो आसा. हातूंतलीं सगळीं सुत्रां आचार्य पाणिनीच्या अष्टाध्यायी सुत्रांचो आदार घेवन रचल्यांत. प्राकृत प्रकाश हो ग्रंथ आचार्य कात्यायनाच्या सुसंधीकल्पा इतलो - परिपूर्ण, व्यापक असो बी जाल्लो ना. सव्या शतमानांतलो आनी काव्यालंकार नांवाचो ग्रंथ रचून प्रख्यात जाल्ल्या भामह नांवाच्या काश्मिरी पंडितान प्राकृत प्रकाशांतल्या सुत्रांचेर टिका व्याख्यानां बरयल्यांत.

प्राकृत प्रकाश ह्या ग्रंथांत बारा विभाग आसात. पयल्या णव विभागांनी 'प्राकृत ह्या विभेदाचे नेम' आसून धाव्या भितर 'पैशाची' इकराव्या भागांत 'मागधी' आनी निमाण्या बाराव्या भागांत 'शौरसेनी' ह्या विभेदाचे नेम मेळटात. पूण पैशाची आनी मागधी हे विभेद आसात त्या भागांत दुसरें सूत्र प्राकृति शौरसेनी ।।2।। अशें म्हणटा. म्हणल्यार त्या विभेदांचें मूळ शौरसेनी भाशा अशें तें सूत्र म्हणटा. ताचो अर्थ संस्कृतांतल्यान रुपांतरीत जाल्ले शौरसेनींतल्यान परिवर्तीत जाल्ले शब्द - पैशाची आनी मागधी

परिच्छेदांनी सांगिल्ल्या नेमांक अणसरून पैशाची वा मागधी रुपां घडटात. अ
आशिल्ल्यान पैशाची आनी मागधी हांचे नेम येवचे पयलीं शौरसेनीचे नेम येवपा
जाय आशिल्ले. अशें नासतना शौरसेनी परिच्छेद निमाणे कडेन आशिल्लो ध्याना
घेतलो जाल्यार कोणें तरी उद्देशपूर्वक ते परिच्छेद आरते परते केल्यात म्हणल्य
सत सांगचें पडटा; कारण शौरसेनीचे नेम सांगचे पयलीं ते भाशेंतल्यान जल्मल्ल
पैशाची आनी मागधीचे नेम सांगप म्हणल्यार बापूय जल्मुचे पयलीं पूत जल्मलो अ
म्हणिल्ले वरी जाता.

प्राकृत भाशांनी विकास साधलो ती रीत सारकी समजून घेतली जाल्यार क्रि
शकाच्या चवथ्या शेंकड्यांत प्राकृत हो भेद वेवस्थीत एक रूप घेवंक पाविल्लो अ
म्हणपाक जावचें ना. इतलेंच न्हय तर प्राकृत प्रकाशाच्या पयल्या भागाचो आरंभ
बी योग्य क्रमान जाल्लो ना. म्हणल्यार खंयचे भाशेचे नेम सांगपाचे आसात ति
नांव सांगनासतनाच ग्रंथाचो आरंभ जाल्लो आसा. नांदी श्लोकांत 'प्राकृत' अस
शब्द आसूनय तो सूत्र रुपान मांडिल्लो ना. 'शौरसेनी' विभाग 'शौरसेनी ।।1।।' अश
सुरवात जावन 'प्रकृतिः संस्कृत् ।।2।। म्हणल्यार मूळ संस्कृत अशें म्हणून क्रमांव
नेम दिल्यात. आचार्य हेमचंद्रान आपणालो प्राकृत अध्याय अथ प्राकृतम् ।।1।। अ
म्हणून सुरू केला. पूण प्राकृत प्रकाशांत तसली कसलीच सुचोवणी करिनासतन
आदेरतः ।।1।। अशें म्हणून सूत्र सांगिल्लें असा. खरेपणीं ते भाग शौरसेनी, मागध
आनी पैशाची अशा क्रमान आसूंक फावो आशिल्ले आनी हेमचंद्राच्या व्याकरणां
ते विभाग त्याच क्रमान आयल्यात.

वररुचीचें व्याकरण 'प्राकृत' हो विभेद घोळणुकेंत येवचे पयलीं रचिल्लें आसपाव
जाय. उपरांत ताचेर टिका बरोवपी पंडित भामहान आपणाल्या काळांत घोळणुकें
आशिल्ल्या कांय परिवर्तीत प्रकारां विशीं थोडीं सुत्रां तातूंत समाविशट करून ताक
प्राकृत अशें नांव दिलें आसतलें. पूण ताणें तातूंतलीं प्रकरणां फाटीं फुडें केलीं आसपाचो
संभव ना. मागधी भाशा शौरसेनींतल्यानच रुपांतरीत जावन घडल्या अशें कळिल्ल्या
कारणान चक्रवर्ती अशोकाच्या काळांत शौरसेनी घोळणुकेंत आयली आसतली अशें
दिसता. शौरसेनी आनी प्रवचनांची भाशा हांचे मदलो मुख्य भेद म्हणटात तो; दुसऱ्या
व्यंजनांक जोडून ना तो 'त' आनी शब्दाचे सुरवातेक ना तो 'त'-कार 'द'कारांत
परिवर्तीत जाता. दुसरें म्हणल्यार क, ग, च, ज, प, य हीं व्यंजनां गळटात (लोप
पावतात) आनी ताचो स्वर मात तसोच उरता. जंय 'ट' आसता तो 'ड' जाता.

खीक: प्रवचनांचे भाशेंत 'घोटको गच्दती' आसत जाल्यार तें शौरसेनी भाशेंत घोडओ गच्छदी' अशें जाता.

प्राकृत प्रकाशांत प्राकृत हो विभेद घालपी भामह हो पंडीत आसपाक शकता अशें मानलें तरी तातूंतले विभाग फाटीं फुडें करपी तो न्हय. तो कोण तरी अर्वाचीन महाराष्ट्री पंडीत आसपाक जाय अशें म्हणचें पडटा. कारण अशें की ताका आपणाली मातृभाशा आशिल्ली महाराष्ट्री ही खूब प्राचीन म्हणपाचो अभिप्राय सिद्ध करपाचो आशिल्लो. ते खातीर ताणें प्राकृत प्रकाशांतले विभाग फुडें फाटीं करून शौरसेनी विभागाच्या शेवटाक "शेषं महाराष्ट्रीवत" अशा उतरांनी एक सूत्र जोडलां आनी "अनुक्तंकार्यं महाराष्ट्रीवज् ज्ञेयम्" अशें म्हणून "महाराष्ट्री पदेनात्र प्राकृतस्य ग्रहणं बोध्यम्" अशें म्हणून टिका बरयल्या. म्हणल्यार 'बाकी बसळें महाराष्ट्री सारकें' हें म्हणपाचें तात्पर्य ह्या विभागांत जे नेम आसपावन घेवंक नात ते नेम महाराष्ट्रीच्या नेमा वरींच आसात हें समजुक जाय आनी 'महाराष्ट्री म्हणल्यार प्राकृत ही गजाल कळपा सारकी' अशें ताणें म्हणिल्लें आसा.

प्राकृत प्रकाशांत सुरवातेक खंयच 'महाराष्ट्र' वा 'महाराष्ट्री' अशे शब्द येनासतना निमाणे कडेन आकस्मीकपणान 'महाराष्ट्रीवत्' हो शब्द येता. प्राकृत प्रकाशांत आरंभाक भामहाक जाचें श्रय फावो जाल्लें आसा त्या नांदी श्लोकांत, तशेंच महाराष्ट्रीवत म्हणल्यार सुत्रांतले टिके भितर सोडल्यार हेर खंयच 'प्राकृत' हो शब्द मेळना ही वस्तुस्थिती पळयल्यार ते दोनय शब्द वररुचीच्या उपरांतच्या व्यक्तींनी ताच्या ग्रंथांत घाल्यात अशें म्हणचें पडटा आनी प्राकृत प्रकाशांत 'महाराष्ट्रीवत्' हें सुत्र घालपी व्यक्तीनच तातूंतले विभाग फुडें फाटीं केल्यांत ही गजालय ध्यानांत घेवपाक जाय. नाजाल्यार खंयचीय एक भाशा घोळणुकेंत येवन थिरताय मेळोवन मागीर खूब काळा उपरांत ते भाशेचे नेम समजून करून व्याकरण ग्रंथ रचतात म्हणपाचें तथ्य ग्रहीत धरलें जाल्यार, वररुचीच्या काळांत घोळणुकेंत आशिल्ले शौरसेनींत कांय परिवर्तनां जाल्लीं दिसून आयलीं आसलीं तरी प्राकृत हें नांव फावो जाल्लो विभेद स्पश्ट रितीन घोळणुकेंत येवंक शकलो ना आसतलो. ते खातीर वररुचीच्या मूळ ग्रंथांत शौरसेनी, मागधी आनी पैशाची अशे तिनूच विभाग आशिल्ले आसुंये. ते भायर प्राकृत हो विभाग आसप शक्य ना. हाचो अर्थ सव्या शेंकड्यांतलो पंडित भामह हाणें पांचव्या शेंकड्यांत - राजा प्रवरसेनान रचिल्ल्या 'दशमुख वध काव्य' वा 'सेतुबंध' तशेंच हेर नाटकांचे प्रयोग अशा सगळ्यांचो बारीकसाणेन अभ्यास केले उपरांत, त्या प्रयोगांच्या

आदारान नवीं सुत्रां रचून - 'प्राकृत' नांवाच्या वररुचीन रचिल्ल्या ग्रंथांत तीं समा
केलीं हें समजत जाल्यार ती चूक थारची ना.

तशेच तरेन 'शेषम् महाराष्ट्रीवत्' हें सूत्र तेराव्या शेंकड्या आदीं 'प्राकृत प्रकाश
समाविश्ट जालें आसत ही शक्यताय ना. हाचें कारण म्हणल्यार बाराव्या शेंकड्यां
गुजरातचो निवासी आशिल्लो आचार्य हेमचंद्र हाणें आपणाल्या व्याकरणांत मह
।।8-1-69।। आनी महाराष्ट्री हरो ।।8-2-119।। अशें म्हणून महाराष्ट्र शब्दाचो
फावटीं उल्लेख करूनय बी ताणें महाराष्ट्री हो शब्द व्याकरणांत वापरूंक ना. म्हणल
ताच्या काळांत 'प्राकृत' हो विभेद 'महाराष्ट्री' ह्या नांवान परिचीत आशिल्लो. जाल
व्याकरणाचार्य आशिल्लो तो मनीस 'महाराष्ट्री' शब्दाचो आपणाल्या व्याकरण
उल्लेख करिनासतना रावचो नाशिल्लो. हेमचंद्राच्या प्राकृताचेर इंग्लिशींत टिप
बरोवपी डॉ. पी. एल. वैद्य नांवाच्या मराठी मनशान आपणाल्या बरपांत 'प्राकृता
साबार फावटीं 'महाराष्ट्री' अशें म्हणलें तरी मुळांत 'महाराष्ट्री' हो शब्दप्रयोग हेमचंद्राच
ग्रंथांत जाल्लो ना. ताका ताणें इल्लेंय म्हत्व दिवंक ना.

3. आचार्य सिद्ध हेमचंद्रसूरी: म्हान विद्वान आशिल्लो हो जैन साधू. शक 101
धरून 1094 मेरेनच्या काळांत जावन गेलो. गुर्जर देशाचेर राज्य करपी चालुक्य रा
जयसिंहाच्या दरबारांत तो कवी आनी जाणकार पंडित म्हूण सन्मान्य आशिल्ल
ताणें रचिल्ले चार ग्रंथ अशे आसात: 1. व्द्याश्रय महाकाव्य 2. अभिधान चिंताम
3. अनेकार्थ संग्रह आनी 4. सिद्धहेम-शब्दानुशासन हे ग्रंथ अजून मेळटात. ता
रचिल्लो सिद्ध हेमशब्दानु-शासन नांवाचो ग्रंथ म्हणल्यार संस्कृतांतलें व्याकरण आस
तातूंतलो आठवो अध्याय हो ताच्या नांवान प्रख्यात आशिल्लें प्राकृताचें व्याकरण. त
आठव्या अध्यायांत चार विभाग आसात आनी तातूंत मागीर 1. प्राकृत 2. शौरसे
3. मागधी 4. पैशाची 5. चलिका पैशाची आनी 6. अपभ्रंश अशे प्राकृताचे स उ
विभाग विस्तारान विसकावन मांडल्यात आनी 'आर्षम्' नांवान अर्धमागधीच्या संबंदा
मदीं मदीं अस्पश्टपणान कांय सुचोवण्यो दिल्यात. तातूंत अपभ्रंश विभेदांतल्यो कां
सुंदर कविता देखींच्या रुपान आयल्यात. वयल्या विभेदांनी दिल्ल्या खंयच्याय एखाद
नेमांत बसनात तसलीं अनेक प्रकारांचीं शब्दरुपां अपभ्रंश ह्या विभागांत आयल्यांत
ते खातीर भारतवर्षांत घोळणुकेंत आसपी सगळ्या प्राकृत विभेदांतले एक दोन शब
अपभ्रंश विभागांत मेळटात. अशे आसूनय अपभ्रंश विभागांत प्राचीन हिंदी भाशेच
शब्दरुपां सगळ्यांत चड संख्येन आसात.

संस्कृतांतल्यान रुपांतरीत जावन निर्माण जाल्ली पयल्यान पयली प्राकृत ही द्धदेवाच्या प्रवचनांची भाशा आशिल्ल्या कारणान, तातूंतलीं रुपांतरां शौरसेनींतय ासात. देखून आदीं दिल्यांत त्या रुपांतरांचे नेम सोडून - शौरसेनींत आनी नव्या ाकृतांत वा कांय जाण महाराष्ट्री प्राकृत अशें म्हणटात त्या विभेदांत येवपी फकत ाशिश्ट रुपांतरांचें विवरण हांगा दिलां.

1. शब्दाचे सुरवातेक आसपी आनी भिन्नवर्गाच्या व्यंजना वांगडा जोडिल्लो ासपी सोडून हेर जाग्यांचेर आसपी 'त'-कार, 'द'-कारांत रुपांतरीत जाता. 'ट' ानी 'ठ' हे 'ड' आनी 'ढ' जातात.

देखीक: मारुती=मारुदी; गच्छती=गच्छदी; (वता)
महान्त=महंद (व्हडलो); निश्चीन्त=निश्चिन्द
अटती=अटदी (हेडप); पठती=पढदी (वाचता)

2. 'र्य' आसता तो 'य्य' नाजाल्यार 'ज्ज' जाता.

देखीक: आर्य:=अज्जो; आर्यपुत्र:=अय्यउत्तो;
कार्यम्=कज्जं.

3. खूबशा शब्दांतलीं क, ग, च, ज, त, द, प, य हीं व्यंजनां लोप जावन तातूंतले कत स्वर उरतात. हें नव्या प्राकृताचें मुख्य लक्षण.

देखीक: संस्कृत-गत:=शौरसेनी=गदो=नवी
प्राकृत=गओ वा गयो; सागर:=साअरो
वा सायरो (दर्या); वचनम्=वअणं=बोली वा भाशा

4. 'न' आसता तो 'ण' जाता.

देखीक: नयनम्=णयणं (दोळे); नट:=णडो.

5. 'य' आसता तो 'ज' जाता.

देखीक: यम=जमो; यमुना=जमुणा.

6. 'थ' आसता तो 'ह' वा 'ध' जाता.

देखीक: भवति=होदी वा भोदी.

8. ख, घ, थ, ध, भ हांचे बदलाक 'ह' येता.

देखीक: नख=णह (नाखूट); मेघ:मेह (कूप, ढग); कथा=कहा; बधि:=बहि (भेरो); नभ=(मळब).

9. शौरसेनीचो पूर्वकालीक कृदन्त क्रियेक 'ता', 'दूण' वा 'इय' लागून जाता.

देखीक: भू=(घडप, जावप) हाचो कृदन्त-भविष्य वा भोत्ता वा भोदूण असो जात

पठ= वाचप हाचो कृदन्त पढिय-पढिदूण-पढित्ता-(वाचून वा वाचले उपरांत)

10. 'कृ'=करप आनी गम्=वचप धातूंचे पूर्वकालीक कृदन्त वररुचीच्या प्राकृ प्रकाशांतल्या वैकल्पीक नेमा प्रमाण (12-18) 'कटुअ' आनी 'गदुअ' असो जाता हेमचंद्राच्या सुत्रा प्रमाण (8-4-172) 'कडुअ' आनी 'गडुअ' असो जाता. नाजाल्या वयर आयला त्या णव्व्या नेमा प्रमाण 'करिदूण' आनी 'गच्छिदूण' अशें जाता.

11. नव्या प्राकृतांतलो पूर्वकालीन कृदन्त वररुचीच्या नेमा प्रमाण क्रियेक 'ऊण जोडून घडटा.

देखीक: 'घेऊण'=घेवन; काऊण=करुन; दाऊण=दिवन आदीं. हेमचंद्राच्या सुत्र प्रमाण 'ऊण' इतलें न्हय तर 'तूण' आनी 'आण' एकठांय येतात.

देखीक: घेतूण; भेत्तूण वा भेत्तुआण=भेतून (दोन अर्दां करप).

12. शब्दांतले 'द'कार एकेक फावट 'ल'कार जातात.

देखीक: दोहदः=दोहलो (दुबाळो); आद्रम[1]=ओदं वा ओल्लं (हट्टी, चिंवट)[2] अद्दं वा आल्लं=आलें हांचे भायर अपभ्रंश विभेदांत मुखार दिल्लीं कांय खाशेलपणां आसात.

1. 'अ'कारान्त नामां पुल्लिंग आनी नपुंसकलिंगी भेद नासतना प्रथमा विभक्तीच्या एकवचनांत 'उ'कारान्त आसतात. पोरणे हिंदींत हो नेम चलतालो. संत तुलसीदासान आपणाल्या रामचरित मानसांत असले प्रयोग खूब फावटीं केल्यात. दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतले सारस्वत ब्राह्मण उलयतात ते कोंकणींत फकत पुल्लिंग शब्द उकारान्त जातात.

2. वर्तमान कालीक क्रियापदां सामान्यपणान नव्या प्राकृता वरींच जातात आसलीं तरी कांय संदर्भांनी 1) 'उ'; हूं 2) ही, हू 3) 'हिं' प्रत्ययांनी सोंपतात.

3. भूतकालीक कृदंत नव प्राकृता वरींच जातात आसले तरी ते ओकारान्त ासनासतना एकवचनांत उकारान्त जावन भौववचनांत आकारान्त आसतात.

4. पूर्वकालीक कृदन्त- इ, प्पी, प्पिंणू आदी प्रत्यय घेवन सोंपतात.

देखीक: करि= करात, करून; मेल्लवी=सोडून; लाइवी=चिकटप; संबंद जोडप; ार्प्पी ब्रोप्पिणु=उलोवन आदीं.

प्राचीन संस्कृत कवींनी आपणें रचिल्ल्या नाटकांनी साबार तरांचीं प्राकृत प्रकारांतलीं तरां वापरल्यांत. तांणी गद्यांत शौरसेनी आनी पद्यांत नव प्राकृतांतलीं उतरां (शब्द) ापरल्यांत. संस्कृत नाटकांनी उच्च वर्गातलीं स्त्री पात्रां, विदुशक, द्वारपाल, प्रतिहारी ादी पात्रां शौरसेनींत उलयतात. भुरगीं, सेवक आनी सकयल्या वर्गातलीं मनशां ागधींत उलयतात. चडच सकयल्या वर्गातलीं मनशां पैशाची उलयतात. महाकवी ाूद्रकान आपणाल्या मृच्छकटीक नाटकांत कांय पात्रांक अवंती, ढक्क आनी चांडाली ाशा उलोवंक लायल्यांत. शौरसेनी आनी नव प्राकृत हांचें मिश्रण म्हणल्यारच अवंती ाशा अशें कांय भाशा तज्ञांचें मत आसा. अपभ्रंश हो भेद खूब अर्वाचीन. अशें आसूनय, कोणें एकट्यान महाकवी कालिदासाच्या विक्रमोर्वशीय नाटकांत - अपभ्रंश ाश घुसयल्या. हांगा मुखार महाकवी जावन गेल्ले भास, कालिदास, राजा शूद्रक आनी भवभूती हांच्या नाटकांतलीं एक दोन उदाहरणां दिवं येत:-

भास कवीच्या स्वप्नवासवदत्ता नाटकांत विदुषकाचो उद्गार हो - ‘‘कहिं, वासवदत्ता?’’ (कन्नडांत- वासवदत्तेयु, एल्ली) हें शुद्ध कोंकणी जालें. कहिं=खंय (-खईं-द. कन्नड कोंकणी) हो शब्द फकत कोंकणींत आसा मराठींत ना. मराठींत कुठं’ (कुठें) हें रूप आसा.

वासवदत्ता- ‘‘गदा येसा; अहो अच्चाहिदं; अय्यउत्तो परकेरओ संवुत्तो; अविदा ाय्याए मम दुक्खं विणोदेमि यदिणिद्दंळभामि. अर्थ- आरेरे, अप्रीय घडलें; आर्यपुत्र ारकी जालो. अय्यो (हाय देवा) म्हजें हें दुख्ख न्हीद आयल्यार हांतरुणांत पडून तरी विसरतां. (तिसऱ्या अंकांत शेवटाक)

ह्या अंशांत ‘‘अय्यउत्तो परकीरओ संवुत्तो’’ हो प्रथमा विभक्तींतलो एकवचनी प्रयोग जाला. आनी तो संस्कृतांतल्या ‘‘आर्यपुत्रः परकीयः संवृत्तः’’ ह्या शब्दांचें शौरसेनी रूपांतर जाल्लें आसा. ‘आर्यपुत्रः’ हो विशेष्य जावन हेर दोन शब्द ताचीं विशेशणां

जाल्यांत. म्हणल्यर ते तिनूय शब्द प्रथमा विभक्तीच्या एकवचनांत आसात. आन
तिनूय शब्द ओकारान्त आसात.

महाकवी कालिदासाच्या अभिज्ञान शाकुंतल नाटकांतलीं कांय उदाहरणां मुखा
दिल्यांत:

नटी: ''अज्जउत्त इयं म्ही! आणवेदु अज्जो कोणिओओ अणुचिट्ठीअदुत्ती।।''

अर्थ: ओऽल आयलें आयलें आर्यपुत्र! कसलें काम म्हजेर सोंपोवंक सोदता
आर्यपुत्र, आज्ञा करात; हातूंत क:=को=खंयचें वा कसलें; नियोग=निओओ =कार्य
आर्य:=अज्जो हे शब्द पुल्लिंग आसून प्रथमा विभक्तींत एकवचनांत आसात आनी तें
ओ-कारान्त. हो वांटो शौरसेनींत आसा. नटी म्हणटा तें फुडलें पद्य नव प्राकृत वा
कांय जाणांनी म्हणलां तशें महाराष्ट्रींत आसा:

इसी धुंबियाइं भमरेहिं सुउमारदर केसरसीहाइं।
ओऽदंसयंति दयमाणापमदाओ सिरीऽसकुसुमाइं।।

अर्थ: शिरीशाच्या फुलांच्या भोव कोमल केसरशिखांचे भंवरांनी मात्शे उमे घेतल्यार (भंवरांनी चोखून वा तांचे उमे घेवन तांकां घावे जातात अशा अर्थान) काकुळटेन प्रमोद तीं फुलां खुडून कानांक लावन घेतात.

ह्या भागांत संस्कृतांतलो प्रमदा:=यौवना हें स्त्रीलिंगी नाम शब्द प्राकृताच्या प्रथमा विभक्तीच्या बहुवचनांत 'पमदाओ' असो ओ-कारान्त आसा. तो कोंकणींत 'प्रमदोऽ' रुपान परिवर्तीत जाता. मराठींत तशें जावचें ना; आनी प्राकृतांतले 'कुसुमाइं' हें रूप आतांचे कोंकणींत 'कुसुमांऽ' अशें उच्चारतात. (हांगा 'मां' अक्षराचो दीर्घ उच्चार) पूण दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतले सारस्वत ब्राह्मण तो शब्द 'कुसुमेंऽ' असो आखूड वा धांपिल्ले तरेन उच्चारतात. मराठींतलो उच्चारय तसोच जाता. पूण बरोवपांत मात 'कुसुमें' अशें रूप वापरतात. कोंकणी आनी मराठी शब्दांचें अंताक येवपी अनुस्वाराचो उच्चार 'अम्' असो आसना. तो उच्चारतना तोंड उगडून नाकांतल्यान उच्चार करचो पडटा म्हणपाचें वाचकांक कळ्ळांच आसतलें.

शकुंतला:- ''ण केवलं तादणिओओ एव्व; अत्थीमे सोदरसणेहो येदेसु''

अर्थ: बापायन नेमून दिल्लें काम अशें म्हणून न्हय; म्हाका हातूंत बंधुत्वाचीय

ोड आसा. ह्या अंशांत 'नियोग:=णिओओ; स्नेह=सणे हो अशे पुल्लिंगी शब्द ओ'-कारान्त आसात.

महाकवी कालिदासाच्या यमालविकागने मित्र' ह्या नाटकांत मालविका उलयता उलोवणे मुखार दिलां:

''अअंसो ललिअदोहलापेक्खी अग्गहीद कुसुमणे हत्थे उक्कंठिदाये मह अणुकरेदि पसोओ''

अर्थ: खुशालभरीत दुवाळ्याचें गर्भार अशोकाचें झाड फुलांचें वस्त्र परिधान करिनासतना (प्रियदर्शनोत्सूक) उत्कंठीत जावन म्हजें अनुकरण केल्ले वरी उबें आसा.

वयल्या ह्या अंशांत संस्कृतांतली 'अ'कारान्त नामां स:, अशोक: आदी शब्द-सो, असोओ अशीं ओ-कारान्त आसात. दोहद शब्दांतलें 'ढ'-कार, 'ल'-कार जातात. 'नेपथ्य' शब्दांतलो 'प'-कार 'नेहत्थो' अशें- 'ह'-कारी रुपांत बदलता. हीं परिवर्तनां आदीं सांगला तो 8-वो नेम कोंकणींत जायत्या परिवर्तनांक कारण थारता.

प्राचीन काळांत ब्राह्मी वर्ण 'गेरे' मारूनच (काडून) नांवारुपाक येताले देखून 'गेरे' मारप अशा अर्था 'रिख' वा विरिख म्हणली क्रिया चलणुकेंत आशिल्ली. तेच खातीर ते क्रियेचें नांव आनी रूप दाखोवन दिवपी 'रेखा' ह्या शब्दाचो अर्थ 'गेरे' अशें मानप जालां. उपरांत ती क्रिया अक्षरां काडप ह्या अर्थान वापरूंक लागले. तीच मागीर 'विरेख' ह्या उतरांत परिवर्तीत जालीं आनी कोंकणींत येतासतना 'वेरेह' जावन तेलुगूंत 'व्रेह' वा व्रेय जाल्लें; तें कोंकणींत 'वरेहि' जावन 'बरेहि' जालां; हाचें कोंकणी नामरूप 'बरौप' अशें आसा. पूण कांय जाण क्रियारूप 'बरेयी' वा 'बरयी' अशें म्हणून नामरूप 'बरौप' अशें वापरतात. कन्नडांतलें बरेय, बरप, बरावु, बरेहा (आखूड 'हा') आदी शब्द 'विरेख' आनी 'वेरेह' ह्याच मुळांतल्यान घडल्यात. कोंकणी 'बरैप' शब्दांतलो 'प'-कार, 'ह'-कारांतल्यान परिवर्तीत जाल्लो न्ही. तो कोंकणींतल्या भावार्थक नामाचो प्रत्यय. 'बरैप' शब्दाचें 'बरेहप' हें मूळ रूप. संस्कृतांतलो 'दोहद' शब्द शौरसेनीत दोहलो; कोंकणींत 'दुहाळो' (गोंयांत-'दुवाळो') जाता. मराठींत 'डोहाळा' जाला. तेच तरेन संस्कृतांतलो भूतकालीक कृदन्ताचो 'त' प्रत्यय शौरसेनीत 'द' जावन परिवर्तीत जाले उपरांत कोंकणींत 'ल' जावन बदलता. ताचीं उदाहरणां अशीं:

| संस्कृत | शौरसेनी | कोंकणी | मराठी | कन्नड |
|---|---|---|---|---|
| कृतम् किदं | केलें | केलेंऽ | माडल्पदितु | |
| मृतम् मिदं | मेलें | मेलेंऽ | सत्तितु | |
| गत: गदो | गेलो | गेला | होदनु | |
| आगत: | आअदोऽ | आयलो | आला | वंदनु |

वयलें विवरण संस्कृत भाशा प्राकृत जावन कशी परिवर्तीत जाल्या ती रीत दाखोव
भायर संस्कृत ही मराठींत रुपांतरीत जावचे पयलीं शौरसेनी आनी कोंकणी अशे ल
पांवडे हुपून आयली (वा तिका येवचें पडलें) हेंय बी सिद्ध जाता.

महाकवी शूद्रकाच्या मृच्छकटीक नाटकांत शौरसेनी, प्राकृत, मागधी, ढक
आवंती आनी चांडाली अशे स प्राकृत प्रकार वापरल्यात. अशें आसूनय त्या सगळ
विभेदांनी कांय शब्द सामान्य आसतात ही गजाल लक्षांत दवरपाक जाय. त्या
भाशांचीं, दर एकेचें एक अशीं उदाहरणां मुखार दिल्यांत:-

विदूषक (शौरसेनी): ''भोऽ वअस्स! मरणादो, दालिद्दादो वा कदरं दे रोअदि
अर्थ- आरे मित्रा! तूं मरण आनी दारिद्र हातूंतलें कितें पसंत करतलो?

शकार (मागधी): ''भावे, भावे! जदा दहिभत्त लुद्धा ए मज्जा ली ए शलपलिव
होदी, तधा दाशीए धिए शलपलिवत्ते कडे'' हाची संस्कृत छाया मुखार दिल्या
''भावा, भावा! यथा दधिभक्त लुभ्धाया मार्जारिकाया: स्वरपरिवृत्तिर्भविष्यति त
दास्या: पुत्र्या स्वरपरिवृत्ति: कृता'' अर्थ- भावा, भावा! जशे तरेन धंय भाताक संवकल
माजर आपणाली वृत्ती बदलता ते तरेन दासी पुत्रेन आपणाली वृत्ती बदल्ल्या.

माथूर (ढक्क): ''अलेऽ! विप्पदीउ पादु पडिमाशुण्ण देउलु; धुत्तु जूदकरू पिप्पदो
हिं पादेहिं देउलं पविट्ठो''. हाची संस्कृत छाया अशी:- ''अरेऽ! विप्रतीपौ पा
प्रतिमाशून्यं देवकुलं, धूर्तो द्यूतकरो विप्रतीपाभ्यां पदाभ्यां देवकुलं प्रविश्ठो:'' अर्थ
आरेरे! पावलां देवालया वटेन सरपाक लागलीं. देवालयांत प्रतिमाय बी उरूंक न
(म्हणल्यार देवालयांत प्रतिमेच्या स्थानार तो प्रतिमे सारकोच उबो रावला) तो ध
द्यूतकार (जुगारी) देवालया वटेन पावलां मारीत वचून देवालयांत घुशिल्ले वरीच जात.

द्यूतकर: भट्टा! जावदेव अम्हो दद्दुरेण कलहायिदा तावदेव सो गोहो अवक्कंतो".
कृत छाया:- "भर्त:! यावदेव वयं दुर्दुरेण कलहायितास्नाव देवस पुरुषोपक्रांत:"
र्थ- धनया! बोवाळ जावन आमचे मदीं झगडें जालें तेन्ना तो मनीस पळ्ळो.

वयर येवन गेल्ल्या अंशांत 'पुरुष' शब्दा बदलाक आयिल्लो "गोहो" शब्द ग्रोवो" वा "घोवा" ह्या रुपांतल्यान कोंकणी क्रिस्तांव लोक आनी सकयल्या ांतल्या हिंदू लोकां मदीं हीं उतरां घोळटात. हीं उतरां संस्कृत 'गृह:=सहायक; कर (मानांय)' अशा शब्दांचीं प्राकृत रुपां.

वीरक (आवंती): अरेऽ रेऽ, अरे जअजअमाण-चंदणअ-मंगल-पुल्लभद्द ग्हा!- अगा, अगा जयजयमान-चंदनक-मंगलपुष्पभद्र! प्रमुखानो-

किं अच्छध वीसद्धा जो सो गोपालदारओ बद्धो ।
भेत्तूण समं वच्चइ णरवइहिअअं अ बांधणंचावि।।

संस्कृत- किं स्थ विश्रब्धा य: स गोपालदारको बद्ध:।
भित्वा समंप्रजति नरपतिहृदयंच बंधनं चापि।।

अर्थ- गोपालक बंधनातच आसा हाचेर विस्वास दवरून कित्याक मोनो जाला? ाजा कडल्यान) बंदी जावन पडिल्लो तो बंधन आनी राजाचें काळीज एकाच वेळारे तून वता.

आवंती ही भाशा शौरसेनी आनी नव प्राकृत हांच्या मिश्रणांतल्यान निर्माण जाल्या ाणपाचें आदीं सांगलांच. वयर दिल्ल्या उदाहरणांत 'अच्छध'=आसात हो शब्द ौरसेनी भाशेंतलो आसून भेत्तूण=भेतून (दोन अर्दां करून) वच्चइ=वता (तो वता) ा वचत आसा म्हणलें दोनूय प्रयोग ही नव प्राकृताची विशेशताय वा खाशेलपण. क्षिण कन्नड जिल्ल्यांत घोळणुकेंत आशिल्ली कोंकणी आवंती भाशेंतल्यानच तयार ाल्ली भाशा म्हळळी गजाल सिद्ध करपी उदाहरणां ते भाशेंत आयज मेरेन आशिल्लीं देसतात. म्हणल्यार पुर्तुगेजांनी गोंय हातासले उपरांत गोंयचे लोक स्थलांतरीत जावन क्षिण कन्नड प्रदेशांत स्थायीक जावचे आदीं आवंती भाशाच थंय घोळटाली आसपाक ााय. देखी खातीर सांगचें जाल्यार वयर दिल्ले देखींत 'भेत्तूण' हें उतर 'भेत्तून' ह्या रुपान दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत आयचे घटकेकय घोळटा. 'वच्चइ' आशिल्लें तें आदीं 'वच्चे' अशा रुपान वापरताले. आतां 'वच्ता' ह्या रुपान वापरतात. पूण तीं दोन क्रियापदां मराठींत नात. 'अच्छध' हें क्रियापद कोंकणीचें 'आस्सथ' वा 'आस्सथ'

अशा रुपांत घोळटा.

वयल्या अंशांतल्यान आवंती भाशेचो नमुनो पळयलो. कांय आचार्यांच्या अभि प्रमाण आवंती भाशा ही शौरसेनीचो पोटभेद आसून ढक्क आनी चांडाली हे माग पोटभेद.

चांडाल (चांडाली) ''ओऽ शलध अज्जा! ओऽशलध! येशेऽ चालुदत्ते''

संस्कृत- अपसरत आर्या: अपसरत । येश चारुदत्त ।

अर्थ- कुशीक सरात आर्य, कुशीक सरात: हो चारुदत्त.

दत्तकलवीलदामे गहिदे अम्हेहिं वज्झपुलिशेहिं।
दीवेऽ व्व मंदणेहे थोहं थोहं खअं जादि ।।

संस्कृत- दत्त करवीरदामो गृहीत आवाभ्यां वध्यपुरुषाभ्याम्।
दीप इव मंदस्नेह: स्तोऽकं स्तोऽकं क्षयं याति।।

अर्थ- दिल्ल्यो करवीर फुलांच्यो माळो घालून मारेकार जाल्ल्या आमी दोगांनी धरून दवरिल्लो तो तेल सोंपत पाविल्ल्या दिव्या वरी इल्लो इल्लो क्षीण जायत वा (करवीर=कणेर)

चांडाल- ''अले वज्झपालिआए लेक्खअं कलेऽम्ह''-

संस्कृत- अरे वध्यपालिकाया लेखकं कुर्म:

अर्थ- आरे, आतां वधाक फुडो करपाची पाळी कोणाची?

वयल्या अंशांत कोंकणींतलो 'लेक' (=लेक्क: लेक्काक)=गणना; मेजप आ 'पाळी' ह्या अर्थाच्या उतरांचो प्रयोग जाला. मराठींत पाळी शब्द आसा पूण 'ले शब्द ना.

आदीं देखी दिल्ले प्राकृत विभेद-नाट्य शास्त्राच्या नेमांक अणसरून वेगवेगळ्या पात्रांच्या मुखांतल्यान जांच्या तांच्या स्थानमानाक फावो सारकी वेगवेगळी भा उलोवंक लावपाची गरज आशिल्ल्यान नाटक रचपी कवीक संबंदीत भाशेंतलीं वाक रचून घेवची पडटात. ते खातीर खंयच्याय एका विभेदांत वापरिल्लो खंयचोय एका विशिश्ट शब्द त्याच विभागाचो आसतलो असो समज करून घेवंक फावना. तो श

नरे भाशेंतय बी येवंक शकता.

महाकवी भवभूतिच्या उत्तर रामचरितांतले सीतादेवीचें उलोवणें उदाहरणाच्या मान मुखार दिलां.

''हध्दी! हद्धी! मं मंदभाइणिं वाहरिआ आमीलिदणेत्तणिलुप्पलो मुच्छिदो एव्वा। कहं धरणिपिट्ठेऽ णिरुद्धणिस्सासणीसहं विपल्हत्थो! भआवदि तमसे! पस्तिाएहि वावेऽ हि अज्जउत्तं''

संस्कृत- हाधिक्, हाधिक्! मां मंदभागिनीं व्याहृत्या मीलिनतेत्रनीलोऽत्पलोऽ च्छित एऽव, हा कथं धरणीपृष्ठेऽ निरुद्धनिश्वासनिः सहविपर्यसतः।। भगवति तमसेऽ रित्रायस्व परित्रायस्व, जीवयार्यपुत्रम्।।

अर्थ- शी, शी! दुर्भागी हांव! म्हजें नांव उच्चारिल्ल्या खिणाकच नयन कमळां ापून तो घुंवळ येवनच पडलो. आरेरे! सोंसूं नजो जावन स्वास अडून कसो भुंयेर ोळत पडला तो! भगवते तमस देवते वाटाय, वाटाय. प्राण वाटाय ह्या आर्यपुत्राचे.

हे आदीं देखी येवन गेल्ल्या प्राकृत भेदांनी मागधी वर्गांतल्या भाशांनी संस्कृतांतल्या अकारान्त पुल्लिंग नामांचीं प्रथमा विभक्तीचीं एकवचनां एकारान्त आनी हेर भासांतलीं ओकारान्त आसतात तीं सोडल्यार खंयच्याच विभेदांत मराठींत आसतात तशीं आकारान्त आसनात. हाचे वयल्यान संस्कृतांतल्या अकारान्त पुल्लिंग नामाचें प्रथमा विभक्तीचें एकवचन आकारान्त आसपी भाशा ह्यो खूब अर्वाचीन म्हणपाचें सिद्ध जाता.

3

ख्रि.श. 410 सावन 445 मेरेन मध्यप्रदेशाचो राजा जावन राज्य केल्लो वाकाटक वंशाचो दामोदरसेन वा दुसरो प्रवरसेन हाणें प्राकृतांत ''दसमुहवहो'' म्हणल्यार संस्कृतांत 'दशमुखवधः' अशा नांवाचें अत्युत्तम अशें काव्य रचलां. कांय जाणांनी ताका 'सेतुबंध' हें नांवय दिलां. त्या काव्याची शैली ध्यानांत घेवन, ताचें रसमाधुर्य चाखून रसिकांनी तें महाकवी कालिदासाचें काव्य अशें म्हणलां. हेर कांय जाणांनी तातूंतले भाशेक महाराष्ट्री प्राकृत अशें म्हणलां. पूण ते भाशेक महाराष्ट्री म्हणिल्लें आसलें तरी त्या काळांत मध्य प्रदेश महाराष्ट्रांत समाविश्ट आशिल्लें विशीं कांय म्हायती ना.

इतिहासीक संशोधक तशेंच संस्कृताचो म्हान विद्वान आचार्य रामकृष्ण गो
भांडारकर म्हणटात - ती महाराष्ट्राची भाशा आशिल्ल्यान तिका महाराष्ट्री म्हण
महाकवी दंडी हाणें आपणाल्या 'काव्यादर्शनांत' 'महाराष्ट्राश्रयां भाषां प्रकृश्टे प्रा
विदु:। सागर: सुक्तिरत्नानां सेतुबंधादियन्मयम्।।1.34।। अशें म्हणलां. महाराष्ट्रांत आ
मेळिल्ली अशी ती एक उत्कृश्ट प्राकृत भाशा अशें समजतात. ती सुंदर भाशे
रत्नांचो सागर आसून सेतुबंध आनी हेर काव्यान ती गिरेस्त आसा अशें म्हण
सेतुबंध काव्याची भाशा महाराष्ट्री प्राकृत अशें नांव दिवपाक हो वयलो श्लोकच का
थारलो हातूंत दुबाव ना. काव्य जाणें रचलां त्या राजा प्रवरसेनान तातूंतल्या दर ए
भागाच्या शेवटाक "दशमुहवहो" अशें आसून - काव्यांतल्या निमाण्या भागांतल
अंतीम पद्यांत "रावणवह" अशें म्हणपा भायर सेतुबंध अशें खंयच म्हणिल्लें मेळन
अशें आसतना महाकवी दंडीन ताका 'सेतुबंध' म्हणलां हें खरें? आनी ताच्या काळ
प्राकृत भाशेंत वेगळ्यो काव्यकृती आशिल्ल्यो? हाचे विशीं चिकित्सा जावपाक जा

महाकवी दंडी दक्षिण भारताच्या पूर्वतटीय प्रदेशांतल्या कांचीनगर ही राजधा
करून राजकारभार चलोवपी पल्लव राजा नरसिंहवर्मन (630-668) हाचो राजक
आशिल्लो. तेन्ना चालुक्यराजा पुलकेशी हो महाराष्ट्राचेर राज्य करतालो. तसोच ह
चरित रचपी महाकवी बाण उत्तर भारतांत थानेश्वर ही राजधानी करून शासन चलोव
हर्षवर्धन (606-646) हाचो राजकवी आशिल्लो. हर्षचरिताची कथा गद्यरुपांत आसू
सुरवातेचो मंगलाचरण आनी प्रस्तावनेच्या रुपांत वीस श्लोक आसात. तातूंतल
चवदावो श्लोक असो आसा 'कीर्ति: प्रवरसेनस्य प्रयाता कुमुदोज्वला।। सागरस्य
परंपारं कपिसेनेव सेतुना।। हाचो अर्थ- 'श्री रामचंद्रान बांदिल्ल्या सेतू वयल्यान
वानरसेना दर्याचे पलतडींत आशिल्ले लंकेक पावली तेच तरेन प्रवरसेनाची चक्क
करून चंद्रावरी चकचकपी कीर्त (सेतुबंधांतल्यान) समुद्राचे पलतडींत आशिल्ल्या
देशांनी पातळ्ळी' असो जाता. वयर दिल्ल्या पद्यांत सेतू शब्द श्लेषार्थान वापरिल्लो
आशिल्ल्यान महाकवी दंडीन दशमुख वध ग्रंथाक सेतुबंध अशें समजुपाक कसलींच
प्रमाणां नात. कारण अशें की महाकवी बाण आनी महाकवी दंडी समकालीक आसले
तरी एके कडच्यान दुसरो हजारांनी मैल पयस आशिल्लो. ते खातीर महाकवी बाणान
हर्षचरित बरोवचे बरोवन तें वाचून पळोवपा खातीर महाकवी दंडी कडेन धाडून दिलें
अशें म्हणपाक प्रमाण ना. तशेंच महाकवी दंडीच्या काळांत प्राकृत भाशेंतलें वेगळें
काव्य साहित्य आशिल्लें म्हणपाकय प्रमाणां नात. तात्पर्य अशें की आमच्या सगळ्या

चीन ग्रंथांनी अर्वाचीन मनशांनी हस्तक्षेप करून साबार नवे श्लोक घालून दवरल्यात ोच आदीं देखी रुपान दिल्यात तसले दोन श्लोकय बी अर्वाचीन मनशांनी केल्ले क्षेप अशें म्हणूं येत. कारण अशें की वास्तवांत मराठी भाशेक आनी सेतुबंधाचे कृत भाशेक लागींचो कसलो संबंधच ना म्हूण कळटा.

म्हणल्यार आयज महाराष्ट्री वा मराठी हें नांव पडलां ती भाशा आनी सेतुबंधाची भाशा चे मदीं कसलोय लागींचो संबंद आसा काय कितें हाच्याय बी अभ्यासाची गरज आसा. ाशां मदलें संबंद आनी साम्य हांचे विशीं खात्री करून घेतासतना तांचीं घोळणुकेंतलीं ां आनी विभक्ती रुपां हीं मुख्य साधनां मानतात. सेतुबंधाचे भाशेंत संस्कृतांतले गळे भूतकालीक कृदन्त अन्ताचे त-कार गळोवन पुल्लिंग रुपांत ओ-कारांत जातात ानी अ-कारान्त आशिल्लीं सगळीं पुल्लिंगी नामा प्रथमा विभक्तीच्या एकवचनांत ो-कारान्त जातात. देखीक- गत:=गओ=गेलो. (1-14) चलित:=चलिओ=चललो चलूंक लागलो). (1-49) प्रज्वलित=पज्जलिओ=चकचकलो (उजळ्ळो). (1-5) आदी. पूण मराठींत तीं क्रियापदां 'ला' मेळून सोंपतात. देखीक- गेला, चालला ानी पर्जळ्ला आदी. पुल्लिंगी नामां देखीक- वेष्ट:=वेढो=वेडो, फेरो-मराठी=वेढा. ंश=वंसो=वांसो मराठी=वासा अशे आकारान्त जातात.

तेच तरेन सेतुबंधाचे भाशेंत सगळीं स्त्रीलिंगी नामां प्रथमा आनी द्वितिया विभक्तीच्या ौवचनांनी ओ-कारान्त जातात आनी हेर नामां द्वितिया विभक्तीच्या भौवचनांत ए-कारान्त जातात. देखीक- संस्कृतांतलो दिशा:=दिसाओ=दिको आनी दिकांक; ुक्तान=मुक्के=मुक्त केल्ल्यांक पूण मराठींत दिशा हो स्त्रीलिंगी शब्द रुपांतरीत ायनासतना मूळ रुपांतच (=दिशा) एकवचन आनी भौवचनांत प्रयोगांत येता आनी ुक्तान हाचे बदलाक 'मुक्तांला' अशें रूप प्रयोगांत येता. मुखार उदाहरणां खातीर सेतुबंध काव्यांतल्यो कांय पद्यवळी दिल्यात-

वच्चइ अ चडुलकेऽ सरसडुज्ज लालोअवाणर परिख्खितोऽ।

सर्वदिसा आअड्ढी अपलअपलित गिरिसंकुलोऽ व्व समुद्दोऽ।।1-52।।

1. Of the Prakrits, the Principal one was called Maharashtri, because we are told it was the language of Maharashtra. We have a poem in this dialect entitled Setubandha attributed to Kalidasa and mentioned by Dandin. Early History of the Deccan

संस्कृत छाया: व्रजतिच चटुलकेऽ सरसटोज्व लालोकवानर परिक्षिप्तः।।

सर्वदिगाकृष्ट प्रलयप्रदीप्त गिरिसंकुल इवसमुद्रः।।

अर्थ: हेवटेन तेवटेन यो-वच करपी (खाडाच्या) दाट केंसांनी उजळून दिस मुखामळाचें दर्शन घडोवपी वानरांच्या समुहा मदीं श्री रामचंद्र, सगळ्या दिकांतल्या एकाच वेळार चक्री वादळ येवन एक शक्तीशाली धपक्यान घुंवत वयर सरिल्ल पर्वता वरी ल्हारां सूर्य प्रकाशान प्रलय काळांत पेटून भगभगपी ज्वालामुखी शिख वरी अशा त्या प्रतिम्हासागरांत वचत आसा.

भेत्तूऽण तुरियमुक्केऽ अणुलोऽमपहाविए सिला संघाए।

पढमं साहेंऽति परं विहडिअ वाणरमणोरहा रामसरा।।14-4।।

संस्कृत- भित्वात्वरितमुक्ताननुलोमप्रधाविताज्ञ शिला संघातान।।

प्रथमं साधयंति परं विघटितवानरमनोरथा रामशराः।।

अर्थ: वानर (वैऱ्याक मारपाक जाय म्हणून) तीव्र गतीन शेंवटून मारिल्ले आनी वैऱ्या वटेन अती वेगान वचपी राशींनी फातर गुणे. श्री रामचंद्रान ताचे उपरांत सोडिल्ले बाण फाटोफाट वचून तांकां फोडून मुखार वचून तांचे पयलीं वैऱ्याचो नाश करून वानरांचे मनोरथ भंग करतात.

धुअमेऽ हमहुअराओ घणसमआअड्ढि ओणअविमुक्ताओ।

णहपाअवसाहाओ णिअअट्ठाणं व पडिगआओ दिसाओ।।1-19।।

संस्कृत- धुतमेऽ घमधुकरा घनसमयाकृष्टा वनतविमुक्तः।।

नभः पादपशाखा निजकस्थानमिव प्रतिगता दिशः।।

अर्थ- आकाशच रूख जाल्लें आसचें, सगळयो दिको ताचे खांदे जाल्यार कशें, तशेंच तरेन अशीं तशीं हेडपीं कुपांनी खांद्याचेर घालून घेतलें जाल्यार तांच्या भारान खांदे भुंयेर देंवले जाल्यार कशें, तशेंच, पावसा दिसांनी कुपां मळबांत दाटायेन भरून येतात तेन्ना मळबच सकयल देंविल्ले वरी दिशिल्ल्यान कुपां म्हळ्ळे मधमाशांच्या भारान दिको म्हळ्ळे खांदे बागवतात तेच तरेन पावस पडले उपरांत कुपां नासतना (मळब निरभ्र जावन वयर गेले वरी दिशिल्ल्यान) भार उणो जातकच दिको म्हळ्ळे

ांदे स्वताच्या जाग्यार गेल्ले वरीच जाल्ल्यान आकाश म्हळ्ळ्या रुखाच्या दिको ळ्ळ्या खांद्यांचेर बशिल्लीं कुपां म्हळ्ळ्या मधमाशांच्या भारान बागवल्ले खांदे धमाशो ना जायना फुडें परतून स्वस्थानार परतले. (रूपक अलंकार)

वयल्या पद्यांनी वच्च=वचप; भेऽत्=भेतप दोन वांटे (भेतां) करप; मुक्तान=शेंवटून ारिल्ल्यक; दिसाओ=दिको आदीं क्रियापदां आनी विभक्ती रुपां मराठींत आदीं ाशिल्लीं आनी आयज नात. ते खातीर सेतुबंधाचे भाशेक आनी मराठीक कसलो ागींचो संबंद नाशिल्लो म्हणपाचें सिद्ध जाता.

पूण आयज घोळणुकेंत आशिल्ली कोंकणी कांय परिवर्तनांनी युक्त आसलीं रीय बी तिचे भितर सेतुबंधाचे भाशेच्यो कांय कुरवो उरल्यात. म्हणल्यार कोंकणींत संस्कृतांतल्यान परिवर्तीत जाल्लीं साबार अ-कारान्त पुल्लिंग नामा आयज ओ-कारान्त रुपान घोळटात. देखीक- वंश:=वांसो; वलय:=वलओ=वाळो; घोटक:=घोडओ=घोडो; गोपाल:=गोवाळो=गोरवां राखणो आदी. तशेच सेतुबंध काव्यांत प्रयोग जाल्लो वच्च=वचप; भेऽत्=भेतप; पलोअ=पळोय्=पळय आदी क्रियापदांय आसात.

खंयच्याय एका वर्गांत आसपाविल्ल्या अनेक भासां मदीं मूळ भाशा वा प्राचीन भाशा खंयची आनी एके भाशेक चडांत चड लागींची दुसरी भाशा खंयची हें थारायता आसतना शब्दांचीं शुद्ध रुपां, सर्वनामां, संख्यावाचक शब्द, संबंदितांचीं नांवां (नातीं) अवयवांचीं नांवां दैनंदीन वापरपाच्या वस्तूंचीं नांवां, प्रचलीत रुपां आनी विभक्ती रुपां आदीं घटक हे मुखेल प्रमाणां वा साधनां अशें मानतात आनी ते ते भाशेंत प्रयोग जावपी शब्द संस्कृत भाशेक कितले लागींचे आसतात त्या प्रमाणांत त्यो प्राचीन म्हणपाची गजाल सिद्ध जाता. सामान्यतायेन नामां आनी हेर शब्द एके भाशेंतल्यान दुसरे भाशेंत समाविश्ट जाल्ले आसले तरी प्रचलीत रुपां आनी विभक्ती रुपांत तशीं समाविश्ट जायनात. ते खातीर दोन भासां मदलीं प्रचलीत आनी विभक्ती रुपां मदीं सदृश्य आसल्यार - पयलीं त्यो भासो एकच आसून, एक भास दुसऱ्याचो फांटो म्हणपाचें सिद्ध जाता.

महाराष्ट्री प्राकृत अशें नांव दिल्ली सेतुबंध काव्याची भाशा ही मराठीचें मूळ अशें म्हणून मुखार हाडिल्ल्या वादांत कांय दम ना हें दिसून आयले उपरांत कांय मराठी पंडितांनी - महाराष्ट्री प्राकृत ही मराठीचें मूळ न्हय; पूण महाराष्ट्री प्राकृतांतल्यान

जल्मल्ले अपभ्रंश भाशेंतल्यान आतांची मराठी जल्मल्या अशें म्हणपाक सुरवात केली
'शालेय व्युत्पत्तीदीपिका' नांवाच्या मराठी पुस्तकांत लेखक श्री. यशवंत गणेश फ
हांणी आपणालो अभिप्राय व्यक्त केला – "संस्कृता पासून निघालेल्या महाराष्ट्र
भाषेपासून पुढे अपभ्रंश भाषा होऊन तीपासून आपली मराठी भाषा उत्पन्न झाली."
(पान 5)

पूण लेखक तशें म्हणटना अपभ्रंश भाशेंत मराठींतलीं सगळीं सर्वनामां, प्रचली
रुपां आनी विभक्ती रुपां अशे सगळे शब्द आसातच काय कितें हाचे विशीं विवेचन
करपाक वचना अशें म्हणटात. कारण अशें की अपभ्रंश भाशेंतलीं भूतकालीक क्रियारुप
– गेला, मेला, आला आदी येनात. तशेंच सोडून, करून आदीं रुपांय अपभ्रंश भाशेंत
नात. आनी माझा, तुझा आदी विभक्ती रुपांय नात. म्हणल्यार मराठी पंडित गरीब
दुबळे कोंकणींतल्यान जल्मल्ल्या अशें मानप म्हणल्यार आत्मसन्मानान उणाकपणाचें
अशी तांची भावना जाल्ली आसपाचो संभव आसा. आसूं, मराठी भाशा अपभ्रंश
भाशेंतल्यान जल्मल्या म्हणपांत सत्यांश कितलो आसा हे विशीं विचार मांडपी –

हेमचंद्राच्याय प्राकृत व्याकरणाची रचणूक जाली त्या काळांत हिंदी, गुजराती,
कोंकणी, बंगाली आदी भासो घोळणुकेंत आयिल्ल्यो. ते खातीर हेमचंद्राच्या अपभ्रंश
विभागांत भारतवर्षांत घोळणुकेंत आसपी सगळ्या संस्कृतजन्य भाशांतले शब्दय
मेळटात. त्या भासांनी आसपी कांय नवीं शब्दरुपां आदल्या प्राकृत व्याकरणांनी
सांगिल्ल्या नेमांक अणसरून सिद्ध जायसारकीं नात हें ताचे फाटलें कारण. अशें
जाल्ल्यान हेमचंद्रान तसले नवे शब्द खंयच्या विभेदांत घालचे हें थारावप कठीण
जाल्लें आसतना ताणें ते सगळे शब्द अपभ्रंश विभागांत घालून सोडले आसुंये अशें
दिसता. त्या अपभ्रंश विभागांत जायतीं कोंकणी शब्दरुपां आनी प्रयोग पळोवंक
मेळटात. पूण अपभ्रंश विभागांतले खूबशे शब्द आनी प्रयोग हे हिंदी आनी गुजराती
शब्दांचीं मुळां, कोंकणीच्या न्हय. म्हणटकच मराठीक आनी ताका कसलेच तरेचो
लागींचो संबंद ना. अपभ्रंश विभागांत दिसून येवपी थोड्या शब्दांचीं रुपांतरां आसलीं
तरी तीं गुजरातींतल्यान मराठींत येवन मेळिल्लीं आसात.

अपभ्रंश विभागांतलीं थोडीं प्रचलीत रुपां आनी विभक्ती रुपां प्राचीन हिंदी कवितांनी
दिसून येतात. थोडीं क्रियारुपां नवे हिंदींतय आसात.

देखीक– भूतः=हुआ=जालें; मृतः=मुआ=मेलो अशीं रुपां नवे हिंदींत आसात.

। भाशेंतल्या कवितांनी 'हांव' म्हणपाक 'हऊं' हें सर्वनाम आसा. अपभ्रंश भागांतय तेंच रूप आसा. पूण मराठींतलें 'मी' अशें ना. तशेंच झाला, मेला हीं यापदां नात. हिंदी भाशेंतल्या सगळ्या प्राचीन कवींनी अपभ्रंश विभागांतलीं रुपां पणाल्या काव्यांत वापरल्यांत. गोस्वामी तुलसीदासान आपणाल्या 'रामचरितमानस' :रामायण) काव्यात अपभ्रंशांतले प्रयोग खूब सुदारीत रितीन केल्यात. अपभ्रंश भागाचें मुखेल अशें खाशेलेपण म्हणल्यार पुल्लिंग, नपुंसकलिंग अशे भेद नासतना ाळीं अ-कारान्त नामां आनी विशेशणां प्रथमा विभक्तीच्या एक वचनांत 'उकारान्त' ता. अर्वाचीन कोंकणींत संस्कृतांतले अकारान्त पुल्लिंग शब्द फकत 'उकारान्त' तात आनी तो 'उकार' प्राचीन ओकाराचें ऱ्हस्व रूप आसून अपभ्रंशांच्या प्रभावान ायिल्लें न्हय. हिंदी साहित्य आनी भाशेच्या विकासाचो इतिहास बरोवपी सगळ्या द्वानांनी आपणाल्या ग्रंथांनी अपभ्रंश विभागांतल्या कवितांचीं उदाहरणां दिल्यांत. ंणी उदाहरणां म्हूण दिल्ल्या कवितांनी सामान्य अशी एक आसा:-

भल्ला हुआ ज्यु मारिआ बहिणी महारा कंतु।
लज्जेज्जत वयंसिअहु जइ भग्गाघरु एंतु।।8-4-351।।

आचार्य हेमचंद्रान अपभ्रंश विभागांत नेमांच्या उदाहरणा खातीर दिल्लें हें एक पद्य अर्थ: म्हजे भयणी बरें जालें म्हजो घोव (युद्धभुंयेर) मेलो तें. तो पराजीत जावन रा परतल्लो जाल्यार म्हज्या सखी मुखार म्हाका लज जातली आसली.

वयल्या पद्यांत हुआ; मारिआ; भग्गा अशीं तीन भूतकालीक क्रियापदां आयल्यांत आनी तीं अनुक्रमान - भूत:, मारित:, भग्न: अशा संस्कृत कृदन्ताचीं रुपांतरां. तशेंच म्हजो' ह्या अर्थान 'महारा' अशें रूप आयलां. तसलीं रुपां आदल्या मराठी काव्यांनी नावं आयचे मराठींत नात. त्या बदलाक कोंकणींतलीं जालें, मारिलो, (मारलो) भंगलो आनी मज्जो (म्हजो) हांचीं रुपांतरां आशिल्ले - झालें; मारिला, भंगला आनी माझा हीं रुपां आसात.

अपभ्रंश विभेदांत - तो=सो; हो=एहो; ती=सा; ही=एह अशीं सर्वनामां आसात. हींय बी मराठींत नात. तांचे बदलाक कोंकणींतलीं तो, हो, ती, ही अशीं रुपांच घोळटात आनी 'हो' हाचें 'हा' जाल्लें आसा.

अपभ्रंश विभेदांत पूर्वकालीक कृदन्त मुखार दिल्यात तशे जातात मारी=मारून, विछोडवि=सोडून, जेप्पी=जिखून (जैत मेळोवन) आदी रुपां येतात. हांचे सारकीं

रुपांय बी मराठींत नात. त्या बदलाक अनुक्रमान कोंकणींतलीं 'मारून', 'पिसडून वा 'सोडून' आनी 'जिखून' अशीं रुपां आसात.

अपभ्रंश विभेदांत 'व्हड' वा 'व्हडलो' म्हणपाक कोंकणींत आसपाविल्लो 'वड्ड असो शब्द आसा. आनी 'पळय' ह्या अर्थान 'ज्योई' ही क्रिया आसा. ती कोंकणींत 'चोई' हे क्रियेचें रुपांतर. कोंकणींतलें 'चोई'=चोय=चोह्=चक्ष ह्या संस्कृत क्रियेंतल्य 'चह' आनी 'चख' अशीं परिवर्तीत जावन उपरांत जाल्लीं रुपांतरां. 'चोह्' हांचें हिं रूप 'जोह' अशें आसा.

**जइ पुच्छह घरंवड्डाइं तो वड्डा घरंओइ।**
**विहलिअ–जण–अब्भुद्धरणु कंतु कुडीरइ जोइ।।8–4–364।।**

अर्थ– व्हडल्या घरां विशीं विचारता अशें आसा जाल्यार व्हडलीं घरां थंय आसात कश्टाची जीण जगतल्यांचो उद्धार करपी तूं म्हजो मोगी जातलो जाल्यार हे खोंपीं आसा – पळय.

वयल्या पद्यांत 'घरां' (घरं) हें रूप दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतले सारस्वत ब्राह्मण उलयतात ते भाशेचे शैलींत (बोलींत) आयलां. 'वड्डाइं' हाचे बदलाक 'वड्डां (व्हडां) हें रूप कोंकणींत घोळटा. 'वड्ड' (व्हड) शब्द जावं 'चोय' ही क्रिया जाव तीं मराठींत नात. अनेक अप्रभंश विभागांत आयिल्ल्या अनेक शब्दांक संस्कृतांतलं मूळ मेळना. तसले शब्द मराठींत आसुंये अशें म्हणल्यार ते विशीं चर्चा करून कां उपेग ना. ह्या इतल्या विवरणा वयल्यान अपभ्रंश विभेदांतलीं प्रचलीत रुपां जावं विभक्ती रुपां जावं, सर्वनामां जावं अशे शब्द मराठींत नात म्हणपाचें सिद्ध जाता. खातीर मराठी ही अपभ्रंश विभेदांतल्यान जल्मल्या म्हणपाच्या वादांत कांय दम न हें स्पश्ट जाता.

आनी मुखार कोंकणी शौरसेनी आनी प्राकृत हांचें मिश्रण जावन घडिल्ल्या आवर्त सारकीच मराठीय बी त्या विभेदांतल्यान स्वतंत्रपणान घडूंक ना जावंये? असो प्रस्न बी उप्रासूं येता. त्या प्रस्नाक आमी हांगा जाप दितात ती अशी:– संस्कृतांतलें भूतकालीक कृदन्तांतलो 'त' प्रत्ययच शौरसेनींत 'द' जावन परिवर्तीत जाता हे विशीं आदीं सांगलांच. म्हणल्यार 'गत:' आशिल्लें 'गदो' जाता, 'आगत:' आशिल्लें 'आगदो' जाता हेंय बी पयलीं सांगलां आनी उपरांत निमाणो 'दो' आशिल्लो कोंकणींत 'लो' जाता हाचो उल्लेखय जाला. तितलेंच न्हय तर 'दोहद:' आशिल्लें 'दोहलो'

आर्द्र' आशिल्लें 'अल्लं', 'ओल्लं' जाता हें विवरणय जालें. म्हणल्यार शब्दांताचो द'कारच 'ल'कार जावन परिवर्तीत जाता हें स्पश्टपणान सिद्ध जालां. तें परतून एक ावट हांगा येता:

| संस्कृत | शौरसेनी | कोंकणी | कन्नड |
|---|---|---|---|
| राम आगत: | रामो आगदो | रामू आयलो | रामनु बंदनु |
| रामेण कृतम् | रामेण किदं | रामान केलें | रामनु माडिदनु |
| स मृत: | सो मिदो | तो मेलो | अवनु सत्तनु |

ह्या विवरणांतल्यान 'ल'काराचें मूळ 'द' न्हय तर तें 'त' म्हणपाचें स्पश्ट जाता. ते खातीर क्रियापदांच्या शेवटाक 'त' न्हय तर 'द' आशिल्ली भाशाच पयलींची आनी क्रियापदाच्या शेवटाक 'ल-कार' आसपी भाशा 'द' न्हय तर 'त' आसपी भाशेंतल्यान जल्मल्या म्हूण सिद्ध जाता.

कोंकणींत सामान्य भविश्यकाळ आनी संभाव्य भविश्यकाळ अशीं भविश्यकाळ दाखोवपी दोन तरेचीं प्रचलींत रुपां आसात. सामान्य भविश्यकालीक रूप निश्चय दाखयता. आनी संभाव्य रूप फकत संभावना वा अनुमान (अदमास) व्यक्त करता.

उदा:- तूं आतां वच, तो मागीर येतलो. हें वाक्य सामान्य भविश्यकाळ म्हणल्यार निश्चय दाखयता. संभाव्य भविश्य काळाचें उदाहरण अशें:- तो हें काम करीत. दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतले लोक - 'तो करीत' - 'ते करतीत' अशीं रुपां वापरतात. कोचींतले लोक 'करीद' आनी 'करतीद' अशीं रुपां वापरतात.

मराठींत दोन तरांचीं भविश्यकालीक रुपां नात. ते खातीर कोंकणींतलीं संभाव्य रुपां सामान्य भविश्यकाळाच्या निश्चयार्थान वापरतात. तेन्ना मराठींतलीं रुपां - तो करील, ते करतील अशे तरेन परिवर्तीत जातात. म्हणल्यार कोंकणींतलें करीत आनी करतीत ह्या क्रियापदांच्या अन्ताचे 'त'कारच 'ल'कार जावन मराठींतले करीत आनी करतील अशीं रुपां तयार जाल्यांत ही गजाल स्पश्ट जाता. कोंकणींत आसात ते तरेचीं संभाव्य रुपां हेर खंयचेच भाशेंत नाशिल्ल्यान मराठी ही कोंकणींतल्यानच जल्मल्या म्हणपांत कसलोच दुबाव उरूंक ना हें सिद्ध जाता.

4

पुर्तुगेजांनी 1510 इसवींत जेन्ना गोंय बळकायलें तेन्ना गोंयचे लोक जी
उलयताले ते भाशेक थंय अमकेंच एक थीर अशें नांव नाशिल्लें अशें दि
गोंयच्या लोकां मदले जे वेपारी लोक आशिल्ले ते आपणाल्यो हिशेब चोप
बरोवपाक कन्नडा सारकी लिपी वापरताले. ते खातीर गोंयची भाशा कन्नड अ
असो अदमास करून पुर्तुगेज लोक तिका Canari=कन्नड (कानारी) म्हणूंक ला
उपरांत गोंयची भाशा कन्नड न्हय म्हूण कळ्ळें. ती मराठी सारकीच आसूनय बी म
परस इल्ली भिन्न आसा हेंय बी तांकां कळ्ळें. अशें आशिल्ल्यान ते तिका ब्राह
म्हणूंक लागले. ब्राह्मण लोकच फकत ती शुद्ध रुपान उलयताले हें ताचे फाटलें क
आसतलें. जनसामान्यांची भाशा मराठीक खूब लागींची आसताली. गोंयां भायले ल
सुरवातेच्यानच गोंयचे भाशेक कोंकणी अशें म्हणटाले. अशें जाल्ल्यान पुर्तुगेजय
तिका कोंकणी अशेंच म्हणूंक लागले.

पंदराव्या शेंकड्यांत कर्नाटक राज्यांत घोळटाली ती कन्नड लिपी गोंयचे लिपी प
इल्लीशी भिन्न आशिल्ली. हाका लागून ती परक्यांक कन्नडा सारकीच दिसता
सांगपाचें म्हणल्यार कन्नड लिपी ही आदीं तेलगू भाशेचीच लिपी म्हूण प्रचल
आशिल्ली. गोंयची लिपी आयचे कन्नड लिपी सारकी आशिल्ली. खूब आदीं म्हणल
सादारण ख्रि.श. दुसऱ्या शतमाना मेरेन पुराय भारतवर्षांत एकूच एक ब्राह्मी वर्णमा
घोळटाली. ही ब्राह्मीवर्णमाला पाश्चिमात्य विद्वानांच्या मता प्रमाण फकत ख्रि.पूर्व सवा
शतमाना इतली प्राचीन न्हय तर ख्रि.पूर्व 1500 वर्सां इतली तरी ती प्राचीन आसू
फावो अशें म्हणपाक आदार आसा. वा पाश्चिमात्य म्हणटात ते प्रमाण ब्राह्मी वर्णमा
ही सेमिटीक मुळांतल्यान जल्मल्ली न्हय. खरेपणी सांगतलो जाल्यार ग्रीक वर्णमा
फिनिशन वर्णमालेंतल्यान जल्मल्ली नासून ब्राह्मी वर्णमालेंतल्यान जल्मल्या. ह
फाटलें प्रमाण अशें की ग्रीक वर्णमाळेंतल्या चोवीस (24) वर्णां मदले अठरा (1
आयज मेरेन ब्राह्मी रुपांतच आसात. ग्रिकांनी ब्राह्मी वर्णांच्यो कुरवो बूड वयर करू
वापरल्यात इतलोच फरक. हो गूट समजल्ल्या ब्रिटिश विद्वानांनी ते लिपिल्ले ब्राह
वर्णमालेकच सेमिटीक मुळांतल्यान जल्मल्ली लिपी म्हणपाक सुरवात केली. ग्री
कवी ख्रि.पूर्व णव्या शतमानांतच आपणाल्यो कविता बरोवपाक ही लिपी वापरता
आसुंये अशें म्हणून, ख्रि.पूर्व सातव्या शतमानांतल्या एका खुज्याचेर धातू वा मातयेच
उदकाचो जग आशिल्ल्या ग्रीक प्रमाण फुडें करून ब्रिटिश विद्वानांनी म्हणलां.[1]

मांडुक्योपनिशदांत ओंकार हो ब्रह्मांतल्यान निर्माण जालो, ब्रह्म होच ताचो आत्मो. ात्म्याक चार पांय, पांय हेच मात्रा, मात्रांतल्यानच अ, उ, म हे वर्ण तयार जाले, ा तीन वर्णांचो संयोग होच ओऽम् (ॐ) अशें अध्यात्मीक रितीन विवरण केल्लें ासा. तो चार पांय आशिल्लो आत्मो (म्हणल्यार मूळ, उगमस्थान) वा ब्रह्म हें सरें कांय न्हय तर तें आशिल्लें यज्ञाचो अग्नी निर्मुपाक आदले लोक वापरताले ते ग्नीमंथन यंत्र वा प्रजापती. 'ॐ' (ओम्) हें अक्षर निर्माण जाले उपरांत यज्ञकुंडांच्या ाकृतींच्या आदारान वर्णमालेंतलीं हेर अक्षरां निर्माण केलीं. यज्ञ होय बी ब्रह्मच ाशिल्ल्यान ब्रह्म मुळांतल्यान जल्मल्ले ते वर्णमालेचें नांव ब्राह्मी अशें पडलें. जैन ीर्थंकार ऋषभदेवाची धूव ब्राह्मीच्या नांवा वयल्यान मात न्हय. ब्राह्मी वर्णमालेंतल्यो गळ्यो मुख्य आकृती सिंधू देंगणांत मेळिल्ल्या नाण्यांचेर मेळिल्ल्यान ब्राह्मी वर्णमाला ानी सिंधू संस्कृती हांचे मदीं खूब लागींचो संबंद आसा म्हणपाचें सिद्ध जाता.

ब्राह्मी वर्णांतल्यान संयुक्ताक्षरां बरोवप म्हूण, बरयिल्लें वाचप म्हणा, व्यंजना ांगडा स्वर जोडप अशें हें सगळें आडखळींनी भरिल्लें काम आशिल्ल्यान ती वर्णमाला ापरपी ब्राह्मण लोक ती सुदारीत आसताले. चक्रवर्ती अशोकाच्या काळांतच दक्षिण ारतांत घोळणुकेंत आशिल्ले कांय वर्ण उत्तर भारतांतल्या वर्णां परस भिन्न जाल्ले अशें म्हणटात तेन्ना लिपी सुदारणेचें काम पयल्यान पयलीं दक्षिण भारतांतच सुरू जाल्लें म्हणपाचें सिद्ध जाता. ब्राह्मी वर्णमालेंत प्राकृत भाशांक आवश्यक आसपी 'ए' आनी 'ओ' हे ऱ्हस्व स्वर नाशिल्ल्यान त्या दोन स्वरांचीं चिन्नां मेळोवन एक नवी वर्णमाला तयार केली. प्राकृत भाशांनी संयुक्त व्यंजनांच्या सुरवातेच्या दीर्घ स्वराचो उच्चार 'कोऽष्ठ' ह्या शब्दाचें प्राकृत रुपांतर 'पोऽट्ट' अशें बरावेन 'पोट्ट' (=पोट) अशें वाचचें पडटालें. नवी वर्णमाला निर्माण जाली तेन्ना ते तरेचे त्रास पयस जाले. दक्षिण भारतांत नांवारुपाक आयिल्ली ती वर्णमाला आंध्र, कर्णाटक आनी चेरा राज्यांनी वापरताले. आयज उपलब्ध आशिल्ल्या प्राचीन दस्तावेजांनी ती वर्णमाला रुपांतरीत जायत गेल्ले सगळे पांवडे पळोवंक मेळटात. ती वर्णमाला पूर्ण विकसीत रुपांतच आंध्र वर्णमाला जाल्ली आनी ती आरंभाच्या काळांत फकत प्राकृत आनी संस्कृत भाशां खातीर वापरताले. म्हणल्यार दक्षिण भारतांत विकसीत जाल्ली ती वर्णमाला संस्कृत उच्चारांक योग्य जायसारके पद्दतीनच निर्मिल्ली जाल्ल्यान सादारण ख्रि.श. णव्या शेंकड्या मेरेनच्या सगळ्या सरकारी हुकूमनाम्यांनी प्राकृत आनी संस्कृत भाशांनी फकत पळोवंक मेळटात. ते खातीर त्या भाशांच्या साह्यानच लिपी सुदारणेचें काम

करताले आसपाक जाय. णव्व्या शतमाना सावन तेलुगू आनी कन्नड भाशांतले शा
हुकूमनामे बरोवंक लागले. त्या काळार आंध्र आनी कर्णाटक राज्यांनी घोळप
आशिल्ल्यो सगळ्यो भाशा आंध्र लिपींतल्यानच बरयताले.

तमिळनाडूंत ब्राह्मी वर्णमाला दोन तरांनी घोळूंक लागली. संस्कृत भाशा बरोव
'ग्रंथलिपी' आनी तमीळ बरोवपाक तमीळ वर्णमाला वापरूंक लागले. म्हण
ग्रंथलिपयेंत संस्कृत भाशेक आवश्यक आशिल्लीं सगळीं वर्णचिन्नां आसात.
तमीळ भाशेंत संस्कृतांत आसात ते तरेचीं महाप्राणाक्षरां नाशिल्ल्यान प्रत्येक व
सुरवातेच्या एका वर्णाचें आनी अनुनासिकांचीं चिन्नां तितलीं आसात. तशेंच
आनी... अशीं चिन्नां आसात. अशें आशिल्ल्यान ते वर्णमालिकेंत 'गुद', 'बुड'
शब्द बरयल्यार 'कुत', 'पुट' अशे बरोवचे पडटात. श, ष, स, ह हे वर्णयबी न
श, ष, स हांच्या बदलाक 'च' हें एकूच व्यंजन घोळटा.

ब्राह्मी वर्णमालेचें आंध्री रुपांतर ख्रि. शक चवथ्या शेंकड्याच्या सुमाराक प्रारंभ ज
अशें म्हणपाक जाता. हाचें कारण चवथ्या शेंकड्यांत चेरा वंशाच्या राजांनी काडिल
हुकूमनाम्यांनी पयल्यान पयलीं क, ग, त, द, न अशीं नवीं रुपां पळोवपाक मेळट
अशे तरेन चवथ्या शेंकड्यांत सुरू जाल्लें तें रुपांतर कार्य पंदराव्या शेंकड्यांत
विकसीत जावन सोंपलें अशें सरकारी कागदपत्रांतल्या बरपा वयल्यान दिसता. अ
लिपयेचें वा तेलुगू वर्णमालेचें हें नवें रुपांतरच आयज कन्नडाचेंच असो समज जा
आशिल्लें सोबीत सुंदर रूप. म्हणल्यार ही लिपी एकेच फावटीन आयच्या रुप
पाविल्ली ना तर साबार स्तर हुपीत आयच्या रुपाक पावल्या म्हणपाचें ध्यानांत ये

आदीं कर्णाटक राज्य खूब विशाल आशिल्लें. तेन्ना त्या राज्या भितर आंध्रा
थोडो भाग, महाराष्ट्र आनी कोंकणय येतालें. आनी त्या प्रदेशांतलो सगळो लो
आपणाली भाशा बरोवपाक ब्राह्मीचें दक्षिणी रुपांतर आशिल्ली आंध्री लिपी वापरता
म्हणल्यार कर्णाटकाचे कानडी लोक, मराठी, कोंकणी, तुळू आनी तेलगू लोक खूब
काळा मेरेन एकच लिपी वापरताले. आंध्री वर्णमाला इतली सुदारिल्ले आयचे सोब
सुंदर स्थितींत कन्नड भाशेचीच म्हूण वळख आशिल्ली वर्णमाला घोळूंक लागली.

1. In Ionia, a all events, writing was introduced at an early period, and w
perhaps used by poets of the ninth century. Perhaps the earliest example o
Greek writing we possess is on an Attic Jar of the seventh century. A History
Greece page 78, J. B. Burry D. Litt.

न्या निवेदनांतल्यान कोंकणीक लिपी ना वा ती नाशिल्ली म्हणपा विशीं कसलेंच टीकरण मेळना. कोंकणी बरोवपाक खंयचीय लिपी वापरूं येता. हीच खरी वा खरी अशें म्हणून कोणाच्याच एकाधिकाराचेर चलना म्हणपाचें स्पश्ट जाता.

सादारण पंदराव्या शेंकड्याच्या सोंपत्या काळा मेरेन गोंयांत मराठी घोळणुकेंत सपा मेरेन आयज जी कन्नड लिपी म्हणटात तिचे लागसार पाविल्ले लिपींतच ती यताले. हाका प्रमाण दिवचें जाल्यार गोंयचे लिपींत बरयिल्लो 'कथाकल्पतरु' नांवाचो पोरणो मराठी ग्रंथ मंगळूरच्या कॅनरा हायस्कूलाच्या ग्रंथालयांत पळोवंक मेळटा. ठी लोक नागरी लिपी केन्नाच्यान वापरूंक लागले हाचे विशीं खात्रेन विधान करूं ो. 1675 वर्सा कोचींतल्या नामनेच्या अशा तीग जाण सारस्वत ब्राह्मण वैद्यांनी एका नौकाधिकाऱ्याक आपणें संग्रहीत करून दिल्ल्या वनौषधींचो परिणाम आशिल्ल्या ग्रा खातीर बरावेन दिल्ल्या प्रमाणपत्रांत कोंकणी बरोवपाक नागरी लिपी वापरल्या.

कोंकणी आनी महाराष्ट्र म्हणजे शब्द वा नांवां म्हणुया हीं केन्नाच्यान वापरूंक गले हाचे विशीं निश्चीतपणान सांगप शक्य जायत अशीं प्रमाणां मेळनात जालीं री ख्रि. शक चवथ्या शेंकड्या आदींच्यान तीं नांवां वापरूंक लागले जावंये असो दमास करपाक जागो आसा. ख्रि.श. पांचव्या शेंकड्यांतल्या ज्योतिशी आचार्य राहमिहिराच्या बृहत्संहितेंत 'भाग्यरसविक्रयिण: पण्यस्त्री कन्यक महाराष्ट्रा:।।10-8।। कंकटटकणपनवासी शिविकफणिकारकोंकणाभीर:।।14-12।।' अशें म्हणून महाराष्ट्र ानी कोंकणाचो उल्लेख आचार्य वराहमिहिराच्या काळा आदीं तीं नांवां वापरताले हणपाचें सिद्ध जाता.

आचार्य रामकृष्ण गोपाळ भांडारकर हांणी आपणाल्या दख्खनाचो प्राचीन इतिहास ुस्तकांत भोज वंशांतले राजा जशे तरेन स्वताक महाभोज म्हणोवन घेताले तेच तरेन ाष्ट्री, रठी वा रठ्ठ लोक स्वताक महारठी वा महारट्ठ अशें म्हणोवन घेतिल्ल्या न ते ाबितो करून आशिल्ल्या प्रदेशाक महाराष्ट्र हें नांव पडलें आसुंयें अशें भाजा, बेडसा आनी कार्ली हांगाच्या भुंयारी देवळांच्या वण्टींचेर कोरांतिल्ल्या दुसऱ्या शतमानांतलीं म्हूण नोंद जाल्ल्या बरपांनी दादल्यांक महारठी आनी बायलांक महारठिनी अशे शब्द वापरल्यात. असो उल्लेख मेळटा.[1] ह्या विवरणा वयल्यान महाराष्ट्र शब्दाचें मूळ मेळटा आसलें तरी कोंकण हें नांव कशें आयलें हाचे विशीं समाधानकारक जाप आयज मेरेन मेळिल्ली ना.

---

कोंकणी शब्दाचें मूळ सोदप शक्य जायना जाल्ल्यान कांय लोक परशुरामा आवय रेणुका देवीचें नांव 'कोंकणा' अशी कल्पना करून तिगेल्या नांवा वयल्य परशुरामाची निर्मणी अशें नांव पडिल्ले पश्चीम किनारपट्टेक कोंकण हें नांव पड अशें विधान करतात. पूण ती फकत एक कल्पना हाचे भायर खरेपण कांय ना. थोड्यो कल्पनाय आसात. थोडे बनवासीक कोंकण म्हणपीय आसात. खरेपणी सां जाल्यार कोंकण हो शब्द ख्रि. शक पयल्या शेंकड्यांत कोंगू देश म्हणिल्ल्या नांव जाका वळखताले आनी आयचे सेलम आनी कोयमुत्तूरु जिल्ले आनी तांचे भोंवतणेंतल प्रदेशाचेर राज्य करपी कोंगू राज घराणें आनी दक्षिण म्हैसूरांतल्या गंगवाडींत रा करपी गंग वंशाचें राज घराणें हांचे संबंद आशिल्ले अशें म्हणपाक जाय. सेल जिल्ल्यांत कोंकणपूर वा कोंगणपूर नांवाचो गांव आजून आसा. डॉ. एस. सी. बर्न हांणी प्रकाशीत केल्ल्या 'Elements of South India Palaeorgaphy' नांवाच पुस्तकांत दिल्ल्या नकाशांत आदीं उल्लेख जाल्लें कोंकणपूरच न्हय कोंकणपळ्ळी बी आसा. चीनी यात्री युवान चांग वा हुयेन त्सांग हाणें आपणाल्या यात्रा कथनां Konkinpulo=कोंकणपुरव हाचो उल्लेख केला. पूण ताणें दिल्ल्या विवरणांत ख थोडी म्हायती आयिल्ल्यान ताणें कोंगुनाडाकच 'कोंकणापूर' म्हणलां काय पश्ची तटाक (करावळीक) तशें म्हणलां काय बनवासीक तशें म्हणलां हाचे विशीं कळपा कठीण जालां. कोंकणपूर (राज्य)ची विस्तीर्णताय 5000 लाय् आसत अशें म्हणल ताचे उपरांत ताणें महाराष्ट्राचें वर्णन केलां. ताणें महाराष्ट्राची विस्तीर्णताय बी (क्षेत्रफळ 5000 लाय् आसा अशें म्हणलां आनी महाराष्ट्राचो राजा 'Pu-lo-ki-shi' म्हणल्य पुलकेशी अशें म्हणलां. चालुक्य राजा पुलकेशी महाराष्ट्राचेर ख्रि.श. 615-20 च मध्य काळांत राज्य करतालो.

दक्षिण भारताच्या इतिहासांत गंग आनी कोंग वा कोंगू नांवाचीं दोन राजवंशां नांवां दिसून येतात. गंग वंशाच्या राज्याचें नांव 'गंगपाडी' वा गंगवाडी आशिल्लें आन तें म्हैसूरचे दक्षिण पुर्वेक आशिल्लें. पयलीं ताची राजधानी कोलारांत आशिल्ली उपरांत ती तलकाडींत स्थलांतरी केल्ली. गंगवाडीक लागूनच कोंगूनाड आशिल्लें. खातीर गंग मनशांक तमिळांत 'कोंगर' म्हणटाले असो अदमास जाता. कोंगुनाडीं कोंगणपूर आसप आनी आतां जी म्हायती मेळ्ळ्या ते प्रमाण गंग वंशाच्या पयल्य राजाचें नांव कोंगुणीवर्मा अशें आसप हाचे वयल्यान दोन राजवंश वेगळे वेगळे न्ह तर तें एकच घराणें आसपाक जाय ह्या अदमासाक बळ मेळटा. ना जाल्यार कोंगरून

ीम करावळींतल्या तुळुनाडूचेर आक्रमण केल्लें ही घडणूक कळून आयिल्ल्यान, । वयल्यानच पश्चीम करावळीक कोंकण हें नांव पडलें अशें म्हणलें जाल्यार ती ; जावची ना.

इ. 1293 वर्सा संत ज्ञानेश्वरान रचिल्ले ज्ञानेश्वरी नांवाच्या ग्रंथांतल्या भगवदगीते ल्या व्याख्यानाची भाशा तेराव्या शेंकड्यांत घोळणुकेंत आशिल्ले कोंकणी भाशेची निधी म्हणूं येत अशी आशिल्ली. पूण तिनशीं वर्सां उपरांत म्हणल्यार 1590त संत नाथ नांवाच्या मराठी संतान ज्ञानेश्वरींतल्या पद्यांचो अर्थ समजूंक शकनाशिल्ल्यां तीर तातूंत हेर लोकांनी प्रक्षेप केल्यात ते गजालींची दखल घेतली. आनी तांकां ग्न अश्यो ज्यो होंवयो दिसल्यो त्यो आनी पुनरुक्ती जाल्ल्यो भायर काडून श्वरी शुद्ध करून वेवस्थीत केली - अशें आयज मेळपी ज्ञानेश्वरीचे प्रस्तावनेंत ूंक मेळटा. म्हणल्यार आयज आमकां मेळपी ज्ञानेश्वरी आपणाल्या मूळ रुपांत ं मूळ भाशेंत ना हें सिद्ध जाता. अर्थात आताची ज्ञानेश्वरी संत ज्ञानेश्वराची रचना ासतना ती संत एकनाथाची रचना जाल्ली आसा अशें म्हणपच सारकें. असोच भिप्राय श्री गणेश हरी केळकर (एम.ए.) नांवाच्या मराठी विद्वानान वेगळे तरेन डला. तांचें म्हणणें अशें आसा-

"आपल्या मराठीचाच प्रकार पाहिला तर ज्ञानेश्वरीची भाषा आज आपल्याला दुर्बो वाटते इतकच काय तर सुमारे तीनशे वर्षांपूर्वीच्या लोकांनाही ती दुर्बोध वाटत होती म्हणूनच एकनाथांनी ज्ञानेश्वरी शुद्ध केली, त्या काळाच्या चालू भाषेंत लिहिली. ज चारस सारख्या कवीचे ग्रंथ दुर्बोध वाटतात म्हणून त्याच्या काव्यांचीं जशीं लू इंग्रजींत रुपांतरं झाली आहेत तसाच प्रकार एकनाथांनी ज्ञानेश्वरीच्या संबंधांत ला म्हटलं पाहिजे."

हो अभिप्राय कोंकणीक मराठीचो अंतरभेद म्हणपी अशा मराठी पंडिताचो शिल्ल्यान हाचें मोल खूब चड आसा अशें म्हणूं येता. म्हणल्यार मराठी पंडित

Just as the Bhojas called themeselves Mahabhojas, the Rastrikas, Rathis Ratthas called themeselves Maharathis or Maharatthas as will be seen low and thus the country in which they lived came to be called Maharattha e Sanskrit of which is Maharashtra. In some of the inscriptions in the cave mples at Bhaja, Bedsa and Karli which are to be referred to the 2nd century e male donors are called Maharatti and the females Maharathini - Early History of the Deccan.

आतांची ज्ञानेश्वरी ही संत एकनाथान सुदारून मराठीसदृश्य अशे भाशेंत हाडि
कृती अशा मताचे आसात म्हणपाचें त्या त्यांच्या म्हणण्यांतल्यान सिद्ध जाता.

ज्ञानेश्वरी कोंकणी भाशेंतच रचिल्ली आनी हाचे विशींचीं प्रमाणां ज्ञानेश्वरींत उरि आसात हें आयजय ध्यानांत येता. संत एकनाथाक कोंकणीचो परिचय नाशिल्लो खातीर ज्ञानेश्वरींतल्या पद्यांचो सारको अर्थ कळनाशिल्लो. ताणें तीं शुद्ध रुपां अ मानलीं आनी ती सुदारून मराठींत हाडलीं. अर्थ कळपाक खूब कठीण आशिल होंवयो ताणें गाळून उडयल्यो. आनी ज्ञानेश्वरी ताणें चडांत चड प्रमाणांत आपणा काळांतले भाशे कडेन जुळोवन घेवपा सारकी केली. ते भायर कांय नव्यो होंव भरीक घाल्यो. सोळाव्या शेंकड्यांत नव्यो होंवयो ज्ञानेश्वरींत भरीक घाल्यात अ म्हणपाक तातूंत येवपी एक इंग्लीश शब्दाचें रुपांतरच एक प्रमाण म्हणपाक आ आसा. देखीक- ''लोकपाळ रांगेचे।।9-326।।'' हाचो अर्थ जाता पयले श्रेणी लोकपाल आनी तातूंतलो 'रांग' हो शब्द इग्लिशींतल्या 'Rank' शब्दाचें रुपांत तशेंच ताचें कोंकणी रुपांतर 'रंग' अशें आसा. पाश्चिमात्य लोक भारतांत येव आदीं तांचे भाशेंतले शब्द भारतीय भाशांनी समाविश्ट जावप शक्य ना हें आनी वेग सांगपाची गरज ना.

काळ आनी देशांतले भिन्नतायेक लागून ज्ञानेश्वरीची भाशा मराठी मनी आशिल्ल्या एकनाथाक दुर्बोध लागली आसली तरी मराठी आनी कोंकणीच वाक्यरचनांनी खूब कमी फरक आशिल्ल्यान आपणाक समजुपाक सुलभ आशिल्ल होंवयो ताणें मराठी म्हणपा सारके तरेन दुरुस्त केल्यो. पूण ताणें तातूंत वापरिल अनेक शब्द मराठीय न्हय आनी कोंकणीय न्हय अशें जाल्ल्यान ज्ञानेश्वरीची भाश मराठी मनशाक आनी कोंकणी मनशाक सारकीच दुर्बोध जाल्ली आसा. म्हणल्य आतांचे ज्ञानेश्वरींतली भाशा तेराव्या शेंकड्ड्यांत घोळणुकेंत आशिल्ली कोंकण न्हय न्हय. तशेच तरेन सोळाव्या शेंकड्यांत घोळणुकेंत आशिल्ली मराठीय बी न्हय अशे आवतिकायेंत टिकात्मक अर्थावणेचो आदार नासून कोंकणी जावं मराठी मनी ज्ञानेश्वरींतल्या पद्यांचो अर्थ समजुपाक शकना.

वास्तवतायेक धरून सांगतलो जाल्यार कोंकणीचें मराठींत रुपांतर करप खूब सों आशिल्लें आनी जालां. आनी एकनाथान कोंकणी पद्याचेंच मराठींत रुपांतर केल्ल्याचं प्रमाणां ज्ञानेश्वरींतच आसात. संस्कृतांतलीं 'अकारान्त' नामां कोंकणींत 'ओकारान्त

ले उपरांत तींच मराठींत 'आकारान्त' जातात हाचे विशीं आदीं आदीं उदाहरणां त्यांत. ताचे वयल्यान सिद्ध जाता. ते खातीर मराठींत प्रथमा विभक्तीच्या एकवचनाचो ल्लिंगी शब्द 'ओकारान्त' आसल्यार तो कोंकणी रुपांतच उरला म्हणपाचें स्पश्ट ता. तसले शब्द ज्ञानेश्वरींत मोटे संख्येन मेळटात. ताचें एक उदाहरण हांगा दिवं ा. ज्ञानेश्वरींत प्रस्तावना रुपांत आयिल्ल्या होंवयांनी तेत्तीसावी होंवी अशी आसा:-

"म्हणौनी हाकाव्यां रावो। ग्रंथगुरुवतीचा ठावो।। येथुनी रसां झाला आवो। ाळपणाचा।।" ही होंवी मुळांत कोंकणीच आशिल्ली अशें म्हणपाक तातूंत आयिल्ले ओकारान्त' पुल्लिंग शब्दच प्रत्यक्ष ताचीं प्रमाणां अशें दिसता. ती परतून मूळ ोंकणींत रुपांतरी करप खूब सुलभ जाता. देखीक:-

"म्हणौनी हो काव्यां रावो। ग्रंथगुरुवतीचो ठावो। येथूनि रसां जालो आवो। ाळपणाचो।।" हाचे वयल्यान जें कोंकणी आसात तें मराठींत आनी मराठी आसा कोंकणींत रुपांतरीत करप कितलें सोंपें जाता तें स्पश्ट जाता. इतलें न्हय तर कांय ाक्य रचना दोनूय भाशांनी सारक्योच जातात. त्या संदर्भांनी तीं वाक्यां उलोवपाचे ाली वयल्यानच भेद समजून घेवपाचो आसता. बरयिल्ल्या वाक्या वयल्यान भेद मजप शक्य नासता.

देखीक:- "म्हणूनच एकनाथांनी ज्ञानेश्वरी शुद्ध केली." हें केळकर हांच्या अभिप्रायांत आयिल्लें वाक्य. तें जितलें मराठी तितलेंच कोंकणीय बी.

आदीं म्हणलां ते प्रमाण कोंकणींतलीं 'ओकारान्त' नामां आनी क्रियापदां फकत 'आकारान्त' जावन बदलनात. विशेशणांय बी बदलतात. तितलेंच न्हय तर कोंकणींत 'आकारान्त' आशिल्लीं क्रियापदां मराठींत 'ओकारान्त' रूप घेवन ते भायर लिंगाक ावो सारके तरेन परिवर्तीत जातात. म्हणल्यार कोंकणींत वर्तमानकालीक क्रियारुपां कर्त्याच्या लिंग वचना प्रमाण रुपांतरीत जायनात.

देखीक:- तो येता; ती येता; तें येता.

संस्कृतांतय अशेंच आसता. पूण मराठींत हिंदींत जाता तशे तरेन वर्तमानकालील क्रियापदां लिंग वचनाक फावो ते तरेन रुपांतरीत जातात.

देखीक:- तो येतो; ती येते; तें येता

ह्या कोंकणीचेर जाल्ल्या हिंदीच्या प्रभावानच मराठी भाशा कोंकणीचो फांटो ज वेगळी जाली हें सिद्ध जाता. हिंदी भाशेचो प्रभाव कोंकणीचेर जायनासतना रावं म्हणलें जाल्यार तो कशे तरेन जाल्लो आसा ते विशींची विस्कावणी मुखार आया

मराठींतलें दुसरें एक खाशेलेपण म्हणल्यार मूळ कोंकणी शब्दांत 'ह'कार महाप्राणाक्षर नासलें तरी तें मराठींत रुपांतरीत जातना त्या शब्दांत 'ह'कार येवन मे ना जाल्यार अल्पप्राण व्यंजनच महाप्राणांत परिवर्तीत जाता. ज्ञानेश्वरींत खूब फ कोंकणींतलें 'जालें' हें क्रियापद दुसरें कितेंय रुपांतर जायनासतना मूळ रुपांतच प्र जावन कांय कडेन ताचो 'जाहलें', 'झालें' अशा रुपांनी प्रयोग जाला. वा कोंकण तोल-ऱ्हस्व स्वरा वटेन आसल्यार मराठीचो तोल दीर्घ स्वरा वटेन आसता. देखीक कोंकणी-गेली-मराठींत-गेली. तेच तरेन कोंकणीचो तोल शब्दाच्या अंताचें व्य स्वरा सयत उच्चारपा वटेन वता जाल्यार मराठीचो तोल स्वरलोप करून उच्चारपा व आसता. देखीक:- कोंकणी-वाति-मराठी-वात; कोंकणी-गायि-मराठी-गाय गायी; कोंकणी-तोऽचि मराठी-तोच आदीं. नामां आनी क्रियापदांचीं रुपांतरां मु दिल्यांत तशीं जातात.

| कोंकणी | मराठी |
| --- | --- |
| घोडो येता | घोडा येतो |
| घोडो आयलो | घोडा आला |
| राम आयलो | रामा आला |
| स्त्रियो आयल्यो | स्त्रिया आल्या |

शौरसेनी भाशेंत घोडो आयलो म्हणपाक 'घोडओ आअदो' हें रूप, 'महारा प्राकृत' अशें नांव दिल्ल्या सेतुबंध काव्याचे भाशेंत 'घोडओ आअओ (=आयओ अशें रूप. अपभ्रंश विभेदांत ''घोडा आयउ'' अशें रूप येता. म्हणल्यार पयल रुपांत क्रियापदाच्या शेवटाक 'दो' आसा जाल्यार दुसऱ्या रुपांत 'ओ' आसा आ तिसऱ्यांन 'उ' आसा. कोंकणींतलें 'घोडो आयलो म्हळ्ळें रूप शौरसेनींतल्या 'घोडअ आअदो' ह्या रुपाचें रुपांतर म्हणलें जाल्यार तातूंत कांय दबाव नासूं आनी मराठींत 'घोडा आला' हें कोंकणींतल्यान रुपांतरीत जावन आयलां अशें म्हणल्यार तातूं कांय दबाव आसूंक शकना.

भारतवर्षांत घोळणुकेंत आशिल्ल्या भाशां मदीं बंगालींत सोडून दुसरे खंयचे

ाशेंत भूतकालीक क्रिया 'ल' प्रत्ययान सोंपना. देखीक:- आमी गेलाम् (हांव लों) बंगालींतलीं भूतकालीक क्रिया रुपां कोंकणीच्या भूतकालीक रुपांक लागींचीं ासात अशें दिसलें तरी तांच्या प्रयोगांत खूब भेद आसा. बंगालींतलो 'छिलाम्' ाचें कोंकणींत 'आसिलों' (आशिल्लों) हाचें समान रूप म्हणूं येत. पूण शब्दाच्या ावटाच्या अनुस्वाराच्या बंगाली उच्चारांत आनी कोंकणी उच्चारांत खूब भेद आसा. ़शेंच गुजरातींत पूर्ण भूतकालीक अर्थांत क्रियापदां 'ल'कारान सोंपता आसूनय सामान्य ़ूतकाळांत 'ल'कार आसना.

देखीक:- हं आव्यो=हांव आयलों; पूर्ण भूतकालीक रूप सामान्यतायेन कृदन्त वेशेशणा सारकें प्रयोगांत येता:- रांधेलो चोखो=रांदिल्लें शीत. आवेलो=आयिल्लो. आवेलो हतो=आयिल्लो तो.

ज्ञानेश्वरींत-रावो=राजा (राया); आवो=आकार; आय (=रूप) ठावो=निवास थळ); विस्मो=विस्मय; अपावो=अपाय; नाहो=नाथ (पालक); संजयो सारके अनेक ओकारान्त पुल्लिंगी शब्द आसात आनी ते मराठी पद्दतीच्या विरोधांत आसात. आयचे मराठींतय -रामा, गोविंदा आदीं आकारान्त शब्द आसात ते आदीं 'ओ'कारान्त आशिल्ल्याचीं प्रमाणांच म्हणचें पडटा. तशेंच आयचे मराठींत 'हांव' म्हणपाक 'मी' हें सर्वनाम आसलें तरी ज्ञानेश्वरींत दोन फावटीं 'हांहो' हें रूप आयलां ''मग पार्थ कृष्णा नें म्हणे। हांहो हें कैसे तुमचें बोलणें। एक होय तरी अत:करणे। विचारुये।।5.1।।''

अर्थ: उपरांत पार्थ कृष्णाक म्हणटा 'हांव तुमचें हें एक तरी म्हणणें कशे विचारांत घेवं?' तेच तरेन मुखार ''हांहो नेणो कवणाची काहाणी।।6.142।।''

अर्थ: हांव नेणा (नकळो) कोणाची ही काणी. - ह्या पद्यांत 'हांव' ह्या अर्थान 'हांहो' अशें सर्वनामच न्हीं तर - मराठी साहित्यांतय दिसून येना असो 'कहाणी' हो कोंकणी शब्द हातूंत आयला. हीं पद्यां आपणाल्या मूळ रुपांत नात हातूंत कसलोच दुबाव ना. म्हणल्यार मराठी मनीस आशिल्ल्या एकनाथान ज्ञानेश्वरींत एकूय कोंकणी शब्द शुद्ध रुपांत उरूंक दिवंक ना ह्या म्हणण्याक 'हांहो' हें रूपच प्रमाण म्हणूं येत. अर्थांत मुळांत तें 'हांव' न्हय तर 'हांउ' अशें आशिल्लें जावंक जाय.

अशें आसलें तरी ज्ञानेश्वरींत सगळ्याक हांव म्हणपाक 'मी' हें सर्वनाम आयिल्लें आसतना तातूंत कोंकणीचें 'हांव' हाचें रुपांतर 'हांहो' हें रूप उरप, मराठींत केन्नाच प्रयोग जावंनाशिल्ल्या जायत्या कोंकणी शब्दांचो तातूंत प्रयोग जावप हाचे वयल्यान

ज्ञानेश्वरीची रचना कोंकणींतच जाल्ली आसपाक जाय ह्या अदमासाक बळ मेळ
ना जाल्यार ज्ञानेश्वरीच्या रचना काळांत कोंकणी ही सार्वत्रीक थरार घोळपी भा
आसून मराठी हो फांटो जल्माक येवनाशिल्लो आसतलो अशें म्हणचें पडटा. आत
ज्ञानेश्वरींतले भाशेंत जायते पोरणे शब्द आसात अशें म्हणपांत कांय दुबाव नासलो त
ती भाशा सोळाव्या शेंकड्या आदली अशें म्हणपाक जावचें ना. हाचें कारण मह
पंथाच्या मुनीकृष्णदास हांणी 1564 वर्सा (ख्रि.श.) रचिल्लें रुक्मिणी स्वयंवर
काव्याची भाशा ज्ञानेश्वरीचे भाशे परस विशेश अशी भिन्न ना.

ज्ञानेश्वरीच्या मंगलाचरणांत आयिल्लें ''अभिलषित मनोरुची पुरविता तो।।27।।
म्हणल्यार मनांतल्यो सगळ्यो कामना तो पूर्ण करता. हो पद्य अंश अस्स
कोंकणींतलोच. तो मराठींतलो जावंक जाय जाल्यार ''पुरविता तो'' अशें जावपा
जाय. अशे तरेन मराठींतल्या 'तो' बदलाक 'ता' प्रयत्ययान सोंपपी अनेक क्रियाप
ज्ञानेश्वरींत आसात. ते तरेच्या प्रयोगांनी आनी जायते कोंकणी शब्द ज्ञानेश्वरी
आसात ते पळयिल्ल्या कांय विद्वानांनी ते शब्द कोंकणी म्हूण मत परगटायलें जाल्य
कोंकणी भाशा मराठी परस प्राचीन म्हणपाचें आपणें सिद्ध केल्ले वरी जातलें अ
चिंतून ते तरेचे प्रयोग आनी तसले शब्द आपणाले पोरणे मराठींत घोळटाले अ
म्हणपाक सुरवात केली. तांणी तशें म्हणिल्लें इतलेंच न्हय तर 'Memorandu
on Konkani' नांवाचें एक ल्हान पुस्तकय बी उजवाडायिल्लें. आनी तांणी तातूं
कोंकणीक मराठीचो अंतर्भेद म्हणपाचो विचार साध्य करपाचो प्रयत्न केल्लो. आन
कोंकणी फुडाऱ्यांनी जनगणनेच्या काळांत आपणाली आवयभास मराठी परस भिन
आसा म्हणपाची गजाल नमूद करिनासतना 'कोंकणी मराठी' अशें नमूद करपाक जा
म्हूण सुचोवणी केल्ली.

पूण तांणी त्या पुस्तकांत दिल्ले शब्दांचे वळेरेंत तशेंच फकत कोंकणींतच आसप
आनी पोरण्या मराठी ग्रंथांनी प्रयोग जाल्ले आसात अशें म्हणून दाखयिल्ले शब
आतांच्या मराठी साहित्यांत म्हणया, बोली भाशेंत म्हणया अशे खंयच नदरेक पडना
म्हणपाचें सत त्या पुस्तकाच्या माध्यमांतल्यान उक्तें जावन कोंकणी आतांचे मराठ
परस प्राचीन म्हणपाचें सिद्ध जावचे जावन वयल्यान कोंकणी ही मराठीचो उपभेद
म्हणणेंय सिद्ध करूंक जालें ना. तांणी पुंजावन दिल्ल्या शब्दांतलें कांय मुख्य शब
मुखार दिल्यात.

-

| Old Marathi | Konkani | Modern Marathi |
|---|---|---|
| आवै | आवय् | आई |
| – | ब्राह्मण् | पती |
| ब्राह्मीण | – | पत्नी |
| दादुला | दादलो | पुरुष् |
| बाइल | बाइल | स्त्री |
| पूत् | पूत् | मुलगा |
| धूव | धूव | मुलगी |
| वरैत | वरैत | नवरा |
| वोहर | वोहर | वधूवर |
| वऱ्हाडीक | होरडीक (चूक) | लग्न |
| राति | राति | रात्र |
| दीस | दीस | दिवस |
| सांजवेळ | सांजवेळ | सायंकाल |
| पाहालें | फालें | पहांत |
| कैं | कैं | केव्हां |
| भीतरि | भीतरि | आंत |
| पाहे | फाइ | उद्यां |
| आंत | आंत | आंतडी |
| खाड | खाड | दाढी |
| लोंव | लोंव | अंगाचे केस |
| पालखति | पालखति | आसनमांडी |
| आवाळू | वाळू | ओष्ठप्रांत |
| पातेंऽ | पातें | पापणी |
| खोंपा | खोंपो | वेणी |
| सुणेंऽ | सुणें | कुत्रा |
| कुकडीऽ | कुकडी (चूक) | कोंबडी |
| सीत | सीत (शीत) | भात |
| सांबार | सांबार | मसाला |

| | | |
|---|---|---|
| वोखद | वोखद | औषध |
| दोऽणा | दोणो | द्रोण |
| तळी | तळि | ताट |
| पाथर | फातर | दगड |
| इंगला | इंगळो | निखारा |
| दोऽडा | धोडो | कच्चें फळ |
| रूख | रूख | वृक्ष |
| तण | तण | गवत |
| ओऽतपली | ओत | ऊन |
| सीं | शीं (शींय) | थंडी |
| पैऱ्हा | पैरो | पाळीचाताय |
| रीण | रीण | कर्ज; ऋण |
| कांकण | कांकण | बांगडी |
| मुदी | मुद्‌दी | आंगठी |
| डोऽणी | दोणी | होडी |
| बाळाणा | बाळणो | खिडकी |
| भुइ | भुइं | जमीन |
| खोंप | खोंप | झोपडी |
| पेणें | पेणें | मुक्काम |
| गोऽमटें | गोमटें | बरें |
| निबर | निबर | कठीण |
| आफावणे | आफयणें | बोलावणें |
| पात्येऽणें | पात्येणें | विश्वास ठेवणें |
| आंगवणें | आंगयणें | नवस करणें |
| पालवणें | पालयणे (चूक) | पालवणे |
| पालव | पालव | पदर |
| वोलि | वोलि | अंगवस्त्र |
| घेऽता | घेता | घेतो |
| मारिता | मारिता | मारितो |
| घेऽतासी | घेत्तासि | घेतोस |

| | | |
|---|---|---|
| आहाति | आसाति | आहेत |
| दऽखिलां | देखलां | देखिलें आहे |
| आसिलि | आसिलि | होती |

ही वळेरी खूब लांब आशिल्ली. तातूंतले मुख्य शब्द तितलेच वेगळे काडून ती ान करून घेतल्या. हे वयले शब्द बारीकसाणेन ध्यानांत घेतले जाल्यार एक तथ्य सून येता तें म्हणल्यार मराठी म्हणयारे जे शब्द पोरणे मराठींतले अशें म्हणटाले ते ानी कोंकणी शब्द एकूच, कोंकणींत आसपी खंयच्या प्राकृत शब्दांच्या बदलाक त्रे मराठींत शुद्ध संस्कृत शब्द वापरल्यात, तांचे समानार्थी प्राकृत शब्द मराठींत नात, ांचो उणाव (अभाव) ना करपाच्या हेतान मराठी साहित्यिकांनी संस्कृत शब्द मराठींत ालींच समाविश्ट केल्ले आसात. ज्या लोकांची मातृभाशा प्राकृत नाशिल्ली त्या ोकांनी कोंकणी उलोवपाक सुरवात केल्ली हें त्या अभावा फाटलें कारण आसूं येता. ी वयली वळेरी दिल्ली त्या पंडितांनी कांय कोंकणी शब्द चुकीच्या रुपांत दिल्यात. खीक:- होरडीक=लग्न; कानसूल=कानसूल; सेवणें=शेवणें; यळा=येळ (वेलची) ों चुकीचं रुपां दिल्यांत. तीं दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत अनुक्रमान अशीं आसात हारडीक - (=वरहाडीक); काणसळ्; सउणें; एऽळ् - अशा रुपांत वापरतात. ज्वर' ह्या अर्थान जोरो आनी ताप् अशे दोन शब्द वापरतात. तशेंच तांणी आधुनीक राठींतले म्हूण दिल्यात ते शब्द 'पलंग, हतोडो, तलवार, लात, मान' आदी शब्द दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतय वापरतात आशिल्ल्यान ते मुळांत कोंकणीचेच म्हूण सिद्ध जाता. तांणी दिल्लो 'खोंप' अर्थाचो 'झोंपडी' हो शब्द कोंकणींतय आसा. पूण तो कोंकणी न्हय ते खातीर तो मराठींतलोय न्हय. तो हिंदींतलो.

त्या विद्वानांनी ज्ञानेश्वरींतले शब्द शुद्ध आसात अशें दाखोवन ती पोरणी मराठी आनी कोंकणी ही तातूंतल्यानच जल्मल्या अशें म्हणूपाचो हेतू साध्य करपाक ते धडपडल्यात. पूण तांणी पोरणे मराठींतले शब्द नवे मराठींत आसपाचे सोडून ते फकत कोंकणींत आसात हाचे फाटलें कारण कितें हो प्रस्न सोडोवपाचो यत्न करूंक ना. ज्ञानेश्वरींतल्या शब्दांचे शुद्धताये विशीं सांगपाचें जालें जाल्यार तातूंत खंयचींय नामां, क्रियापदां आदींचो सगळे कडेन एकाच रुपान उपेग केल्लो ना अशें म्हणचें पडटा. देखीक:- वराडिक=वऱ्हाडीक; जालें; जाहलें; झालें; जालिया आदीं.

6

कोंकणी वा मूळ महाराष्ट्री भाशा कन्नड राज्यांत, कन्नडाच्या नित्य सहवासांत आ संपर्कांत आशिल्ल्यान कोंकणींत कन्नड शब्द, कन्नडांत कोंकणी शब्द उब्या आडव धाग्यांनी वस्त्र विणचें तशे तरेन भरसल्ले आसात. ते खातीर त्या दोनय भासांनी घोळ कांय शब्द खंयचे भाशेंतलें म्हणपाचें थारावप सोंपें काम न्हय. कोंकणी प्राकृतांत आनी शौरसेनी प्राकृतांतलीं कांय मूळ रुपां फकत कन्नडांत मेळटात आशिल्ल्यान शौरसेनी प्राकृत कोंकणी रूप घेवन परिवर्तीत जाली ती कन्नड प्रदेशांतच अशें म्ह येत. देखीक- संस्कृतांतलो 'आर्द्र' शब्दाचें शौरसेनी रुपांतर 'ओद्दं' हाचो कन्न अर्थ 'ओद्दे' असो मूळ रुपांतच उरला. पूण तो कोंकणींत 'ओल्लें' (ओलें) अ रुपांत परिवर्तीत जालो. ज्ञानेश्वरींत जाल्यार कन्नडांतले ओऽगर (पक्व, परिपूर्ण आरोगिसू, पवडिसू, सिलुकू (=शिरका) आदी उतरांचीं रुपांतरांय बीं आशिल्ल्य - ज्ञानेश्वरीची रचना - कन्नड भाशा घोळटाली त्या प्रदेशांतच जाल्ली आसपा जाय अशें म्हणल्यार तातूंत कांय दुबाव उरपाचो ना.

कोंकणींतल्यान कन्नडांत समाविश्ट जाल्ल्या कांय शब्दांतले हुडगा आनी हुड (=हुडुगा; हुडुगी) हेय बी दोन शब्द. कन्नडा संबंदान कांय संशोधनात्मक ग्रंथ बरोव उजवाडा हाडिल्ले श्रीमान शं. बा. जोशी नांवाच्या विद्वानान आपणाल्या 'कन्नड नुडि हुट्टु' (कन्नड भाशेचो जल्म) नांवाच्या पुस्तकांत 'हुडुगा' हो शब्द पोरणे कन्न भाशेंत आयला हाचे विशीं कांयच विसकावणी केल्ली ना. हेर सगळे शब्द सोड् हुडुगा आनी हुडुगी हे दोन शब्द वेंचून काडपा फाटलें कारण अशें आसा - मरा भाशा कोंकणींतल्यानच खूब अर्वाचीन काळांत जल्मली हो निर्णय बळिश्ट करपा हे दोन शब्द प्रबळ अशीं प्रमाणां थारतात.

मगा, मगळू, गंडू, हेण्णू, गंडा, हेंडती, गंडसू, हेंगसू, (पूत, धूव, दादलो बायलमनीस वा स्त्री, घांव, बायल, दादलो, अस्तुरी) आदी शब्द नासतना ए स्वतंत्र भाशा निर्माण जायना. म्हणल्यार हे शब्द एके भाशेचो मुख्य गाबो वा प्रा कसो आसतात आनी भाशेंत घोळपी तसल्या शब्दांच्या रुपा वयल्यान भाशेचें मू आनी इतिहास समजून घेवप साध्य जाता. आताचें समस्त मराठी साहित्य झंजळाव काडलें तरी हे वयर उल्लेख जाल्ल्या शब्दांक मराठीचो स्वताचो म्हणपा सारको एकू

ृत प्रतिशब्द मेळचो ना.

मराठींत मगा, मगळू आनी मगू (पूत, धूव आनी भुरगें) हांकां मुलगा, मुलगी नी मूल (मुलगें) हे शब्द सोदून त्याच अर्थाचे दुसरे शब्द नात. ते प्राकृत शब्दच सल्यारय बी तांचीं लागींचीं अशीं संस्कृत मुळां सोदून काडप तितलें सोंपें ना. णल्यार ते शब्द नीट संस्कृतांतल्यान रुपांतरीत जावन मराठींत आयिल्ले न्हय. चें मूळ कोंकणींत आसा. तें बुरगो, बुरगी आनी बुरगें अशें आसा. तें कोंकणींत गो, भुरगीं आनी भुरगें अशा रुपांतय घोळटात. ते शब्द कोंकणींत संस्कृतांतल्या क आनी अर्भक ह्या दोन शब्दांतल्यानय बी रुपांतरीत जावन येवप शक्य आसा. रसेनींत संस्कृतांतलो 'पुत्र' हो शब्द 'पुत्तो' आनी 'पुडो' ह्या दोन शब्दां कडेन ळमेळ सादता. देखीक:- व्यापृतेऽ:।।12-।। पुत्रे पिक्वचित्।।12-5।। पुडो; पुत्तो शें प्राकृत प्रकाशांत सांगलां. ते खातीर पुत्रक: हो शब्द 'पुडगो' रुपांत परिवर्तीत जावन कोंकणींत आयिल्लो तो 'हुडगा' जावन कन्नडांत मेळ्ळो म्हणपाचें सिद्ध जावपाक डले प्रयास पडपाची गरज ना. कालक्रमण जालें तशें कोंकणींत 'पुडगो' आशिल्लें च 'बुरगो' अशें जालां जावपाक जाय. वा 'अर्भक' शब्द 'भुरगो' जावन आयलां ासतलें. ब, भ आशिल्लें कोंकणींत 'म' जावप आनी 'र' आशिल्लें 'ल' जावपा रकीं उदाहरणां प्राकृतांत जायतीं आसात. देखीक-भण=म्हण; भांड:=मांडो (मोटी डकी, भाण); हरिद्रा=हलद्दा=हळद; अंगार:=इंगालो=इंगळो आदी. ते खातीर रगो आशिल्लें तेंच 'भ'काराक 'म'कार आनी 'र'काराक 'ल'कार जावन मराठीचें ुलगा' हो शब्द जालो अशें म्हणल्यार कांय दुबाव ना.

मराठी शब्द रत्नाकर नांवाच्या कोशाच्या परिशिश्टांत मुलगा हो शब्द संस्कृतांतल्या मूऽलक' शब्दांतल्यान जल्मला अशें सुचयलां. पूण 'मूऽलक' शब्दाचो भुरगो वा रगें असो अर्थ न्हय; संस्कृतांतलें 'मूऽल' आनी 'मूऽलक' हे शब्द मराठींत मूळ ानी मूळें अशा रुपांत घोळटात म्हणपाचेंय बी कोशकारांनी ध्यानांत घेवंक ना.

मराठींत साहित्याची खूब वाड जाल्ली आसली तरी नित्यनेमाचे घोळटुकेंत रज आशिल्ले आनी घरगुती उलोवण्याक गरजेचे अशे खूबशे शब्द आयजय बी ते ाशेंत नात. म्हणल्यार मराठींत संस्कृतांतल्या 'पुत्र' शब्दाचें रुपांतर 'पू'. वा दुहिता ब्दाचें रुपांतर 'धूव' हे शब्दच नात. वा भुरगीं खूब उमळशिकेन आयकतात ती कहाणी=काणी' हो शब्दय ना. त्या बदलाक संस्कृतांतलो 'कथा' शब्द आसा. 'कथा'

हो शब्द कोंकणींतय आसलो तरी 'कथ्'=सांगप, रंगवप ह्या धातूंतल्यान रुपांतरीत 'कह्' धातूक 'अणि' प्रत्यय लावन जल्मल्लो 'कहाणी' शब्दय बी आसा आनी ते 'कअणी'=काणी असो उच्चारतात. 'कह्' धातूचें भावनाम 'कहणे'=म्हणणे ह्या अर्थाचो शब्द कोंकणीच्या कांय पोरण्या पद्यांनी आयकूंक मेळटा तितलें सोडल्यार आतां तो शब्द घोळणुकेंत ना. पूण ताचें एक पोरणें रूप 'कहइं=खइं=म्हणटात; अशें उरलां.

अशें आशिल्ल्यान मग=(Son) आनी हुडगा=(Boy) अशें म्हणपाक मुलगा हो एकूच शब्द आनी धूव=(Daughter) आनी चली (=Girl) म्हणपाक मुलगी हो एकूच शब्द वापरचो पडटा.

चेडो हो शब्द संस्कृतांतल्या 'चेट=दास, सेवक' ह्या शब्दाचें रुपांतर सारस्वत ब्राह्मण चेडो हो शब्द घरकामाक नेमिल्ल्या सकयल्या वर्गाच्या चाकराक उद्देशून वापरतात. तशेंच घरा भायल्या कामाक नेमिल्ल्या स्त्री चाकराक चेडूं म्हणटात. 'चेडी' ह्या शब्दाचो अर्थ 'वेश्या' असो जाता. कोचींत आयज 'चेटो' हें मूळ रूपच घोळटा. दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत क्रिस्तांव लोक आनी सकयल्या वर्गांतले हिंदी लोक चेडो=भुरगो=Boy; चेडूं=Girl ह्या अर्थान वापरतात. सारस्वत ब्राह्मण Boy=चरको, चेलो; Girl=चेली हे शब्द आनी भुरगें म्हणपाक चेलडूं हो शब्द वापरतात. चेलो आनी चेली ह्या शब्दांचें मूळ कितें हें निश्चीतपणान सागंपाक जावचें ना. अशें आसलें तरी मुखार दिल्यात ते प्रयोगच तांचें मूळ आसपाक जाय अशें दिसता.

ब्राह्मण चेल:'=ब्राह्मण रुपाचो; ब्रह्मणी चेली=ब्राह्मणी रुपाची असले प्रयोग संस्कृत साहित्यांत मेळटात. तशेच तरेन बौद्ध साहित्यांत चेलुक:=नवशिष्य असल्या अर्थाचो शब्द आसा. हिंदींत 'चेला' म्हणल्यार 'शिष्य' असो अर्थ आसा. 'चेलो' शब्दाचो अल्पार्थक शब्द 'चेलडूं' असो जाला. वा कोंकणींत भुरगो ह्या अर्थाचो 'चरको' असो शब्द आसूनय ताचें स्त्रीलिंगी रूप ना. 'चरको' शब्दाचें मूळ 'चरक:'=भिक्षू (भटको विद्यार्थी) हो शब्द आसुंये. बंगालींत 'भुरगो' ह्या अर्थान 'छेले' हो शब्द आसूनय 'चली भुरगें' ह्या अर्थाचो 'छेली' असो शब्द ना. त्या बदलाक 'मेये'=चली भुरगें (चेडूं) हो शब्द आसा.

सारस्वत ब्राह्मणांगेर 'घोव' (पती) ह्या अर्थान 'बाम्हण' हो शब्द वापरतात. पूण ब्राह्मणोत्तर लोक 'घोव' वा 'घोवो' हो शब्द वापरतात. हेर कांय लोक दादलो हो शब्द वापरतात. घरकान्न (पत्नी) आनी अस्तुरी (स्त्री) ह्या दोन अर्थांनी 'बायल' हो

ब्द सार्वत्रीकपणान घोळटा. मराठींत तो बायलो (बाइ+को) ह्या रुपांत वापरतात.

कोंकणींत 'बाइल' (बायल) हो शब्द 'घरकान्न (पत्नी)' आनी अस्तुरी (स्त्री) ह्या न अर्थांनी घोळटा आशिल्ल्यान तो दोन मुळांतल्यान रुपांतरीत जाल्लो आसपाक य. संस्कृतांतलो 'भार्या' प्राकृतांत 'भारिया' असो परिवर्तीत जाता. तो उपरांत मदलो " लोप जावन आनी 'य'-कार 'ल'-कार जावन बदल घडून 'बाइला=घरकान्न त्नी)' ह्या अर्थान. 'य'काराचो 'ल'कार जावपाचीं कांय उदाहरणां अशीं आसात:- स्कृत-यष्टि=प्राकृत-लठ्ठी=कोंकणी-लाठी (दांडो); संस्कृत-युग=प्राकृत-ग=कोंकणी-नुग=कन्नड-नोग. कन्नडांतलो 'नोग' हो कोंकणींतल्या 'नुग' शब्दाचें पांतर म्हणपाचें वेगळें आनी सांगपाची गरज ना. तशेंच संस्कृतांतलो महिला=अस्तुरी स्त्री) ह्या शब्दांतल्या 'म'-काराचो 'ब'-कार जाला आनी 'ह' लोप जावन 'बइला' शें जावप शक्य आसा. 'म'-काराचें 'ब'-कार जाल्ल्यो देखी अश्यो आसात: स्कृत-मुंडू=कोंकणी-बोड=कन्नड-मुंडे (बोळु); मुंडक:=बोडको=कन्नड-बोळुतले तकली) वा गोमटी कापून जाल्लें मुंडकें; मुंडय=बोडाय=वाखरान तासप (मुंडण रप).

कोंकणींत आवयक संबोधन करपाक संस्कृतांतल्या माता शब्दाचें रुपांतर माय्=आवय' हो शब्द आसा आनी तो आवयकच वापरतात. ते खातीर तो अन्य बायलमनशे खातीर 'अम्मा' ह्या अर्थान 'बाय' असो रुपांतरीत करून वापरतात आनी तो संबोधनांत 'बाये' असो जाता. तो 'बाय' शब्द अस्तुरेच्या (बायलमनशेच्या) नांवां फाटल्यान लायतात तेन्ना 'बायि' असो जाता. देखीक: कमलाबायि=कमलम्ममा; सीताबायि=सीतम्मा आदी. म्हणल्यार बाय वा बायि हो शब्द कन्नडांतल्या अम्मा वा अव्वा शब्दाक समानार्थी. कोंकणींतलो 'बायि' (बाय्) हो शब्द मराठींत 'बाई' असो जाता.

कोंकणींत 'बापूय' ह्या अर्थान संस्कृतांतलो 'वप्ता' हो शब्द बप्पा जावन आतां 'बाप्पा' ह्या रुपांत परिवर्तीत जाला. त्या बाप्पा शब्दा फाटल्यान सन्मानसूचक 'ऊय्', 'ऊज्' वा 'ऊजू' अशे प्रत्यय लागताले आनी ताचीं रुपां-बापूयस बापूज् आनी बापूजू अशे जाताले. उपरांत 'ज'-कार चो 'स'कार जावन आतां 'बापूस' आनी 'बापुसु' अशीं घोळटात. त्या शब्दाचीं विभक्ती रुपां अशीं जातात - बाप्पाक=बापुयाक=बापुसूक. बाप्पा शब्दाचें संक्षिप्त रूप 'बाप्' अशें जालां. तें 'बाब' रुप घेवन हेर मनशांच्या नांवां

फाटल्यान लागून कन्नडांतलो 'अय्या' वा 'अप्पा' असो अर्थ उक्तायतात. कन्नड
नारणप्पा वा नारणय्या हो कोंकणींत नारायणबाब् वा नाण्णबाब् जाता.

तसोच पुरुष ह्या अर्थान दादलो हो शब्द कोंकणींत घोळटा आनी हो शब्द ज्ञानेश्वर 'दादुला' रुपान कोंकणींतल्या अर्थानच जायते फावट प्रयोग जाला. ''बिरुवाचे दाद हिंवंताति''=नामनेचे वीर (पुरुष) कडकडटात (भितात). मराठी शब्दकोशकारा दादुला आनी दादला हे शब्द आपणाल्या कोशांनी दिवन तांचो अर्थ 'घोव' (पत असो दिला[1]. म्हणल्यार त्या कोशकारांक 'दादला' शब्दाचो परिचय ना हें तां दाखोवन दिलां. तशेंच कोंकणींत दादले जातीचो (पुरुष जातीचो) म्हणपाक 'दादले वा 'दारलें' हें विशेशण वापरतात. हे वा हांचे समानार्थी हेर प्राकृत शब्द मराठींत ना ताच्या बदलाक त्या अर्थाचे पारसी भाशेंतले 'नर'=दादलो (पुरुष) आनी 'मादी'=स्त्र अशे शब्द आसात. 'नर' हो शब्द मुळांत संस्कृत आसूनय ताचो 'पुरुष जातीचो' अ अर्थ हो मूळ पारसी भाशेचोच. पारसी भाशेचें मूळय बी संस्कृतच.

जल्मप आनी जावप ह्या अर्थान संस्कृतांतलो 'जन्' हो धातू कोंकणींत 'जा' ह रुपांतल्यान सगळ्या काळांतल्या आख्यात रुपांक 'कृत' प्रत्यय लागता. देखीक वर्तमानकाळ (प्राचीन रूप)- जाइ (आतांचें रूप) जाता=जाता, जल्मत. भूतकाळ जालें=जल्मलें; जालें. पूर्ण भूतकाळ- जाल्लें=जल्मल्लें; जाल्लें. पूर्ण वर्तमानकाळ जालां=जल्मलां, जालां. भूतकालीक कृदन्त- जालेलें (जाल्लें) जल्मलेलें, जाल (जालांतें). अभ्यासार्थक आनी तत्कालीक भूत- जातालें=[1] [जातालें (जा येतालें); जल्मूं येतालें.[2] जातलें आशिल्लें] 'भविष्यकाल- जतलें=जल्मतलें, जतलें संभाव्य भविष्य-जाईत=जावंये (जावंक शकता); जल्मत, जल्मूंक शकता. संभाव्य कृदन्त- जावंचें= जावंये अशें; जावंयेत अशें; जल्मूयेत अशें. भविश्यकालीव कृदन्त- जातलें=जातलेशें; जल्मतलेशें. कृन्नाम-जावप: जावणें=जावप, जल्मप कृदन्त विशेशण जाइ वा जाय= जल्म, जल्माचें देखीक: जावपाचो वा जल्मुचो गूण पूर्वकालीक कृदन्त- जाउन (जावन), जल्मून; क्रियाविशेशणां-जाउं=जल्मूंक, जावंक जातना, जल्मतना. जातां-जातासतना, जल्मतासतना. जाईत, जल्मत. उदा: जाईत वता, जल्मत उरता (रावता). जातचि=जावन, जाले उपरांत; जल्मून, जल्मले उपरांत जाल्यारि=जाल्यार, जल्मल्यार. संकेतार्थ- जातें=जायत आशिल्लें. जल्मत आशिल्लें.

1. Sanskrit English Dictionary - Sir Momier M. Williams, M.A.

ज्ञार्थ- जाओ (जाऊं)= जावं, जल्मूं. विद्यर्थ- जाइजे=जावंक जाय (जावपाक
जा); जल्मूक जाय, जाय. आतांचे कोंकणींत 'जाय' ह्या अर्थान 'जाइजे' मदलें
लोप जावपाक दिवन (ना करून) 'जाइ' (जाय) हें रूप वापरतात.

कोंकणींत 'जा' क्रियेचीं इतलीं सगळीं रुपां आसतना मराठींत 'जा' क्रियेचीं
कालीक 'कृदन्त'-झालेलें' आनी सामान्य भूतकालीक रुपां सोडून हेर काळांतलीं
ां नात. इतलेंच न्हय तर मूळ धातूच ना. अशें आसतना मराठींत 'झालेलें' आनी
ालें' आदीं रुपां खंयच्यान आनी कशीं आयलीं हें कोंकणीक मराठीचो अंतर्भेद
णपी मराठी पंडित समर्थपणान सांगूंक शकनात. पोरण्या मराठी साहित्यांत- जालें
ानी जालेलें हीं शुद्ध कोंकणी रुपांच दिसून येतात. वा तसलीं रुपां भारतवर्षांतल्या
खंयच्याय प्राकृत विभेदांत नाशिल्ल्यान- मराठी कोंकणी भाशेंतल्यानच जल्मल्या
शें सिद्ध करपाक वेगळ्या प्रमाणांची गरज ना. ज्ञानेश्वरींत 'जा' क्रियेचो दुसरो एक
योग आसा 'सुख जावों लागलें फावा ।।7-191।।=सुख प्राप्त जावंक लागलें' हातूंतलें
ावो' हें रूप कोंकणींतल्या 'जाउं=जावं' हाचें रुपांतर म्हणपाचें जाणवता. ज्ञानेश्वरींत
गळ्यांत कोंकणींतलो 'उ' प्रत्यय 'ओं' ह्या रुपांत आयला. तशेंच सगळ्याक 'ओ'
वराच्या बदलाक 'वो' हें व्यंजन घोळटा. देखीक: ओगर-वोगर (अन्न, आहार).

मराठींत कोंकणींत आसा तशेंच 'आसप' ह्या अर्थान 'अस्' धातू वापरतात. तो
ोंकणींत 'आसा' आनी 'आहा' अशा रुपांनी सगळ्या कालार्थांनी वापरतात. 'आहां'
रूप ताचें ग्राम्य रूप. पूण मराठींत 'अस्' क्रियेचीं रुपां अनियमीत आसप इतलेंच
हय तर पूर्ण भूतकाळांतलीं 'आशिल्लें, आशिल्लो' आदी अर्थाचीं रुपांच नात. त्या
र्थांनी हिंदी भाशेंतलें 'हो'=घडप (जावप) आनी 'आसप' ह्या अर्थाच्या क्रियेचीं
ंकेतार्थाचीं रुपां भूतकालीक अर्थान घोळटात. देखीक- होतें=आशिल्लें (आसलें);
ोता= आशिल्लो (आसलो); होती=आशिल्ली (आसली) आदी. मराठींत असलीं
रीच अवेवस्थीतपणां आसात. कोंकणींतल्या 'जा'=जावप; जल्मप ह्या क्रियेच्या
दलाक मराठींत हिंदी भाशेंतली 'हो' ही क्रिया घोळटा. मजेशीर गजाल म्हणल्यार
राठींत त्या 'हो' क्रियेचीं भूतकालीक आख्यात रुपांच नात. जालें, जालो, जाली
्या अर्थान झालें, झाला, झाली हीं रुपां येतात.

संस्कृतांत भूतकालीक कृदन्त संदर्भ आसात ते प्रमाण सामान्यभूत, आसन्नभूत
=पूर्ण वर्तमान) आनी पूर्ण भूत अशे तीन कालार्थ सुचीत करता. तेच तरेन

संस्कृतांतल्यानच परिवर्तीत जाल्ल्यो कोंकणी भूतकालीक क्रिया निमाणो स
परिवर्तीत जायना फुडें आदीं उल्लेख जाला त्या तीन काळांचे अर्थ उक्तायतात.
मराठींत सहायक क्रिया नासतना ते अर्थ सुचीत जायनात. देखीक- कोंकणी-
आयलो=मराठींत -रामा आला. कोंकणी-रामू आयला=मराठी-रामा आला. कोंकण
रामू आयिल्लो=मराठी-रामा आला होता. कोंकणी-रामू कालि कहिं आसीलो? (
काल खंय आशिल्लो)=मराठी-रामा काल कुठे होता?

संस्कृतांत लोकसूचक क्रियाविशेशणां इदानीं=आतां; ह्या वेळारस तदानीं=तेन्
त्या वेळार; कदा=केन्ना; खंयच्या वेळार (कित्या समयार) आदीं शब्द दक्षि
कन्नड जिल्ल्यांतले सारस्वत ब्राह्मण उलयतात ते कोंकणींत अनुक्रमान-एदना=एद्द
(येन्ना); तेदना=तेद्दना (तेन्ना); केदना=केद्दना (केन्ना) अशा दोन दोन रुपां
घोळटात. आमचे क्रिस्ती भाव तीं अनुक्रमान - एदवां=एन्ना, तेदवां=तेन्
केदवां=केन्ना अशा दोन दोन रुपांनी वापरतात. तींच मराठींत एधवा=एव्ह
तेधवां=तेव्हां; केधवां=केव्हां अशा रुपांनी घोळटात.

संस्कृतांतलीं अत्र, तत्र, कृत्र, यत्र हे स्थानवाचक सप्तम्यंत शब्द कोंकणींत मुख
दिल्यांत त्या दोन दोन रुपांनी वापरतात. अहिं (हइं)=हांगा; तहिं (थइं)=थंय; क
(खइं)=खंय; जहिं=जंय आनी एथां (हेतां)=हांगा; तेथां=थइं (थंय); केथां=ख
(खंय); जेथां=जयं, खंय. दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत प्रचलीत आशिल्ल्या पोरण
गितांनी येथें; तेथें हीं रुपां घोळटालीं. देखीक- येथें येथें बैस रे मोरा। मोर गेलो कुंदा
तेरा। हे तरेचे प्रयोग पुर्तुगेजांनी गोंय घेतले उपरांत विस्थापीत जावन गेल्ल्या, दक्षि
कन्नड जिल्ल्यांत स्थायीक जाल्ल्या लोकां कडल्यान प्रचलीत जालीं आसपाक जा
मराठींत अहिं, तहिं, हे तरेचीं रुपां नात; येथं, तेथं, कुठं आदीं रुपां आसात. इथ
तिथं अशीं रुपां आसात. कोंकणींतलीं अहिं, तहिं हीं रुपां बुद्ध देवाच्या प्रवचनांच
काळांत सावन घोळणुकेंत आशिल्ल्यान उपरांतच्या सगळ्या प्राकृत साहित्यांत तां
प्रयोग जाला. सेतुबंध काव्यांतय तींच रुपां आसात. (7-71) वयर येवन गेल्ल
उदाहरणांतल्यान कोंकणी भास मराठी परस प्राचीन थारता इतलें न्हय तर प्राकृत श
संपत्तेनय मराठी परस चड संपन्न आसा ही गजाल सिद्ध जाता.

1. दादला-ल्या=Husband: The Arya-Bhushan School-Dictionary. दादल
दादुला=नवरा;- मराठी शब्द रत्नाकर.

कोंकणी आनी मराठी हांची उत्पत्ती आनी रचने संबंदी जायत्या पाश्चात्या विद्वानांनी ानी तांचो मार्ग आपणावन कांय भारतीय तशेंच मराठी विद्वानांनी प्रत्येकान एकेक चो अभिप्राय व्यक्त केला. ह्या सगळ्यांनी आपणाले अभिप्राय थारावपाक ज्या माणांचो अभ्यास केल्लो ती कोंकणी भास म्हणल्यार पुर्तुगेजांच्या निरंतर भ्रश्टाचारांनी र्जर जावन विद्रूप जाल्ले गोंयचे कोंकणी भाशेचो आसपाक जाय. आनी तांणी माण म्हूण अभ्यासाक जे ग्रंथ घेतले ते क्रिस्ती धर्माच्या प्रचारा खातीर ती भाशा गकपाच्या हेतून पुर्तुगेज पाद्रींनी - भाशेचे शुद्धतायेचेर इल्लेंय ध्यान दिनासतना गरज प्रासता तेन्ना तेन्ना रोमन लिपयेंत बरयिल्लें अशें म्हणुंयेत. ते खातीर त्या परदेशी ाद्रींनी रचिल्ले एक दोन शब्दकोश आनी व्याकरण ग्रंथांचें विवेचन जातलें.

1598 इसवींत ब्रिटिश पाद्री थॉमस स्टिफन्स हांणी पुर्तुगेज भाशेंत बरयिल्लो आनी 640 वर्सा दुसऱ्या एकट्यान सुदारून उजवाडायिल्लो 'Arte dalingua Canarim' म्हणल्यार 'कानडी भाशेची विद्या' आनी प्रशस्ती दिवपी अधिकाऱ्यांनी 'Arte de Grammatica da Lingua Bramana' म्हणल्यार ब्राह्मणीचे भाशेच्या व्याकरणाची वेद्या अशें संबोधन केल्ल्या पुस्तकाचें 1857 इसवींत दुसरे फावट छापिल्ल्या व्याकरणाची एक प्रत म्हजे कडेन आसा. हातूंत श्री कून्य रिवार नांवाच्या एका पुर्तुगेज अधिकाऱ्यान आपणाले भाशेंत बरयिल्ल्या कोंकणी भाशे वयलो इतिहासीक प्रबंधच न्हय तर क्रिस्त पुराणांतलीं कांय पद्यां, हेर कांय कविता, कांय म्हणी, आनी आंकड्याची गुणाकार पटी (पाढे) दिल्या.

1883 इसवींत जेजुईत पाद्री 'Angelus Francis Xavier Maffei' हांणी रचिल्लें मंगळूरच्या बासेल मिशन छापखान्यांत छापिल्ल्या इंग्लिश-कोंकणी, कोंकणी-इंग्लिश शब्दकोशाची एक प्रत आनी इंग्लिशींत बरयिल्ल्या कोंकणी व्याकरणाची प्रत म्हजे कडेन आसा.

1893 इसवींत 'Monsenhor Sebestian Rodolpho Dalgado' हाणें रचिल्लो आनी मुंबयच्या इंदुप्रकाश मुद्रणालयांत कोंकणी शब्द नागरी अक्षरांनी मुद्रीत केल्ल्या कोंकणी-पुर्तुगेज शब्दकोशाची एक प्रत म्हजे कडेन आसा. हाचे भायर क्रिस्ती विद्वानांनी उजवाडायिल्लीं हेर दोन कोंकणी-इंग्लीश शब्दकोश आनी दोन व्याकरण

ग्रंथ आसात. पूण तांचो अभ्यास आवश्यक नाशिल्ल्यान तांचीं नांवां दिवचों न

हांचे भायर हांवें स्वता संग्रहीत केल्ले सादारण बारा हजार कोंकणी शब्द कडेन आसात. माफेयाच्या कोशांतली शब्दसंख्या पांच हजारां वयर वचूंक दाल्गादाच्या कोशांत सुमार सात हजार शब्द आसात. तातूंत पुर्तुगेज शब्दांची स सादारण अडेज हजार आसा.

पाद्री थॉमस स्टिफन्स हांच्या व्याकरणांत आयिल्लीं वर्तमानकालीक क्रिय कोचींतल्या सारस्वत ब्राह्मणांचे भाशेंत आयज घोळटात. उदाः हांउ करितां, करितासी, तो करिता आदीं. त्या व्याकरणांत विभक्ती रुपांनी दोन तरेचे प्र मेळटात. भोवतेक दुसरे आवृत्तीच्या मुद्रण काळांत ह्या दोन तरेचे भेद केल जावपाक जाय अशें दिसता. पयल्या भेदांत 'अकारान्ता' सावन 'ओकारान्ता' सगळ्या नामांचीं विभक्ती रुपां प्राचीन तरेनच म्हणल्यार दक्षिण कन्नड जिल्ल्य आनी कोची वाठारांतले सारस्वत ब्राह्मण उलोवण्यांत वापरतात ते रितींतच आस दुसऱ्या भेदांतलीं सगळीं विभक्ती रुपां दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतले क्रिस्ती लो गोंयकार लोक आनी मराठी लोक वापरतात ते तरेचीं आसात. म्हणल्यार द कन्नड जिल्ल्यांतले सारस्वत संस्कृतांतलें 'वर्ति=दिव्याची वात' 'भिंति=वणत' शब्दांचें प्रथमा विभक्तीचें एक वचन 'वाति=वात; भिंति=वणत' आनी भोव 'वात्यो, भिंत्यो' अशा रुपांत वापरतात. पूण क्रिस्ती लोक गोंयचे कोंकणी ल आनी मराठी लोक ते शब्द एकवचनांत 'वात', 'भिंत' अशा रुपांनी, भोववच 'वाती', 'भिंती' अशा रुपान वापरतात. पाद्री माफेयाच्या व्याकरणाच्या पुस्त हींच रुपां आसात. पाद्री स्टिफन्साच्या व्याकरण पुस्तकांत संभाव्य भविश्यकाला तृतीय पुरुश भोववचनांत येवपी एक चूक सुरवातेच्यान निमाणे मेरेन तशीच उरल म्हणल्यार 'सोदितीत', 'निदेतीत', ह्या रुपां बदलाक 'सोदिती', 'निदेती' अशीं छापून आयल्यांत. म्हणल्यार क्रियापदांच्या अन्ताचो 'त-कार' लोप जाला. व्याकरणीक मजकुरांत पाद्री स्टिफन्साची कृती उत्तर जाल्ली आसा अशें म्हणुं ह्या परदेशी पाद्रींनी कोंकणी शब्द बरोवपाक रोमन लिपीचो उपेग केल्ल्यान जा शब्द विद्रूप जाल्यात.

कन्नड भाशेची विद्या वा ब्राह्मणांचे भाशेचें व्याकरण म्हणल्यार कोंकणी भा

करण म्हणपाची गजाल हालीं हालींच स्पश्ट जाल्या. हें व्याकरण रचिल्ल्या पाद्री स स्टिफन्साक मराठी भाशेचें सामान्य ज्ञानय आशिल्लें म्हणपाचें तांणी रचिल्ल्या त पुराणा वयल्यान कळटा. वा मराठी ही कोंकणी परस भिन्न म्हणपाची गजाल ली तरीय बी एके भाशेंतले शब्द दुसरे भाशेंत भरशिले जाल्यार चडावत जाणांक रीत विशयांतल्या बरपाचो अर्थ कळूंक पावता हाची लेगीत तांकां जाणविकाय ली म्हणपाचें तांच्या क्रिस्त पुराणाचे प्रस्तावने वयल्यान समजता. तांणी ते ावनेंत अशें म्हणलां:-

"हें सर्व मराठिये भासेन लिहिलें आहे, ह्या देसींच्या भासां भितुर ही भास स्वराच्या वस्तुनिरोपुंसी योग्य ऐसी दिसली म्हणूनु. पण सुध मराठी मधिमा लोकांसी ळे देखुनु ह्या पुरणाचा फळु बहुत जनांसि सफळु होउंसि काय केलें, मागिल्या स्वरांची बहुतेकें अवफुडें उतरें सांडुनु सांपुचेयां कवेस्वरांचिये रीत प्रमाण आणियेकें पीं ब्राह्मणांचे भाषेचीं उतरें ठायिं ठायिं मिसरित करुनु कवित्व सोंपें केलें."

ह्या वयल्या पुराय अंशांत मराठीचे म्हणूं येत अशें शब्द: 'लिहिलें आहे', 'ऐसी' नी 'काय' अशे आसात. 'होऊंसि' हातूंत 'हो' ही क्रिया मराठी आसून 'उंसि' हो यय कोंकणी. 'देखुनु' हें रूप दोनय भासांनी आयलें आसलें तरी 'म्हूण', (ते खातीर) अर्थान ताचो प्रयोग कोंकणी जाता. 'शब्द' वा उलोवणें ह्या अर्थाचो 'उतर' हो द्ध कोंकणी शब्द. पूण 'उतरें' हें रूप मराठी. तशेंच षष्टी विभक्ती 'च्या' प्रत्ययाचें प मराठी. उरिल्लो भाग त्या काळांत दोनय भासांनी समान आशिल्लो अशें म्हणूं त. एक परदेशी मनीस आमचे भाशेंत ग्रंथ बरोवपाक जैतिवंत जालो इतले खातीरच व पाद्री स्टिफन्साची तोखणाय करीन इतलें सोडून भाशेचे नदरेन मात न्हय. हाचें ारण म्हणल्यार ह्या पाद्रीन शब्दाच्या शुद्ध रुपा विशीं जागरुकताय बाळगूंक ना.

पाद्री माफेय हांणी रचिल्लो शब्दकोश आनी व्याकरण ग्रंथां संबंदान सांगपाचें

. The missionaries of Goa and Manglore, to whom we are largely indebted for ur knowledge of Konkani, are of smiliar opinion, and contend that Konkani is ot a dialect of Marathi. Their view is however, based on too narrow a concep-on of deterioration of some other forms of speect, and if such were the case onkani would certainly be a separate language, as would almost every dialect f all over India - G. A. Grierson; Linguistic Survey of India, Vol. VII (1905) p. 164

जालें जाल्यार - तांणी भाशेचे शुद्धताये कडेन जावं शब्दांच्या अर्थमुल्यां क
आवश्यक त्या प्रमाणांत लक्ष घालूंक ना. हिंदूंच्या देवांचीं नांवां आयल्यांत तेन्न
सगळे फटीचे देव अशें म्हणपाक मात विसरूंक ना. सकयल्या वर्गांतल्या लोक
धर्मांतरण करपाक सुरू केल्ल्या त्या पाद्रींनी त्या लोकांचे भाशेचेर संस्कार क
खातीर मातूय श्रम घेवंक नात अशें म्हणल्यार जाता. त्या सकयल्या वर्गांतल्या लं
आदींच इबाडिल्ली भाशा त्या पाद्रींनी आनिकूय इबाडून उडयली अशें म्हणचें पड
पाद्री माफेयाचे ग्रंथ मंगळुरांतच छापिल्ले. मंगळुरांत कोंकणी उलोवपी लोकां
हिंदूंची संख्याय बी व्हड आसा. हिंदूंक क्रिस्त धर्मी करून आपणाली श्रेश्ठताय तां
माथ्यार थापपाक आयिल्ल्या त्या परदेशी पाद्रींनी तांकां हिशोबांतच धरूंक नात. तां
मनांत हाडिल्लें जाल्यार कोंकणी शब्दांचीं शुद्धरुपां आनी योग्य अर्थ समजून घेवप
सारस्वत ब्राह्मणांचो तांकां आदार मेळपाचो संभव आशिल्लो. तांच्या शब्दकोशांत
कांय चूक शब्दरुपां हांगा दिवं यत:- इडो. इल्लें. कट्टी. बय्ण. मोळाब. हे शब
सारस्वत ब्राह्मणां मदीं अशें घोळटा4:- विडो. इतलें वा इत्तुलें. करटी. भइणि (भयण.
म्हाळुप् वा म्हाळाप्= (मळब. आकाश).

दाल्गादान आपणाल्या शब्दकोशांत जितलें शक्य आसा तितल्यो प्रमाणांत कोंक
शब्दांचीं शुद्धरुपां, तांची व्युत्पत्ती बी दिवपाचो यत्न केला. पूण ताका दक्षिण कन्न
जिल्ल्यांतले सारस्वत ब्राह्मण उलयतात ते कोंकणीचो परिचय नाशिल्ल्यान आ
व्युत्पत्ती समजून घेवपाक शक्य जावंक नाशिल्ल्या संदर्भांनी ताणें कोंकणी शब्दां प
मराठी शब्द शुद्ध आसात अशें मानिल्ल्यान. गोंयचे कोंकणींत घोळपी भैण, मोळा,
शिगमो अशा शब्दां वांट्याचे बहीण. मळभ. शिमगो हीं मराठी रुपां दिल्यांत आ
खेलें ह्या क्रियापदा बदला मराठी 'खालें' हें क्रियारूप दिलां.

तांणी दिल्लीं हीं चार रुपां पुरायपणीं चुकीचीं आसात. दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत
सारस्वत ब्राह्मण वापरतात ते भइणि. म्हाळुप. शिगमा (स्त्रीलिंग) आनी खेलें हीं
खरीं शुद्ध रुपां कशीं हाचे विशीं विस्कावणी अशी आसा. भइणि हो शब्द संस्कृतांतल
'भगिनी' शब्दाचें प्राकृत रुपांतर. संस्कृतांतला 'मरुत्पथ' हो शब्द प्राकृतांत 'मलुप्प
असो रुपांतरीत जाता. उपरांत तो कोंकणींत 'माळुप्पह' जावन कोंकणींतलो उच्चा
वयवाटे प्रमाण 'म्हांळुप्पाह' जावन कोंकणींतलो उच्चार वयवाटे प्रमाण 'म्हाळुप
जाता. प्राकृत शब्दांनी महाप्राणाक्षर वा 'ह'कार शब्दाच्या खंयच्याय स्थानार आस

ोंकणींत ताचो उच्चार पयल्या वर्णा वांगडा जाता. देखीक:-

| संस्कृत | प्राकृत | कोंकणी | कन्नड |
|---|---|---|---|
| मरुत्पथ | मलुप्पह | म्हाळुप् | बानु |
| उपानह् | उआणह | व्हाण | मेट्टु |
| अत्र | एत्थं | एथां=हेतां | इत्त |
| ,, | अहिं | हइं | इल्ली |
| तत्र | तहिं | थइं | अल्ली |
| ,, | तेत्थं | तेथां | अत्त |
| क्व | कहिं | खइं | येल्ली |
| मधु | महु | म्हवु | जेनु |
| दधिन | दहिं | धइं | मोसरू |
| प्रभातम् | पहालं | पहालें=फालें | बेळगु |
| ,, | - | पहातें=फांतें | मुंजावु |
| उष्ण | उन्ह | हुन | बिसि |
| अस्ति | अस्सि | अहि=हइ | अहुदु |

ह्या उदाहरणा वयल्यान दिसता तें अशें - शुद्ध प्राकृत शब्द जेन्ना कोंकणींत थतात तेन्ना तातूंतले महाप्राण सुरवातेच्या वर्णा वांगडा उच्चारीत जावन येतात आनी भाशेंत घोळटात.

गोंयचे कोंकणींत 'शिगमो=होळी पौर्णिमा' हो शब्द पुल्लिंगी. पूण तो दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत 'शिगमा' ह्या स्त्रीलिंगी विशेशण रुपान घोळटा. म्हणल्यार तो एकोडो वापरनात. ताचे बराबर 'पुन्नव' वा 'होळी' हो शब्द आसताच आसता. देखीक- शिगमेपुन्नव, शिगमेहोळी. मराठी लोक ताका 'शिमगा' म्हणटात. आनी तांकां ताचो मुळार्थय खबर ना. शिगमा हो शब्द संस्कृंतातल्या 'शीतगमना=शीं वचप' ह्या शब्दाचें कोंकणी रुपांतर. हिंदी कवितांनी 'शीत गमना पूर्णिमा' हो फाल्गून म्हयन्यांतलो पुनवे खातीर घोळपी शब्द. म्हणल्यार आदल्या काळार होळी पुर्णिमेक 'शीत गमना पूर्णिमा'

अशें म्हणटाले म्हूण कळटा. दाल्गादान खूबशा कोंकीण शब्दांतले वर्ण मराठींत स्थानांतर जाल्ले आसात म्हणपाचें ध्यानांत घेवंक ना. देखीक:- संस्कृत-फलाहार, कोंकणी-फळार, मराठी-फराळ. संस्कृत-विष्टिगृह, कोंकणी-बिडार, मराठी-बिऱ्हाड (भाड्याचें घर). ते खातीर तांणी मराठींतलो 'शिमगा' हजो शब्द शुद्ध अशें मानून आपणाल्या कोशांत 'शिगमा' शब्दाच्या बदलाक 'शिमगो' हो शब्द दिला.

फाल्गून म्हयन्याचे पुनवेच्यान शिंयाचो काळ सोंपपा वांगडा वर्सूय सोंपून, दुसऱ्या दिसाच्यान नव्या वर्साचो आरंभ, वसंत रुतूचें आगमन जाता आशिल्ल्यान थंड प्रदेशांतले लोक खूब उत्साहान आनी समारंभान होळयेची परब मनयतात. थंडेक लागून (शीं) आंगाची कांत, कांती हीन जाल्ली आसता, हाता पांयांचे तळवे कात्रे पडून वेदना जावप, तशेंच शीं सोंसूं नजो जावन आंगाची पोटली करून उज्याच्या धगाक बसून रावपी लोक शिंयाचे दीस सोंपिल्ल्याचे खोशेन निमाणो उजो पेटोवपाच्या दिसाक 'शीतगमना पूर्णिमा' वा कोंकणींत 'शिगम्याची पुनव' म्हणटात. तेच खातीर उत्तर भारतांतले लोक शिंयाचे दीस वचून वसंत रुतू सुरू जाता ह्या आनंदान एकामेकांचेर अरूण रंगी पिठो (गुलाल), उदक बी मारून होळी वा रंगोत्सव मनयतात.

तशेंच दाल्गादान दिल्लो 'मळभ' शब्द, माफेयान दिल्लो मोळाब हे शब्द सारके नात. म्हळुप वा माळुभ हेच शब्द सारके. म्हाळुप वा माळुफ हेच शब्द माळुभ जावन 'मोळाब' जाला हातूंत दुबाव ना. मराठींत मळभ शब्दाचो एका कोशाकरान 'Cloudiness'[1] (कुपाळ आसप) असो दिला जाल्यार दुसऱ्या एकट्यान - अभ्र; ढग[2] असो दिला. म्हणल्यार मराठी मनशांक त्या शब्दाचो अर्थ खबर ना अशें म्हणपाक दुसरें आनीक प्रमाण नाका.

दाल्गादान कोंकणींतल्या 'कहणि' शब्दाचें रूप 'कहाणी' अशें दिलां आनी तें हिंदी मुळांतल्यान घडलां अशी सुचोवणी दिल्या. पूण कोंकणींत कहाणी शब्द घोळणुकेंत ना हाची ताका म्हायती ना. कहणी हो शब्द 'कअणि' रुपांत बदल्ले उपरांत तो आतां 'काणी' जाला. हाची विस्कावणी आदीं आयल्या.

दाल्गादान आपणाल्या कोशांत 'खा' हे क्रियेचें भूतकालीक रूप 'खाल्लो' अशें दिवन कृदन्त विशेशण 'खेललो' अशेंय दिलां. 'खाल्लो' हें रूप सारकें ना, तें मराठी रूप. संस्कृतांतलो खदितः हो भूत कृदन्त शौरसेनींत 'खाइदो' जाल्लो तो कोंकणींत खाइलो जावन उपरांत 'खा' आनी 'इ' एक जावन 'खे' जालें आनी तातूंतल्यान

ब्रेलो' अशें रूप जालें. आनी तेंच खरें रूप. ताचें पूर्णकालीक क्रियारूप 'खेल्लो' ांशें जाता आनी कृदन्त विशेशण खेललो अशें जाता. एक विचित्र गजाल म्हणल्यार ाल्गादान भूतकालीक क्रिया खाल्लो अशी दिवन कृदन्त खेललो म्हूण दिलां.

फाटल्या उदाहरणा वयल्यान - परदेशी पाद्रींनी आपणाल्या ग्रंथ रचना काळांत ाशेचे शुद्धताये कडेन आवश्यक तितलें लक्ष दिवंक ना इतलेंच न्हय तर दक्षिण कन्नड जल्ल्यांतले आनी केरळांतले सारस्वत ब्राह्मण वापरतात ते शब्द हेर कडेन वापरतात या शब्दां परस शुद्ध रुपांत आसात म्हणपाचें सिद्ध जाता.

कोंकणी भास ही मराठी भाशेची आवय हें जितलें सत तितलीच ती भारतवर्षांत ोळपी हेर सगळ्या प्राकृत भेदांची व्हडली भयण हाचें खरेपण कोंकणींत घोळपी ब्बूबशा प्राचीन प्रयोगां वयल्यान ध्यानांत येता. संस्कृतांतल्या 'अस्मत्' आनी 'युष्मत्' ाा सर्वनामांचीं षष्टी विभक्तीचीं 'अस्माकम्' आनी 'युष्माकम्' हीं भोवचन रुपां बुद्धदेवाच्या प्रवचनांनी 'अम्हाकम्' आनी 'तुम्हाकम्' अशा रुपांनी षष्टी विभक्तींतच ्हय तर चतुर्थी आनी द्वितिया विभक्तींतय घोळटालीं आनी घोळिल्लीं आसात. ीं रुपां उपरांतले कोंकणींत 'आम्हकां' आनी 'तुम्हकां' अशीं रुपांतरीत जावन द्वितिया आनी चतुर्थी विभक्तींनीच फकत प्रयोगांत येवंक लागलीं. तींच रुपां आयज प्रयोगांत येतात. पूण तातूंतल्या 'ह'-काराचो उच्चार जायना. तांचीं एकवचन रुपां 'माका' आनी 'तुका' हे शब्द संस्कृतांतल्या 'मामक' आनी 'तावक' ह्या शब्दांचीं रुपांतरां. कोंकणींतलो 'का' प्रत्यय हिंदी भाशेंत 'को' ह्या रुपांत आनी बंगालींत 'के' रुपांत प्रयोग जाता. देखीक:- हिंदी-'हमको', बंगाली-आमाकें आनी भोववचनी-'आमादिगके'. पूण कोंकणींत आसात तशीं रुपां हेर खंयचेच भाशेंत नात. तशेच तरेन ऋग्वेदांत 'आ प्रयात मरुतो, विष्णो पूषन्, माकी नया धिया।।8-27-8।।' ह्या मंत्रांत येवपी 'माकीन:' हो विशेशणरुपी शब्दच कोंकणींत पयल्यान पयलीं 'मकेलो' अशें रुपांतन जावन आतां 'मगेलो' जाला. माकेन:=म्हजें ह्या शब्दांतल्यान जल्मल्लें सलें रूप दुसरे खंयचेच भाशेंत ना.

अग्निहोत्र आनी यज्ञांचो अधिदेव आशिल्ल्या ज्या अग्नीक आदारभूत मानून सगळें वैदीक साहित्य जल्मून पसवलें आनी ऋग्वेदाचो आरंभीक शब्दच जो अग्नी अशा यज्ञाचो अधिदेव आशिल्ल्या अग्नीक कोंकणींत 'उज्ञो' म्हणटाले तो शब्द आतां सामान्य उजो ह्या अथार्ज्ञन सार्वत्रीकरणान भाशेंत घोळटा. हो उज्ञो शब्द संस्कृतांतल्या

'उद्धव' ह्या शब्दाचें रुपांतर. शब्दस्तोम महानिधी[1] नांवाच्या संस्कृत शब्दकोशांत ह्या
शब्दाची व्युत्पत्ती मुखार दिल्या:-

'उद्+हु+अप्=उद्धव' आनी ताचो अर्थ-(1) यज्ञाग्नौ; (2) कृष्णदयितें यादव विशे
म्हणल्यार- (1) यज्ञाचो अग्नी; (2) कृष्णाचो इश्ट आशिल्लो एक यादव. तशें
यज्ञकुंड आनी यज्ञ काळांत हाच्यो आकृती ओडपाक वापरताले ती दोरी='शुल्भ'
हो शब्द कोंकणींत 'सुंब' जाला. आनी आहुती खातीर अन्न शिजोवपाक वापरपाच
पात्राचें नांव 'चरू' आशिल्लें तें कोंकणींत चरुई=चरवि जालां. सारस्वत ब्राह्मणां
पुर्वज भौतयज्ञ करताले त्या काळांत घोळणुकेंत आयिल्ले शब्द हे. काळ मुखार व
तशे तशे ते लोकांचे बोलींत घोळूंक लागले. 'उद्धव:' हो सुरवातेक प्राकृतांत 'उज्झव
असो बदलून आतां 'उज्जो' इतलोच उरला. 'द' आनी 'ध' 'ज' वर्णांत बदलपा
उदाहरणां मुखार दिल्यांत:- युद्ध=जुझ; उद्योत, उजियाडा, उजवाड, विद्युत=विज्ज

कोंकणीच्या सप्तमी विभक्तीच्या भौवचनांत संस्कृतांतल्या 'सु' प्रत्ययाचें रुपां
'तु' प्रत्ययांत जालें इतलेंच न्हय तर नपुंसक लिंगी शब्दांच्या प्रथमा आनी द्विति
विभक्तींचो भोववचनी प्रत्यय 'आमि' होय बी वापरतात. देखीक: घर-घरां-घरीं
घरांत-घरांनी. हो प्रयोग हेर खंयचेच भाशेंत ना. वेदांतलीं[1] अकारान्त नपुंसकलिं
नामांचीं प्रथमा आनी द्वितिया विभक्तीचीं भोववचन रुपां म्हणल्यार - 'वनानि; गृहाणि
आदी सप्तमी विभक्तीच्या भोववचनांनीय बी वापरतात.

क्रियापदां कडेन जोडून घेवन चतुर्थी विभक्तीचो अर्थ उक्तावपी संस्कृतांत
'तुम' हो प्रत्यय कोंकणींत 'उं' वा 'उङ' जावन प्रयोग जाता. देखीक: संस्कृत
कर्तुम=कोंकणी-करूं, करुङ् (करपाक) ह्या रुपा वांगडा कांय लोक 'क'-कार लाव
उच्चारतात. देखीक: करुंक=करुंक. हातूंतलो 'उंस' अंश पाद्री स्टिफन्सान आपणाल
क्रिस्त पुराणांत 'उंसि' ह्या रुपान वापरून 'होउंसी' आदीं रुपां रचिल्लीं. कोंकणींतल
ह्या 'करुंस' अशारुपा बदलाक मराठींत 'करावयास' हें रूप येता. 'संयुक्त क्रिय
घडटा तेन्ना मराठींत 'करुं' आदीं रुपांत आयली तरी - तसल्या रुपांक स्वतंत्र अर
प्रयोग ना. देखीक: रामा बोलू लागला. हेर भासांनी असले प्रयोग नात.

संस्कृतांतल्या 'तव्य' आनी 'त्य' प्रत्ययांच्या बदलांक त्याच अर्थाचो कोंकणी
'चें' हो एकूच प्रत्यय येता. आनी हो 'चें' प्रत्यय धातू वांगडा मेळून भाववाच
नामा वरी विशेशणावरी वा परोक्षपणान प्रयोगांत येता. देखीक: नामपद-करचें

शेशण-करचेलें (करपाचें); विविधरूप-करप (करणी), करिसारकें. हाचें कतृ तिया विभक्तींत आसता:- 1) तुज्यान हें काम करच्याक जायना 2) तुवें करचें काम दुसऱ्यांचेरि सोडूं नाका. 3) तुवें हें काम करचें.

संस्कृतांतलो त्याच अर्थाचो 'ईय' हो प्रत्यय कोंकणींत 'इजे' ह्या रुपांत परिवर्तीत जावन अनेक अर्थांनी घोळणुकेंत येता. देखीक:- करिजे=1) करचें 2) करचेंशें. एकदां रडिजे एकदां हासिजे हेंचि संवसारांतलें भोगणे म्हणून गणिजे. कोंकणींतलो 'चें' प्रत्यय मराठींत 'यचें' वा 'याचें' असो बदलून धातू वांगडा मेळटा. देखीक:- करायचें, जायचें, जावयाचें. पूण अशा शब्दांचे मराठींत प्रथमा विभक्तींत सोडून हेर विभक्तींनी प्रयोग जायनात.

संस्कृतांतलो 'कार्य' करिसारकें हो शब्द कोंकणींत 'काज' रुपान परिवर्तीत जावन 'उं' प्रत्ययान्त क्रियाविशेशणा वांगडा मेळून 'फावो, योग्य वा 'जायशें' असो अर्थ सुचीत करता. देखीक:- करुंकाज=करूंक जाय व करिसारकें, करूंक फावोशें.

वच्चुंकाज=वचूंक जाय आदीं. 'काज' शब्दांतलो 'ज' लोप जावन उरपी 'क' हें अक्षर विद्यर्थक प्रत्यया सारकें निशेधार्थान वापरतात. तेन्ना ताचे वांगडा मध्यम पुरुष भौवचनांत 'थ' मेळटा. देखीक:- तूं वच्चुं नाका. तुमी वच्चुंनाकाथ. 'काज' लागून जावपी क्रिया तृतिया विभक्तीच्या 'कर्तृ' वांगडा येता. उदा:- तुवें वच्चुंकाज. तुमी वच्चुंकाज. काज शब्दांतल्यान 'ज' लोप करून वापरूं येता.

देखीक:- तुवें वच्चुंका (तुवें वचपाक जाय) असल्या प्रयोगांनी क्रियापदांतलो मदलो अनुस्वार लोप जावं येता. देखीक:- वच्चुका आदीं. असल्या संदर्भांनी करुका, धरुका, म्हणुका आदीं कोर्का, धोर्का, म्होणका, अशीं जातात. तशेंच करुंनाका आसता तें 'कोर्नाका' अशें जाता. कोंकणींत 'नाका' आसता मराठींत 'नको' जाता.

जाइजे आनी जाइत ह्या क्रियांचे एक दोन प्रयोग आदीं विस्कावन जाल्यात. तांचे हेर प्रयोग हांगा विस्कावणेक घेतां. 'जाइजे' हे 'जा' क्रियेचें विद्यर्थकरूप मुळांत जावपाक जाय आनी जल्मूंक जाय ह्या अर्थाची क्रिया आसली तरी कोंकणींत ती जाय ह्या अर्थान घोळणुकेंत आसा. तिचो शेवटाचो 'जे' हें कूस ना करून उरिल्लें

1. The Arya - Bhushan School Dictionary
2. मराठी शब्द रत्नाकर

'जाइ' ह्या अंशाक 'उं' प्रत्ययांत क्रियारुपा वांगडा जोडून विद्यर्थक रुपां घडटा
उदा:- करुंजाइ, वच्चुजाइ आदीं. हाचीं निशेधार्थक रुपां 'न' जोडून तयार जाता
उदा:- करुंनजाइ, वच्चुंनजाइ आदीं. ह्या क्रियापदांचो कर्तृ तृतिया विभक्तींत आसत
उदा:- तुवें हें काम करुंजाइ आदीं. आतांचे कोंकणींत 'नजाइ' हातूंतलें 'इ' ल
जावन 'नजा' इतलेंच उरता ताचो उच्चार 'नजऽ' असो जाता. इतलेंच न्हय तर त
'नजऽ' शब्दाक 'न्हयकारी अनिवार्यताय' दाखोवपी अर्थ आसा - करूंक फावना त
अर्थान. 'नजऽ' हाका दुसरो अर्थय आसा तो 'जावचें ना वा जिवाक बरें ना' अ
एक नवो अर्थ फावो जाला. उदा: 'ताच्यान काइं नजऽ=तो भलायकेन बरो ना
कोंकणींत 'नजऽ' हाचे बदलाक 'नहिं' असो शब्दय येता. देखीक:- करुंनहिं=कर
न्हीं, करुंनये. कोंकणींतलें 'करुंनजऽ' असलीं रुपां मराठींत 'करुं नये' अशीं जाता

कोंकणींत क्रियेचीं प्रेरकार्थक रुपां संस्कृतांतलें 'अय्' विकरण जोडून तय
जातात आनी 'अय्' विकरणाचो उच्चार 'अयि' असो जाता. देखीक:- कर्-कर
कर्+अय्=करय वा करयि. कोंकणींत करयि आसा तें मराठींत 'करवि' अशें जात
वा मराठींत 'अयि' विकरणाचे बदलाक 'अवि' विकरण लागता.

कोंकणींत भावनामां रचपाक ण, णि (णी), णें आदीं कांय 'कृत्' प्रत्यय आसा
आनी ते मराठींतय आसात. पूण मराठींत नाशिल्लो 'प' प्रत्यय कोंकणींत चड आसा
पूण तो 'प' प्रत्यय मुळांत कोंकणींतलो न्हय. तो उत्तर भारतांतल्यान येवन गोंयांत
कानोज ब्राह्मण स्थायीक जाले ते जी प्राचीन हिंदी भाशा उलयताले ते भाशेंतलो प्रत्य
आसपाक जाय अशें दिसता. म्हणल्यार नवे हिंदी भाशेंत, भावनामां 'करना', 'धरना
अशीं 'ना' प्रत्यय लागून सोंपतात तशींच अवधी भाशेंतलीं भावनामां करब, धर
अशीं 'ब' प्रत्ययान सोंपतात. गोस्वामी तुलसीदासान रामचरितमानसांत 'ब'-कारान
क्रिया नामां विपूल प्रमाणांत वापरल्यांत. अवधींतलो कनोजींतलो 'प'-कार अवधीं
'ब'कार जावन परिवर्तीत जालो हें सांगप शक्य ना. कशेंय आसलें तरी कोंकणीं
'प'-कारान्त क्रिया भावनामां घोळणुकेंत येवपाक गोंयांत स्थायीक जाल्ले कनो
ब्राह्मणच जापसालदार अशें म्हणल्यार तातूंत कांय दुबाव ना. तीं 'प'-कारान्त भावनाम
'णे' प्रत्ययान्त शब्दांतल्यान जो अर्थ सुचीत जाता ताचे परस इल्लो भिन्न अर्थ सुची

1. पंडित तारानाथ तर्कवाचस्पती
2. Sacrificial fire - Sir Monier Williams, M.A.A Sanskrit English Dictionary

रतात. म्हणल्यार 'रांधप' शब्द 'शिजयल्लें जेवण' वा 'पाक' असो अर्थ उक्तायता ाल्यार 'रांधणे' हो शब्द जेवण करप (शिजवप) असो अर्थ सुचीत करता. तात्पर्य हें ो 'प'-कारान्त भावनामां हीं कोंकणीचें एक खाशेलेपण (विशेशताय) अशें म्हणपाक ाय. तीं मराठीचे प्रकृतीक मानवनात. अशें आसलें तरी मराठींत 'रांधप' - तयार ावण (आतां ताचे बदलाक स्वयंपाक हो शब्द वापरतात); तळप, वाजप, दळप आदी ांय प-कारान्त शब्द सारके शिस्तीन समाविश्ट जाल्यात. म्हणल्यार ते मराठींतल्यान ायर काडप शक्य ना. हाचें कारण म्हणल्यार तांचे बदलाक वापरपा सारके आनी शेच अर्थ सुचीत करपी दुसरे योग्य शब्द मराठींतय नात आनी कोंकणींतय नात.

कोंकणींत एक स्वतंत्र असो अपूर्ण भूतकालीक प्रयोग आसा. तो रुढी आनी दोन क्रियांचो समानकालीक संबंद दाखयता. देखीक: रुढी-हांव रामातहिं सदांइ वचतालों आनी घंट्यांनी बैसतालों.

समानकालीकताय- हांवें रामातहिं वच्तना गोपाळु रामातहिंसूनु येतालो. असलो प्रयोग मराठींत दुसरे तरेन जाता.

मराठी भाशेंत हिंदी भाशेच्या अनुकरणांतल्यान एके तरेचो कर्मणी प्रचलीत जाला. उदा:- शिपाया कडून चोर धरिला गेला. कोंकणींत कर्मणी प्रयोग घोळणुकेंत नासलो तरी ते तरेचो दुसरो एक प्रयोग घोळटा. उदा: शिपाया करून चोरु धरच्यां आयलो. ह्या वाक्यांतलो 'करून' हो कर=हात ह्या नामाचें पंचमी विभक्तीचें एकवचनी रूप. 'ऊन' हो पंचमी विभक्तीचो प्रत्यय. हाचे बदलाक 'हस्तून' हो शब्दय बी घोळटा. करून आनी हस्तून हे शब्द प्राचीन काळा सावनच चलत आयल्यात. संस्कृतांतलो सकर्मक क्रियेचो भूतकालीक कृदन्त मुळांतूच कर्मार्थक आशिल्ल्यान संस्कृतांतल्यानच रुपांतरीत जाल्ले कोंकणीतय बी सकर्मक क्रियापदांचो भूतकालीक प्रयोग कर्मार्थकच आसता. म्हणल्यार कोंकणींतल्या सकर्मक क्रियांचो भूतकालीक प्रयोग मुळांतच कर्मणी प्रयोगांत आशिल्ल्यान तातूत तृतिया विभक्तीच्या कर्तृ वांगडा हिंदींत आसा तसो कर्मणी प्रयोग करपाक जावचो ना. प्रेरणार्थक क्रियांच्या प्रयोगांनी करणार्थक कर्तृ वांगडा 'कर=हात' शब्दाचें तृतिया विभक्तीचें एकवचन 'करान्त' हें रूप येता. देखीक- रामू गोपाळा करान काम करयिता.

1) वैदीक व्याकरण, पान-17. श्री. उमेशचंद्र पांडे. एम.ए. बनासर.

फाटल्या परिच्छेदांत विस्कावणी केल्या ते भशेन कोंकणी शब्दांचो निमाणचें ओ-कार मराठींत आ-कारांत, आ-कार आसता तो ओ-कारांत परिवर्तीत जावपाचे भायर व्याकरणीक रितीन मुख्य असो दुसरो आनी भेद ह्या दोन भाशां मदीं ना. अशें आसतनाय कोंकणी मनशांक मराठी आनी मराठी मनशाक कोंकणी समजना जावपा फाटलें मुख्य कारण अशें - कोंकणींत घोळणुकेंत आशिल्ल्या प्राकृत शब्दां बदलाक, मराठींत देशी शब्द, फारशी, अरबी, गुजराती आनी हेर भाशांतले शब्द मर्यादे भायर भरसल्ले आसात. कोंकणींतले आनी मराठी भाशेंतले कांय विशिश्ट प्राकृत शब्द सोडल्यार उरिल्लें पुराय शब्दभांडार दोनूय भाशांनी सामान्यतायेन आसा. वा मराठींत उलोवपांत आनी गद्य साहित्यांत घोळपी प्राकृत शब्दां परस चड प्राकृत शब्द फकत उलोवपांतले कोंकणींत घोळटात. अर्थात कोंकणींत घोळपी जायते प्राकृत शब्द मराठींत नात. अशें आसतनाय आपणाले भाशेंत सगळे शब्द आसात अशें दाखोवपाक गोंय आनी कारवार भागांतले कोंकणी शब्द मराठी कोशकारांनी आपणाल्या कोशांनी बळयां चेपून तांचे चुकीचे अर्थ बरयल्यात. मराठींत देशी शब्दांची संख्या प्राकृत शब्दां परस चड आसा. मराठी शब्द रत्नाकरांत ते देशी शब्द खंयच्या मुळाचे म्हणपाचें सोदून काडप शक्य नाशिल्ल्यान प्राकृत ग्रंथांतलें अशें म्हूण सुचीत केलां.

आदीं मराठी समर्थकांनी पाद्री थॉमस[1] स्टिफन्सान रचिल्ल्या त्या कोंकणी व्याकरणाक मराठी व्याकरण म्हणून वाद घाल्लो. शेवटाक तांणी ताका गोंयांतले मराठीचें व्याकरण अशें म्हणलें. तांणी ताका मूळ महाराष्ट्री भाशेचें अशें म्हणिल्लें जाल्यार तें मानून घेवं येतालें. पूण तांणी तशें म्हणिनासतना ताका गोंयांतले मराठीचें व्याकरण म्हणिल्लें मात मानून घेवंक जावचे ना. तेच तरेन कोचींतले प्रख्यात वैद्य म्हूण नामनेक पाविल्ल्या तीग जाण सारस्वत ब्राह्मणांनी 1675 इसवींत एक डच नौकाधिकारी हेंड्रिक्स वॉनऱ्हिड हाका मलबार वाठारांतल्या सगळ्या वनौषधींचे गूण, चित्रां, उपेग आदीं गजालींची संपूर्ण म्हायती एकवटीत करून तयार केल्लो ग्रंथ दिल्लो. आनी त्या ग्रंथांतले विशय यथार्थ म्हायतीचेर आदारिल्ले आसात अशें प्रमाणपत्रय तांणी बरोवन दिल्लें. ही खबर कळिल्ल्या मराठी पंडितांनी तें प्रमाणपत्र 'सगळ्यांत पयलीं मुद्रांत जाल्लें मराठी लेखन' असो प्रचार खबरांपत्रांनी केल्लो. पूण तें पत्र मराठांत नासून निवळ कोंकणींत आनी नागरी लिपींत बरयिल्लें आशिल्लें. त्या पत्राचो प्रत हांगा दिल्या:-

"स्वस्ति श्री शालिवाहन शक 1593 राक्षस संवत्सर कृष्ण 10 कोची राजपाटणीं

के रंगभट्ट तथा विनायक पंडित, आपूभट्ट तेग वैद्य तांनी कोचीच्या कुमदोर ड्रेकी फांड्रे त्याच्या निरोपान ह्या मलबार देशातु आशिल्ले ओषध मात्र वृक्ष, वाली, खंड, ओळखतेल्या मनुष्यांक मुसारो देवुनु ते ते गांवांतु पेट्टवूनु तीं तीं वोखदां णवूनु त्या त्या झाडाचें फलां, फूल, पाना नीज समस्त त्या त्या रुतु काळावरी ादूनु तीं तीं चितारिल्लीं त्या उपरांत आमी आमगेल्या वैद्यग्रंथाच्या निघंटा प्रमाणि त्या ओषणाचे गूण वा अनुभवान जो जो गूण आमकां कळेलो तो, वा त्या त्या खदांचीं नावां पळेउनु आज्ञि दोनि वर्ष सकाळी, सांजे आमीं लागी रावूनु हो लिव्रु ादूनु दिला. तें लटीक अशी म्हणुंचाक नज म्हणु आमी आमची निसाणि कर्णु ली. तें सत्य म्हणु मानुचें जाद म्हणुनागर बरपाक हें बरवूनु दिलां श्री''

रंगाभट्ट विनायक पंडित आपूचें ओप.

ह्या पत्रांतल्यान कोचींत 'दी' क्रिया 'दे' ह्या रुपान आनी दक्षिण कन्नडांतले सारस्वत क रुपान वापरतात तो 'राब्' हो 'राव' ह्या रुपान घोळणुकेंत आसा हें समजतां आनी वाय 'हाडप' ह्या अर्थान 'आण्' क्रिया वापरताले हेंय कळटा.

आतां ज्ञानेश्वरींत आसात तें आनी मराठींत नात तें तशेच दीसपट्ट्या वेव्हाराक ावश्यक आसपी कांय शब्द दिवन ते कोंकणी मुळाचे हें सिद्ध करपाक जाय.

1) सांपड=आडखळून उरप - 1-201।। 2) आडळ=आडखळप-1-247।। ) वचिजे=वचप-1-240।। 4) पिसें=मूर्ख-2-93।। 5) गोमटें=सोबीत-2-299 ) पाहलें=सकाळीं, फालें-2-355।। 7) शुद्धि=खबर-5-79।। 8) हाणि=कथा-6-142।। 9) वोतपली-वत-7-131।। 10) वराडिक-7-166 ऱ्हाडिक-लग्न-9-238।। 11) सांजवेळ-9-72।। 12) जा=जावप, घडप-8-20 13) सान-9-251 14) घाल-1-258।। 15) येणें=हेवटेंतल्यान-6-151।।

1) सांपड=जाळांत बी शिरकप (फारवून उरप) बंधनांत पडप ह्या अर्थाची क्रिया स्कृतांतले 'संबंध' हे क्रियेचें कोंकणी रुपांतर. आनी ती त्याच अर्थान ज्ञानेश्वरींत ापरल्या. 'कळिकेमाजी सांपडें=कळ्यांत (बोंग्यांत) बंदखणेंत पडटा. (बंदी जावन डटा) मराठींत 'सांपडणे' क्रियापद आसून ताचो अर्थ 'मेळप; वाटेर सामकार येवप' सो आसता.

2) आडळ=आडखळप, ह्या अर्थाची क्रिया संस्कृतांतल्या अर्थान आयल्या.

– आसता दीप दवडिजे। मग अंधकारीं राहाटिजे। तरी उजूचि कां आडळिजे। ज
परी।।1-247।। आशिल्लो दिवो पालोवन। काळखांत खंयचे खंय पावप नीट थळा
बी आपटत धोपटत चलिल्ले वरी। हें क्रियापदय बी मराठींत ना. हाचे बदला
आडखळ क्रिया प्रयोगांत येता.

3) वच, वचिजे=वचप, वचसारकें "कां समोर अग्नी देखौनी। जरी न वचि
वोसंडौनी? तरी क्षणा एका कवळुनी। जाळूं सके।।1-240।। सामकार उजो दिसल्
तो नदरे आड करून गेल्यार एका खिणा भितर फाफसून तो सगळें लासूंये. ही क्रि
मराठींत ना.

4) पिसें=पिशेपण, पिशें. "जात्यंघा लागे पिसें। मागतें सैरा धांवे जैसें"।।2-93
जल्मतनाय कुड्डो आशिल्ल्याक पिशें लागलें जाल्यार तो सैराण धावंचो तसो.
शब्द मराठींत सामान्यतायेन घोळना. हाचे बदलाक 'वेड' हो शब्द घोळटा.

5) गोमटें=सुंदर. हो शब्द मुळांत खंयचो तें समजूंक ना. तो स्त्रीलिंगांत गोम
आनी पुल्लिंगांत गोमटो अशा रुपान आनी नामाच्या रुपान 'गळो, मान' ह्या अथ
उपेग जाता आनी चड प्रमाणांत नवो कोंब वा आंकूर फुटून भायर येता ताचे खात
तो वापरतात. कणकीचो कोंब, किल्ल. कोमरी, आंकरी ह्या अर्थान 'कोम वा कों
हे शब्द कोंकणींत आसात. ताचें रुपांतरच हो 'कोमटी, गोमटी' आसपाक जाय अ
दिसता. 'कोमल' हो शब्द हाचें मूळ आसुंये असो अदमास आसा. हो ज्ञानेश्वरी
'गोमटें काहीं पावे। तरी संतोषें तेणें नाभिभवे।।2-299।। कितेंय बरें जायत तर
तुश्ट जायना।। अशा अर्थान आयला. हो शब्द मराठींत ना.

6) पाहलें=सकाळ, प्रात:काल. हो शब्द मराठींत ना. हो संस्कृतांतल्या 'प्रभातम्
ह्या शब्दाच्या कोंकणींतल्या दोन रुपांतरां मदलें एक रूप. म्हणल्यार प्रभातम्
शब्द कोंकणींत पहालें=सकाळ; पहातें=फांतें (फांतोड) अशा दोन अर्थांनी दो
रुपांनी घोळटा आनी फालें तशेंच फांतें अशे उच्चारतात. पहांतें शब्द मराठींत 'पहां
अशा स्त्रीलिंग रुपान घोळटा. कोंकणींतल्या पहालें शब्दाचें एकनाथान ज्ञानेश्वरी
पाहलें केलां. 'मराठभ शब्दरत्नाकर' ह्या शब्दकोशकारान कांय कोंकणी शब्द घाल
चुकीचो अर्थ दिल्यात. आनी ते शब्द कारवारा वटेंतले मराठी शब्द अशें सुचयल
देखीक- 'फालें [अ] कारवार वाठारांत उद्यां' म्हणल्यार फालें हो शब्द अव्यय आस
कारवारा वटेंत तो भाशेंत घोळटा अशें म्हणलां. ह्या कोशकाराक कोंकणीचें मुळा

...नय बी ना म्हणपाचें तांच्या विवरणा वयल्यान कळटा. गजाल अशी की 'फालें' ... शब्द नपुंसकलिंगी नामाचें प्रथमा विभक्तींतलें एक वचन आसून ताचो अर्थ ...काळ वा प्रात:काल असो जाता. ताचो अर्थ 'फाल्यां' असो जावपाक जाय जाल्यार ...ाल्याक' असो रुपांतरीत करपाक जाय. तशेंच 'फाल्यां' ह्या अर्थान 'प्रभाते' ह्या ...ब्दाचें रुपांतर 'पहाये' हें रूप 'फाये' वा 'फायी' ह्या रुपान घोळणुकेंत आसा. वा ...काळ' ह्या अर्थान हो 'सकाळ' शब्द कोंकणींत घोळत आसा. आनी 'सकाळीं' सप्तमी विभक्तीचें एकवचन तशेंच फांतोडेर (भिणभिण्यार) अशें 'फांतें' शब्दाचे ...प्तमी विभक्तीचें 'फांत्यारि' होय शब्द वापरपांत येता. वयर उल्लेख केल्ल्या कोशांत ...हांट' शब्दाचें मूळ 'प्रात:+तट' अशें सुचोवन 'प्रभात' म्हूण अर्थ दिला. इतलें ...य तर 'पहांटे' ह्या शब्दाच्या बदलाक 'पहाट' शब्द दिला. अशें आसतना 'पहाट' ... शब्द 'प्रभात' शब्दाचें रुपांतर म्हूण तांकां समजूंक ना. तशेंच आर्यभूषण मराठी ...ोशांतय 'पहाट' हेंच रूप आसा. पूण ताचे सकयल 'पहांपटीं'=At early morn; ...t break of day असो अर्थ दिला. म्हणल्यार मराठी विद्वानांनी शब्दाचें मूळ आनी ...अर्थ निर्धारीत करतासतना मराठीक अत्यंत लागींची आशिल्ली दुसरी एक भाशा आसा ...ी वस्तुस्थिती तांचे गणनेंत ना म्हणपाचें हाचे वयल्यान सिद्ध जाता.

7) शुद्धी=समाचार, खबर. 'जगाचां जीवीं आहे। परी कवणाचा कहीं नोह। जगचि ...ें हो जाये। तो शुद्धी ही नेणे।।5-79।। तो जगीं जिवांत आसता। पूण केन्नाच कोणा ...ासता। ज जाता, ना जाता। ताचें भानय ना ताका। 'सुद्दी' हो शब्द संस्कृतांतल्या ...श्रुती' शब्दाचें कोंकणी रुपांतर आसून प्रथमा विभक्तीच्या आनी द्वितिया विभक्तीच्या ...एकवचनांतच फकत 'सुद्दी' ह्या रुपांत घोळणुकेंत येता. हेर कडेन ताचें रूप 'सुदी' अशेंच उरता. देखीक- सुदियो (खबरो), सुदियेक= खबरेक आदीं. एकना कि, कोंकणी ज्ञानेश्वरींत अशिल्ल्या 'शुद्धी' ह्या शब्दाचें मूळ खंयचें हें कळूंक ना जाल्ल्यान ताणें सुद्दीचें 'शुद्धी' केलें आसतलें अशें म्हणचें पडटा. आनी तातूंतल्यान पुराय ज्ञानेश्वरींत शुद्धी करून घेतलें.

8) कहाणी=कथा- हाची विस्कावणी फाटल्यान आयल्या. मराठी शेंकड्यांनी हिंदी शब्द उरिल्ले आसले तरी हिंदींतलो 'कहाणी' हो शब्द तातूंत नासप ही अजापाची

1. वऱ्हाड=लग्नकार्यासाठीं जमलेली मंडळी-मराठी शब्दरत्नाकर.
A marriage procession, the whole assemblage at a wedding - Arya Bhushan School Dictionary.

गजाल. ते खातीर ज्ञानेश्वरींतलो काहाणी हो शब्द कोंकणींतल्या 'कहणी' शब्दा
रुपांतर अशें म्हणल्यार चूक जावचें ना.

9) पोतपली=वत, हुनेत (खर न्हय अशें) हो शब्द संस्कृतांतल्या 'आतप' ह
कोंकणी रुपांतरां जाल्ल्या 'ओतप' आनी 'ओलअ' वा उपरांतल्या 'ओळव' ह
शब्दां मदल्या 'ओतप' शब्दा वांगडा अल्पार्थक 'ली' प्रत्यय लागून तयार जाल्ल
शब्द. ज्ञानेश्वरींत खूबशे कडेन 'ओ' ह्या स्वराच्या स्थानार 'वो' येता. वोतपल
शब्द मुखा वयल्या पद्यांत आसा:- 'तैसीच गुरुकृपा उखा उजळली। ज्ञानाची वोतपल
पडली।7-131।। अर्थ:- ''तशीच गुरुकृपा रुपांतली उषा उदेली आनी ज्ञान रुपांत
कोमल वत पडलें''. कोंकणींतलो ओतप आसा तो ओतअ जावन आतां फक
ओत हें रूप घोळणुकेंत आसा. ओळव् वा ओळवू हाचो अर्थ पावसा दिसांनी पाव
नासतना आसपी उजवाड वा पावस पडून गेले उपरांत कुपां फाफसून वतात आ
उजवाड पातळटा तसो आसता. म्हणल्यार सुर्याच्या उजवाडा परस खर वत न्ह
मराठींत वयर सांगल्यात ते खंयचेच शब्द नात. इतलेंच न्हय तर 'वत' म्हणपाक यो
शब्दच ना. ते खातीर कोंकणींतलो 'उन्ह'=हून हें विशेशण 'ऊन' अशा रुपान 'व
ह्या अर्थान नामशब्द म्हूण वापरतात. आनी गर्मीचे वा गिमाचे दीस म्हणपा खाती
'उन्हाळा' हो शब्द वापरतात. 'ऊन' शब्द वत ह्या अर्थान वापरिल्ल्या कारणान आ
हून म्हणपाक फारसी भाशेंतलो गरम हो शब्द वापरप गरजेचें जालां. पद्यांत 'हून' ह
अर्थान 'ऊन' शब्द प्रयोगांत येता.

10) वराडिक वा वऱ्हाडिक=लग्न (व्हारडिक). तेथ इच्छा हे कुमारी जालं
मग ते कामाचिया तारुण्या आली। तेथ द्वेशेंसि मांडिली। वराडिक।।7-166।। तेन
इच्छे नांवाची कन्या जल्मली. उपरांत ती यौवनांत आयली। तेन्ना द्वेशा वांगडा जा
व्हाडिक तिची. कोंकणींत संस्कृतांतलो 'आहर्'=हाड, हाचें 'हाड' हें रुपांतर. 'आणि
हेंय बी ताचें एक रुपांतर. ह्यो दोन क्रिया. 'आणि' म्हणल्यार मराठींत 'आण' ह
रुपान वापरतात. पूण मराठींत 'हाड' हें क्रियापद ना. 'वऱ्हाडिक' हो शब्द वर=घो
(न्हवरो) हाडिक=हाडप. हे दोन शब्दांच्या जुळून येवपांतल्यान घडिल्लो हो शब्द.।
खातीर 'न्हवरो हाडप वा वर हाडप' हाचो अर्थ लग्न करप ह्या अर्थान घोळणुकेंत येव
आतां 'लग्न' ह्या अर्थान कोंकणींत घोळटा. अजापाची गजाल म्हणल्यार ज्ञानेश्वरीं
लग्न ह्या अर्थान घोळपी 'वऱ्हाडिक' हो शब्द आतांचे मराठींत नासूनय 'वऱ्हाड'[1]
शब्द लग्नाक जमिल्ल्या लोकांचो समुदाय ह्या अर्थान येता आनी लग्नाची मिरवणूक

ार्थान मराठी शब्दकोशांनी दिल्लो आसा. 'वऱ्हाडीक' हो शब्द कोंकणींत 'व्हाडींक' ा रुपान वापरतात. आनी न्हवऱ्या वटेंतलो लोकांचो जमो आसता ताका 'वराण' शें म्हणटात. तो शब्द 'वर+यान' - न्हवऱ्याचो प्रवास ह्या शब्दाचें रुपांतर. वऱ्हाडांत ांटेकार आशिल्ल्याक 'वराणकार' म्हणटात. 'वऱ्हाड' ह्या शब्दाचो अर्थ लग्नाक ्कठांय आयिल्ल्या लाकांचो समुदाय' असो मराठी कोशकारांनी दिल्लो आसलो तरी ाचो अर्थ न्हवऱ्याची मिरवणूक असोच जाता. मराठींत 'हाड' हें क्रियापद नाशिल्ल्यान वऱ्हाडिक' हो शब्द कोंकणींतलोच म्हणपाचें सिद्ध जाता. शब्दौघ कल्पद्रुम नांवाच्या ंस्कृत शब्दकोशांत 'वार्धुक्यम् विवाहे स्यात' म्हणल्यार 'वार्धुक्यम्' शब्दाचो अर्थ ग्न असो दिला. तो खंयच्या मुळांतल्यान जल्मला तें समजल्लें ना. तो एक तद्धित शब्द आसपाक जाय. पयलो शब्द 'वर' असो मानलो जाल्यार दुसरो 'धुक' हो शब्द खंयच्या अर्थान आयला हाचो अदमास सांगपाक आदार ना. वा तो 'वार्धुक्यम्' शब्द हेर कोशांनी आतां मेरेन मेळूंक ना.

11) सांजवेळ=संधिप्रकाशांत (सांजेचो वेळ) हो संध्यावेला ह्या संस्कृत शब्दाचें कोंकणी रुपांतर. हो ज्ञानेश्वरींत मुखार दिला तसो आयला 'येऱ्हवी' संकल्पाचिये सांजवेळे। नावेक तिमिरैजती बुद्धीचे डोळे।।9-72।। अर्थ=हरशीं संकल्पाच्या सांजवेळे बुद्धीचे दोळे काळखांत घुस्पतात (बुडटात). सांजवेळे- हो प्रयोग निवळ कोंकणी. हो प्रयोग मराठींत ना.

12) जा=घडप, जावप. हो संस्कृतांतल्या 'जन्' धातूचें कोंकणी रुपांतर. कोंकणींत हें संस्कृतांतले वरीच 'जल्मप' आनी घडप ह्या अर्थांनी उपेग जाता. मराठींत 'जा' क्रियेच्या सामान्य भूतकाळांतल्या शब्दां भायर हेर रुपां नात. पूण ज्ञानेश्वरींत हाचे वेगळे प्रयोग आसात. उदा:- सुख जावों लागलें फावा।।7-191।। अर्थ- सुख प्राप्त जावपाक सुरवात जाली.

13) सान=ल्हान. हो संस्कृतांतल्या श्लक्षण ह्या शब्दांतल्यान कोंकणींत रुपांतरीत जाल्ल्या तीन शब्दांतलो एक. 1) सान=लल्हान 2) ल्हान 3) सण्य=सूक्ष्म, बारीकसो. हातूंतलो ल्हान हो एकच मराठींत 'लहान' ह्या रुपान घोळणुकेंत आसा. ज्ञानेश्वरींतय ताचो प्रयोग मुखार दिला तसो आसा - कां शाखा सानीया थोरा ।।9-25।। खांदयो सान आसूं व्हडल्यो आसूं'' हातूंतलो 'सानीसाखा'=ल्हान खांदे हो प्रयोग कोंकणी. मराठींत अकारान्त विशेशणां विशेष्याच्या लिंगानुसार बदलना. म्हणल्यार मराठींत

कोंकणी सारको 'लहानी शाखा' अशे तरेचो प्रयोग जायना. तो 'लहान शाखा' अ
जाता. मराठींत 'सान' ह्या शब्दाचो स्वतंत्र प्रयोग नासलो तरी ल्हान-सान ह्या अ
'लहान-सहान' असो जोडयेन तो येता. कोंकणींतले सान्ह, ल्हान आनी सण्ण श
मदल्या पयल्या दोन शब्दांतलो 'ह'कान लोप पावून 'सान' आनी 'लान' हीं
उरल्यांत. दक्षीण कन्नड वाठारांतले क्रिस्ती लोक 'ल्हान' हें रूपच वापरतात. अ
तांचे मदीं ताका गोड (ध्वनी) कोमल (ध्वनी) ह्या अर्था भायर इल्लो, ल्हान, बार
असो अर्थय बी आसा.

14) घाल= हो शब्द मराठींत कोंकणींतल्या अर्थान वापरनात. घाल ह्या अ
मराठींत 'टाक' ही क्रिया येता. ज्ञानेश्वरींत ही क्रिया कोंकणींतल्या अर्थानच ये
'जैसा घरीं आपुला। वानिवसें अग्नी लागला। तो आणि काहीं प्रज्वळिला। जाळ
घाली।।1-258।। एखाद्र्या घराक अचकीत उजो लागता तेन्ना तो पातळटा आनी
घरांय बी लासून उडयता ते तरेन जाळूनि घाली=जाळूनि टाकितो असो मराठींत अ
जाता. येणें=हेवटेन=येणें (हे वटेंतल्यान, ह्या मार्गान) अशा अर्थानी दक्षिण कन्न
जिल्ल्यांतल क्रिस्ती लोक कोंकणींत वापरतात. आनी ज्ञानेश्वरींतय 'ह्या मार्गान' अ
अर्थानच तो आयला. 'पाठीं' महर्षी येणें आले। साधकांचे सिद्ध जाले। आत्मवि
थोरावले। येणेंचि पंथें।।6-156।। अर्थ-रुशी ह्या मार्गान आयले; साधक आशिले
सिद्ध जाले आनी ह्या मार्गानच आत्मज्ञानी थोर जाले.

आनिकय उदाहरणां दिवचीं जालीं जाल्यार ज्ञानेश्वरींत शेंकड्यांनी शब्द आ
प्रयोग मेळटात. फाटल्यान दिल्ल्या उदाहरणा वयल्यान कोंकणी भास ज्ञानेश्वरीच
रचना काळा परस प्राचीन काळांतली, तातूंतले प्रयोग दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत आय
घोळणुकेंत आसात आनी मराठींत ते नाशिल्ल्यान ज्ञानेश्वरीची भाशा कोंकणीच आ
संत एकनाथान ती मराठीसदृश्य भाशेंत हाडली हाचे वयल्यान हो दावो सिद्ध जात

मराठींतले कांय प्राचीन शब्द कोंकणींत खंय आसात असो कोणायलो आक्षे
आसुंयेता. पूण तसले नात अशें म्हणलें म्हणून कोंकणीक कसलेच तरेचें उणाकप
येवपाची गरज ना. मराठींतले कांय शब्द प्राचीन म्हूण दाखयतात ते संस्कृत मुळा
प्राकृत शब्द नासून जांचें मूळ सोदूनय मेळना अशे ते देशी शब्द. दुसरी गजाल म्हणल्य
मराठींत आशिल्ले हिंदी, गुजराती, फारसी, अरबी आनी देशी शब्द वेगळे काड
जाल्यार उरिल्ले सगळे शब्द कोंकणी मुळाचे आसून ताचीं संख्या कोंकणीच्या संख्ये

ळेन कमी अशें म्हणूं नजो. तिसरी गजाल म्हणल्यार कोंकणीचेर जीं सगळीं अरिश्टां ायलीं त्या अरिश्टांतल्यान भायर सरून आयज कोंकणींत उरिल्ली जी शब्दसंख्या ासा तितली उरप हो एक चमत्कारच म्हणपाक जाय. जल्मभूंय सोडून गेले आनी ना । दिकांनी शिंपडले, प्राचीन साहित्य वगडावन बसले, एक अपरिचीत वातावरणांत वें साहित्य निर्माण करप साध्य जावनाशिल्ल्यान फकत मौखीक उलोवण्यांतल्यान रिल्ली ही भाशा आसली तरी तिची शब्दांची आस्पत मराठीचे परस चड आसा ही त्यताय तिची प्राचीनताय प्रस्थापीत करपाक फावो जाली आसा. पूण मराठीचेर सलीं संकश्टां आयिल्ल्यान फाटल्यान दिल्ले पटयेतले तशेंच प्राचीन साहित्यांत ोळणुकेंत आशिल्ले शेंकड्यांनी शब्द मराठींत नात हाचें स्पश्टीकपण मराठी पंडित मर्पक तरेन दिवंक शकनात. ते प्राचीन शब्द मराठींत नात हेंच मराठी ही अर्वाचीन ाशा ही गजाल स्पश्ट करपी पकदस्त प्रमाण थारता.

हांगा मुखार विभक्ती रुपां विशीं प्राकृत व्याकरण ग्रंथांनी आयिल्ले एक दोन नेम आनी कोंकणींत नित्य घोळणुकेंत आसात आनी जे मराठींत नात अशे कांय शब्द आनी क्रियापदां दिल्यांत.

कात्यायन-'सो,।।2-1-53।। तस्मा अकारतो सी वचनस्स ओकारादेसो होती. म्हणल्यार-अकारान्त नाम शब्दा उपरांत प्रथमा विभक्तीचें एक वचन 'स्' प्रत्यय ओ-कार जाता. उदा:- सर्व+स्=सर्व=सब्बो=सगळे, क+स्=क:=को=कोण?स:= सो=तो, वृषभ:=बसहो=(बसवा) नंदी, पुरुष:=पुरुसो=दादलो, वत्स:=वच्छो=भुरगो, घोटक:=घाटको=घोडो.

वररुची-अत ओत् सो:।।5-1।। अकारांताच्छब्दात्परस्य सो:स्थाने ओत्वंभवति, म्हणल्यार प्रथमा विभक्तीचो एकवचन प्रत्यय आशिल्लो 'स्'च्या स्थानार 'ओ' जाता, घोटक:=घाडओ आदीं.

कात्यायन- 'सब्बयो नीनं आं, एऽ।।2-196।। तस्मा अकारतो सब्बेसां आं, एऽ, आदेसा होंति वा यथासंख्यं. सगळीं पुल्लिंगी अकारान्त नामां प्रथमा आनी द्वितिया विभक्तींच्या भोववचनांत आकारान्त वा एकारान्त जातात. उदा:- पुरिसा वा पुरिसे (दादले), घोटका वा घोटके=घोडे, घोड्यांक.

प्रथमा विभक्तीच्या एकवचनांत ओकारान्त आसपी पुल्लिंग नाम भौवचनांत एकारान्त जावपाचो क्रम कोंकणींत आनी पोरणे हिंदींतच आसा. फकत मनशांचीं

नांवां सोडून उरिल्ल्या नांवांचीं-प्रथमा आनी द्वितिया विभक्तीचीं रुपां एकसारकीं आसतात. उदा:- घोडो-घोडो, घोड्याक. घोडे=घोडे, घोड्यांक. प्रथमा एकवचनां ओकारान्त आसून भौवचनांत आकारान्त जावपाचो क्रम गुजरातींत आसा.

कात्यायनाच्या व्याकरणांत विभक्ती प्रत्यय मुखार दिल्यात तशे आसात:- प्रथमा 'सि' आनी 'यो'; द्वितिया-'अं' आनी यो; तृतिया-'ना' आनी 'हिं'. चतुर्थी 'स आनी 'नं'; पंचमी-'स्मा' आनी 'हि'; षष्टी-'स' आनी 'नं', सप्तमी-'स्मि' आन 'सु'. हातूंतल्या चतुर्थी आनी 'षष्टी' विभक्तीचें प्रत्यय सारकेच आसात. हातूंतले पयली एकवचन आनी दुसरी भौवचनांत आसता.

'यो' प्रत्यय आकारान्त स्त्रीलिंगी नामां फाटल्यान 'ओ' जाता. वररुची-स्त्रियां शस उदोतौ।।5-19।। स्त्रियां वर्तमानस्य शस, जस, उत्, ओत् इत्येतावादेशौ भवत:। म्हणल्यार स्त्रीलिंगी नामांच्या फाटल्यान प्रथमा आनी द्वितिया भौवचन प्रत्यय आशिल्ले जस आनी शस हांकां 'उ' ना जाल्यार 'ओ' हे बदलाक आयिल्ले प्रत्यय लागतात. उदा:- मालाउ वा मालाओ=माळो, माळांक. णइउ वा णइओ=न्हंयो, न्हंयांक. हे नेम मराठीक लागू जायनात. आतांचे गोंयांतले कोंकणीकय लागू जायनात.

वररुची-इदीषत्-पक्व..... अंगारेषु।।1-3।।

हेमचंद्र-पक्वांगार ललाटेषु।।8-1-46।।

ह्या सुत्रांत आयलां ते प्रमाण-पक्व, अंगार आनी ललाट हे शब्द पिक्वं; इंगालो आनी णिडालं अशे परिवर्तीत जातात. हे कोंकणींत पिकें, इंगाळो (इंगळो) आनी निडल वा निडळ ह्या रुपांनी घोळटात. पिकें, इंगाळो आनी निडल वा निडळ हांचे मदले 'पिकें' हो शब्द मराठींत ना. ताचे बदलाक 'पिकलेलें' हो भूतकालीक कृदन्त विशेशण आसा. इंगळो ह्या शब्दा बदलाक 'निखारा' हो शब्द घोळटा. निडल शब्दाचो निडळ (निढळ) जाला.

वररुची-इदृष्यादिषु।।1-28।। ह्या सुत्रा प्रमाण कांय शब्दांतलो 'ऋ'(रु) स्वर 'इ' जाता. देखीक:- शृंगार:=सिंगारो.

हेमचंद्र-इत् कृपादौ।।8-1-128।। सिंगारो

वररुची-उदृत्वादिषु।।1-29।। ह्या सुत्रा प्रमाण 'ऋतु' शब्द 'रुतु' जाता. प्रवृत्ति

ब्द पउत्ति जाता. दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत 'रुतु' शब्द आसा ते भायर पाद्री थॉमस टफन्साच्या व्याकरणांत दिल्लो 'रितु' शब्द ना. 'पउत्ति' शब्द कोंकणींत 'पाउटि' सो बदलून 1) पाळी, खेप, आवृत्ति; 2) भायर भितर करप, येवप, वचप; 3) चून येवप; 4) मेकळीक, सवड अशा अर्थांनी घोळटा. हातूंत भितर येवन वचप ा अर्थान तो 'पद्धत' शब्दाचें रुपांतर 'पावटी' जालांय आसूंक शकता. मराठींत हणल्यार पोरण्या साहित्यांत 'पाउटि' शब्द मेळटा. पूण ताचो अर्थ निश्चीत ना. ोशकारांनी 'सोपण' असो अर्थ दिला.

वररुची-पोवः।।2-15।। हेमचंद्र-पोवः।।8-1-231।। ह्या सुत्रा प्रमाण कांय ब्दांतलो 'प'-कार आसता तो 'व'-कार जाता. शापः= सावो, कोंणी सोवो सोवप, तापोवप, वा रागान उलोवप). शप्=कोंकणी 'सव्' वा सोव=उलोवणीं. श्यपः=कासवो; कोंकणी कासवु. मराठींत सोवो वा सोव् क्रियापद ना. शिवी=(गाळ, ायट उतर) आसा.

वररुची-आपीडेमः।।2-16।। आपिडः हो शब्द प्रांकृतांत आमेलो जाला. तो कोंकणींत 'आमलो' ह्या रुपान घोळटा. हो लोलका सारकें एक आभरण आसून, दादलें तो कानाच्या वयल्या भागाक, बायलां कपलाचेर मदीं लांबयतालीं. आतां हें आभरण वापरिनात. मराठींत हो शब्द ना.

वररुची-ष्क, स्क, क्षांखः।।3-39।। हेम-शुष्कस्कंधेवा।।8-2-5।। ह्या सुत्रां नुसार शुष्क=सुक्ख; स्कंधः=खांधो; क्षिप्=खेप् आदीं रुपांतरां जाता. कोंकणींत 'सुक्कें'=सुकिल्लें वा सारहीन ह्या अर्थान. खांदो=(1) भूज, खांद 2) झाडाचो फांदी (खांदी) अशे दोन अर्थ. खेऽप=(1) शेंवटून मारप. 2) उखलून आपटप ह्या अर्थांनी वापरतात. मराठींत खांदा होच शब्द आसा. खेऽप आसलो तरी अर्थ वेगळो जाता. 'सुक्कें' हाचे बदलाक कोरडें हो शब्द येता.

वररुची-न्ह, स्न, क्ष्ण, श्नां, णः।।हेम-।।8-2-75।। ह्या सुत्रां प्रमाण स्ना=ण्हा=स्नान=ण्हाण (न्हाण), श्लक्ष्ण=सण्ह अशें परिवर्तन जालां. कोंकणींत न्हा=न्हाण. श्लक्ष्ण शब्द तीन अर्थांनी मुखार दिल्यात तशा तीन रुपांनी परिवर्तीत जाला. 1) स्हान=ल्हान, धाकटो 2) ल्हान=मवाळ 3) सण्ह=सूक्ष्म रंध्रां आशिल्लो, पातळ. मराठींत कोंकणींतलो 'न्हाण' शब्द 'नहाणा' जावन बदल्ला आसलो तरी तो रुतुस्नाना खातीरच फकत वापरतात. न्हाणाक आंघोळ शब्द वापरतात. 'न्हा'

म्हणपाक आंघोळ कर अशें जाता.

वररुची- ष्प, स्प्य, फः।।3-35।। हे-ष्प, स्पयो, फः।।8-2-53।। ह्या सु
प्रमाण -पुष्प=पुप्फ=फूल, शष्प आशिल्लें शप्फ-सुकें तण अशें जाता. पुप्फ श
कोंकणींत आसा. मराठींत ना.

वररुची- विव्हले भ हौ, वा।।3-47।। हेम-वा विव्हिले वौ वश्च।।8-2-58
ह्या सुत्रां प्रमाण विव्हल शब्द बेब्भल आनी बिब्भल जातात. तो कोंकणींत बेंबु
जाता. - भंयान बेंबुळ (भंयान आंग काडप, काचाबूल जावप) सेतुबंध काव्यांत
शब्दभेम्मला।।6-37।। ह्या रुपान आयला.

वररुची- भाजनेजस्य।।4-4।। ह्या सुत्रा प्रमाण 'भाजन' शब्दांतलो 'ज' लो
जावन 'भाण' असो जाला. हो कोंकणींत सामान्यतायेन तांब्याचो हांडो, भाण, व्हडल
मडकी ह्या अर्थान वापरतात. ना जाल्यार तो दुसऱ्या शब्दां वांगडाय बी वेगळे वेगळ
अर्थ व्यक्त करता. देखीकः- सं. पिशटभाजन=पिट्टभाण=पेडहाण=पेडावण=ही
शिजोवपाचें पात्र. हे शब्द मराठींत नात.

वररुची- छदेर्ढक्क।।4-21।। छद्=धांपप ह्या अर्थान ढक्क क्रिया येता. त
कोंकणींत 'धांक' जाता आनी ती मराठींत परिवर्तीत जाता तेन्ना 'झांक' जाता
म्हणल्यार कोंकणींतलो 'ध'-कार मराठींत 'झा'-कारांत परिवर्तीत जाला. हातूंतल्या
तयार जाल्लो 'धांकण' हाचे वयल्यानच कोंकणींतलो 'धांकणें' जाला. कोंकणींतल
'धांक' क्रियेचें संस्कृतांतली 'स्थग्' क्रिया हें मूळ. तेंच 'धग्' जावन उपरांत 'धांक' ज
जालां आसतलें. सर मोनियर विलियम्स हांच्या कोशांत 'ढक्कन' हो शब्द आयल
पूण तांणी ताची व्युत्पत्ती सांगिल्ली ना.

हेमचंद्र- व्याप्रेर्वावर।।8-4-8।। व्यापृ क्रिया 'वावर्' जाता पूण कोंकणींत 'वावर
वा वावुर् ही अकर्मक क्रिया म्हणजेच 'वापर' ही सकर्मक क्रिया. वावर हाचो अर्थः-
1) घोळणुकेंत आसप, उपेगाक येवप 2) चलणूक आपणावप, वेव्हार करप 3) श्रम
करप, कश्टप अशे जातात. तीं नामां जालीं जाल्यार 1) उद्देग, काम 2) वेव्हार अशे
अर्थ उक्तायता. वापर क्रियेचो अर्थ जाता उपेग करप (वापरप) वा घोळप. मराठींत
ह्यो क्रिया आसात. पूण तांच्या अर्थांत फरक आसा.

हेमचंद्र- श्रमेवावंथा।।8-4-65।। श्रम करप, काम करप ह्या अथार्ज्ञन 'वावंथ'

ती क्रिया येता. पूण कोंकणींत संस्कृतांतले व्यायत हे क्रियेचें वांट वा वावंट् हें रुपांतर आनी वांट वा वावंट हें नामरूप भौवचनांत कश्ट करप, शारिरीक कश्ट आदीं अर्थांनी वापरतात. मजा म्हणल्यार मराठींत वावट् क्रियेचो अर्थ विसव घेवप असो जाता. वावंट+एऽ=वावंटे=थकप, पुरो जावप; वावंट काड=काम कर, शरीर कश्ट असले प्रयोग कोंकणींत आसात.

हेमचंद्र- घोर्णो घुल्ल, घुम्म पहल्ला।।8-4-114।। ह्या सुत्रा प्रमाण संस्कृतांतलो घर्ण=फिरून येवप, परतून फाटीं वचप, फेरो मारून येवप, परतप अशा अर्थांनी घुल्ल, घुम्म, पहल्ला ह्यो क्रिया येतात. घुल्ल हो कोंकणींत घूळ=1) उदकांत घोळून खिरप, विरगळप 2) जमनीर गोल घुंवत वचप; घोळ= 1) फाटीं फुडें वा दाव्या उजव्यान हालप, वयर सकयल वा धोलप 2) वचप येवप, फेरो मारून येवप 3) कामा खातीर मानाय येरादारी करता ती क्रिया, दिवपा घेवपाच्या वेव्हाराची क्रिया (विकप-विकतें घेवप बी); घुंव=फिरप, घुंवप, घुंवळ येवप ह्या अर्थानय वापरतात. घुंव ही क्रिया घुम्म शब्दाचें रुपांतर. घूळ आनी घोळ ह्यो क्रिया मराठींत आसात. पूण घुंव क्रिया ना. कोंकणींत घोळ क्रियेचीं दोन सकर्मक रुपां आसात. 1) घोळयि=कामाक लावप 2) घोळायि=1) घुसळप,. खवदळावप, धवळप 2) तोंडांत घालून घोळवप (चोखप).

हेमचंद- मृदो, मल, मढ, मड्ड।।8-4-127।। मृद् ही संस्कृत क्रिया प्राकृतांत मल, मढ आनी मड्ड अशी परिवर्तीत जाता. पूण मृद् क्रिया कोंकणींत मोळ्=1) मळप (भाताची बी मळणी करप) 2) पीठ मळप; 'मर्दय' हें क्रिया रूप कोंकणींत मांडय्=पीठ कलसून जाय तशें तयार करून घेवप ह्या अर्थान वापरतात; माड्डय ह्या रुपांत ताचो अर्थ पांयांनी चेंचप (माडवप) असो अर्थ जाता. मर्दि ह्या रुपांतल्यान मर्दन करप, तकली वयर काडूंक जावची ना इतले मेरेन चेंचप, चिड्डप अशा अर्थांनीय बी घोळटा. इतल्या रुपां मदलें फकत 'मळ्' हें एकच रूप मराठींत आसा. माड्डयि हाचे बदलाक 'तुडवी' शब्द वापरतात.

वररुची- दृशे पुलअ।।8-69।। हेमचंद्र-पुलोए, पुलअ।।8-4-181।। पुलोये वा पुलअ हो 'दृश्' क्रियेचें रुपांतर न्हय. तो 'प्रलोकय' क्रियेचें रुपांतर आनी सेतुबंध काव्यांत तो प्रलोकय-क्रियेच्या बदलाकच आयला आनी तो कोंकणींत पोळोय् वा पळोय्=पळय ह्या अर्थान घोळणुकेंत आसा. ही क्रिया मराठींत ना.

वररुची- म्लै, वा, वाऔ ।।8-2।। म्लै=म्लाय्=बाडु=बावप (फुलावरी)

उजळसाण कमी जावप. मूळ संस्कृत आशिल्लो हो शब्द प्राकृतांत 'वा' नाजाल्य 'वाअ' असो रुपांतरीत जाता. तो कोंकणींत 'वाव' ना जाल्यार 'बाव' ह्या रुपा वापरतात. हें क्रियापद मराठींत ना. त्या बदलाक 'कोमेज्' बावप ही क्रिया आसा

संस्कृतांत 'रम्' ही क्रिया 1) थांबप (रावप) वेळ करूप फुरसत धरप 2) आमः आसूं (उरूं) ह्या अर्थान. तो कोंकणींत 'राव' जाता. कांय लोक 'राब' अशा रुपांत वापरतात. हो शब्द मराठींत ना.

संस्कृत प्रभव (मूळ)= तांक आसप, सामर्थ्य आसप ह्यो क्रिया कोंकणींत 'पहव जावन 'फाव्' (फाव)' असो उच्चारप जाता. संस्कृत- कर्तुं प्रभक्ती=पोरणे कोंकणीं करुं फावइ. आतांचे कोंकणींत करूं फावता=करपाक शकतलो.

संस्कृतांतले इत्थं=अशे तरेन, कथम्=कशें, तथा=तशें, यथा=जशें हे शब अनुक्रमान 'अहें'=अशें (असें), कहें=कशें (कसें), 'तहें'=तशें (तसें), 'जहें'=जः (जसें) अशे कोंकणींत येतना दोन-दोन रुपां घेवन येतात. हांचें मूळ कात्यायनाच्य व्याकरणांत मेळटा.

त्रथ सत्तमीय सब्बनामेहि ।।2-5-3।। सप्तमी विभक्तीच्या अर्थान सर्वनाम फाटल्यान 'त्र'च्या बदलाक 'थ' आनी 'हि' सारकीं कुसां लागतात. देखीकः- सर्वत्र=1) सब्बत्थ 2) सब्हाहि. तत्र=1) तत्थ, 2) तहि. यत्र=1) यत्थ 2) यहि.

हिं, हं, हिंचन ।।3-5-6।। कुहिं, कुहिंचन, अहिं, तहिं, कहिं, यहिं, कहं=कशें. तहं=तशें आदीं.

तम्हाच ।।2-5-7।। तहिं=थंय, तहं=तशें.

यतो हिं ।।2-5-9।। यहिं=खंय (जंय) कोंकणी 'जहिं' (जयं)

सब्बस्स तस्सकारो वा ।।2-4-2।। अतो=अत्थ (तेवटेन), एत्थो=एत्थ (खंयचे वटेन)

एथो थेयुवा ।।2-4-23।। अतो=एत्थो, अत्थ=एत्थ

कांय जाण कोंकणींतले बाइ, भांगर, माड, मेरवणिका म्होड (मोड-कुपां अर्थान) हे शब्द कन्नड अशें म्हूण मानतात. पूण ते संस्कृत शब्दांचीं कोंकणी रुपांतरां आनी कोंकणींतल्यानच कन्नडांत गेल्यांत. देखीकः- संस्कृत-वापी=कोंकणी-बाइ (बांय)

: - भृंगार=कों-भांगर; सं-अंभोद=कों-अम्होड=म्होड (मोड): सं-विराज=कों-
रव्-उपरांत 'अण' प्रत्यय लागून 'मेरवण' अशें जाता, मागीर 'इका' हो तद्धित
त्यय लागून 'मेरवणकि' अशें जाता. 'अण, अणि, इका' हे कोंकणी प्रत्यय.

संस्कृतांत समान अर्थाचे 'वट्' आनी 'वड्' हे दोन धातू. त्या धातूंक खूब अर्थ
ासात. त्या धातूंचीं भावनामां वाट आनी वाड अशीं जातात आनी तांचीं स्त्रीलिंगी
पां- वाटिका, वाटी, वाडी अशीं जातात. तांचे मुख्य अर्थ 1) वेष्ठेने=फेरे, वेठाळ
) आरोहण=चडप 3) कथन= म्हणणें 4) विभजन= वांटे, वांटणी, भाग करप
ादीं. हातूंतले 'वेष्ठन' हो शब्द खूब व्यापक अर्थान घोळटा. ताचो अर्थ फकत
रे वा भोंवताडे इतलोच जायना - पांगरप, आच्छादन, धांपून घेवप, शर्क घालप,
ोंवतण आडो घालप, पागार बांदप आदीं अर्थय आसात. अशें जावन कोंकणींत
या अर्थाक ते ते प्रमाण त्या शब्दांचे 'व'कार, 'ब'कार आनी 'म'कार जावन एका
अर्थाक एकरूप उपेगांत येवन वेगवेगळ्या अर्थां खातीर वेगवेगळीं रुपां प्रयोगांत येतात.

आदीं उल्लेख जाल्या त्या 'शब्दौघ कल्पद्रुम' नांवाच्या संस्कृत कन्नड शब्दकोशांत
'वाट' शब्दाचे अर्थ मुखार दिल्ले प्रमाण मेळटात. 1) वाट 2) घरा वयलें आच्छादन
3) घर बांदपा खातीर योग्य स्थळ 4) पागार.

The standard Sanskrit English Dictionary आसा तातूंत 'वाट' शब्दाचे
अर्थ अशे दिल्यात 1) Enclosure, a piece of enclosed ground, पागार
घालून आडायिल्लो जागो, वाठार 2) A garden, park 3) Road रस्तो 4) The
grain 5) A part of grain.

ते शब्द कोंकणींत मुखार दिल्ले प्रमाण रुपांतरां जावन विंगड विंगड अर्थांनी प्रयोगांत
येतात. वाट, भाट, बाग, माळो, वाडो - वाट+घर=वाठार हो शब्दय कोंकणींत
घोळटा. (आसपासचीं घरां).

स्त्रीलिंगी शब्द देखीक:- वाटी आनी वाडी हे शब्द मुखार दिल्यात ते तरेन
घोळणुकेंत आसात. आंब्यापाडी=आंब्यांची बाग (आमराय), फुल्लावाडी-फुलांची
बाग, वाटिका=वाडिका=चलून आयिल्ली वाट, नेम (क्रम), रुढी, वयवाट,
वाडी=माडी=माळी.

भाग करप, वांटे घालप (वांटप) ह्या अर्थान 'वट्' धातू मदीं अनुनासीक येता

आनी 'वंट' जाता. हो कोंकणींत 'वांट' ह्या अर्थान प्रयोगांत येता. ताचें संस्
नाम 'वंटक:'-वांटो अशें रूप कोंकणींत आसा. 'वड्' धातू कोंकणींत 'मड्'=धां
दवरप, धांपप, वयल्यान चादर कशी पातळावप अशा अनेक अर्थांनी तो घोळटा

कोंकणींत 'माड' हो शब्द आदीं आच्छादन वा घरा वयलें पाखें (छप्पर) इत
अर्थानच वापरताले अशें दिसता. हाचें कारण अशें की घराचेर घालपाची छावणी
आवरण म्हणल्यार पाखें=संस्कृत-पक्षम् हो शब्द आजून कांय कडेन वापरतात. अ
'माड' हो शब्द वापरपी लोक घराच्या पांख्याक वण्टीचेर येवपी वांशाक 'पाक्खासो'
शब्दच वापरतात. पाक्खासो हो शब्दच संस्कृतांतल्या 'पक्ष+वंश:' म्हणल्यार 'पक्
बिदिरू' ह्या कन्नड प्रयोगाचें 'पाख्याचो वांसो' हें रुपांतर. छावणेची (पांख्याची) ए
कडेक संस्कृतांत 'पक्ष' अशें म्हणटात. कोंकणींतलो 'पाक्खासो' हो शब्द कन्नड
पक्कासु जाला. तसोच घराच्या पांख्याच्या वांशाक कोंकणींत 'पाठोसो'=फाटीचो क
म्हणटात. छावणेचे (पांख्याचे) एके कडेक 'पक्ष' हो शब्द वापरप वेदकाळा साव
चलत आयलां. तशेच तरेन पांख्याक वांशे (कोंडे) वापरप प्राचीन काळा सावन
चलत आयलां. यज्ञशाळेचो आदलो वांसो 'प्राचीनवंश' असो उल्लेख जातालो.

'व'कार आसल्यार 'म'कारांत परिवर्तीत जावन शब्द घडप हाचीं आनी
कांय उदाहरणां मुखार दिल्यांत: विट्=मिट्=मीठ, वटर=मडल - चुडटाचें मल्ल
विद्युत=विज्जु= 1) वीज, विद्युतशक्ती 2) मिंचु=जगलावणें, विष= 1) विस, वीर
2) मेखें= विखाळ जंतू मरून कुशिल्ल्या जाग्यार वाडिल्लें विखाळ तण.

10

हांगा मुखार फकत कोंकणींत घोळणुकेंत आशिल्ले कांय प्राकृत शब्द दिल्यात.

| | प्राकृत | कोंकणी | कन्नड | मराठी |
|---|---|---|---|---|
| 1) | अंगीकृ (अंगीकरण) | आंगय | हरके हेळुमाडू | |
| 2) | अंबा (कोच्ची) | आम्मा | तायी | आई |

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| ) | अक्ष, अक्षि | अच्चु, अच्चि (बीळ, सांचो (मोल्ड)) | अच्चु, पडियच्चु | सांचा |
| ) | अंगार | इंगळो | केंड | निखारा |
| ) | अंभोद | म्होड, मोढ (कूप) | मुगिलु | ढग |
| ) | अग्निवृण | आगरूव | बायिहुण्णु | – |
| ) | अणका | अणवो | कीळु | हलकट |
| ) | अपरेघुस् क्रि.वि. | एददुस् (दुसरो दीस) | मरुदिन | – |
| ) | आग्रह: | आगिरो | प्रीतिय ओत्ताय | गळ |
| 10) | आयतन (कोच्ची) | आयिदन | पात्रे | भांडें |
| 11) | आर्या | आय्या | 1) अज्जी 2) मुत्तैदे | – |
| 12) | आर्यात्व | अय्यापण | मुत्तैदेतन | – |
| 13) | आलान: | आलादु | आने कट्टुव हग्गा | – |
| 14) | आवीजन | आइणो | बीसणिगे | आळणां |
| 15) | आस्पृश् | आप्फड, आफड | मुट्टु | शिव |
| 16) | आहर | हाड | तरु, ता | आण |
| 17) | आव्हय् | आप्फय | करे | बोलव |
| 18) | इत्यर्थम् | इत्यर्थ | विचारणे मत्तु तीर्मान | – |
| 19) | ईक्ष | एक्षी | एणिखु, योचिसु | |
| 20) | उत्तप | उलप हुलप, ओळप | कमरु | हुरपळ, होरपळ |
| 21) | उत्कर | उक्कळ उकल् | मेऽलेत्तु | उचळ |

| | | | |
|---|---|---|---|
| | (उखल) | | |
| 22) उत्पट् | उपट्उप | कित्तुकोळ्ळु | हिसकून घे |
| 23) उत्पत् | उब् (उडप) | हाराडु | उड |
| 24) उत्पाटय | उपाटी | कीळु, होरतेगे | - |
| 25) उत्संग: | उसंगो, उसको | तोडे, उडी | मांडी |
| 26) उत्स्पर्ध् | हुरड् (सर्त) | मेलाडु | स्पर्धा |
| 27) उत्सर्ज् | उड्डय | बिसाडु, एसेयु | फेंक |
| 28) उद्गार: | उव्वार् (रु) | नेरे | पूर |
| 29) उद्भव | उज्झो, उजो | बेंकि, किच्चु | विस्तव |
| 30) उद्वेग: | उद्वेगु | 1) तवक 2) कळवळ | - |
| 31) उर्पार | ओयरि (वयर) | मेले | वर |
| 32) उपस्करी | उपकरि (फोण्ण) | ओग्गरणे, पल्य | फोडणी |
| 33) उल्लप् | उल्लय | नुडी, माताडु | बोल |
| 34) उष्ण | उन्ह, हून | बिसी, बेच्चन | गरम |
| 35) उष्म | ऊम्ह, हूम | बेवरु | धूम |
| 36) करक: | करो | आलिगल्लु | गार |
| 37) करांट: | करटो (कट्टें) | तलेचिप्पू | कवटी |
| 38) कर्णमल | कानुलो | किविगुग्गु | - |
| 39) कीर: | कीर (कीरु) | गिळी | पोपट |
| 40) कुक्कुट | कुंकड, कुकड | कोळि | कोंबडा |
| 41) कुट: | गुड्डो, दोंगर | बेट्ट, गुड्ड | डोंगर |
| 42) कुटचंपक | कुडचांपें | काडुसंपिगे | - |

| | | | |
|---|---|---|---|
| 43) कुडयेकोष्ठ | कुडकूट | माड | कोनाडा |
| 44) कुरचिल्ल: | कुरलो, कुल्ली | एडि | खेकडा |
| 45) कुलगृह | कुळ्हार, कुळार | तवरुमने | माहेर |
| 46) कूपक: | कूंवो, कूवो | हायिमर | डोलकाठी |
| 47) कोल | कोळ | काडु, हंदि | - |
| 48) कोल-उंदुर | कोळउंदुरु | हेग्गण | घूंस |
| 49) कोष्ठ: | कोठो (खोट्टो) | 1) येलेयपात्रे, गूड्डुतोट्टे<br>2) बळ्विइंद हेणेद पात्रे, चिक्कबुट्टी | - |
| 50) कोष्ठ | कोडो (कणात्तर) | कणज | - |
| 51) कोष्ठम् | कूड | कोणे | खोली |
| 52) कोष्ठकम् | कोडकें=Shed | कोट्टिगे | - |
| 53) खल्वाटा | खळ्डु, खळडो (खड्डो) | तरटु(तले) | टकल्या |
| 54) खात | खाल | तग्गु (जाग) | - |
| 55) गुठ् | गुठळ् | सुरुळु | - |
| 56) गुर्विणी | गुर्बिणी (गुरवार) | बसुरी | गरोदर |
| 57) गोलक | गोंगु (बुब्बुळ) | गुड्डु (कण्णिन) | बुबुळ् |
| 58) चुंबा | उम्मा, उमो | मुत्तु, मुद्दु | मुका |
| 59) चक्ष | चोह् चोय् | नोडु | पहा बघ |
| 60) चरु | चरुवि | अन्न बेसियुवपात्रे | - |
| 61) चेट | चेडो | आळु, सेवका | गडी |
| 62) जगति | जगली | कट्टे | ओटा |

| | | | |
|---|---|---|---|
| 63) जन् | जा (जावपा) | आगु, हुट्टु | |
| 64) जन्मदिवस | जायदिवसु | हुट्टुदिना | वाढदिवस |
| 65) तृण | तण | हुल्लु | गवत |
| 66) तेम | तेंवु (ओलसाण) | पशे | ओलावा |
| 67) दीर्घ | दीघ | उद्द | लांब |
| 68) द्वीप, द्वीपी | जुवें, दीवि | कुद्व | बेट |
| 69) द्वारबंध | दारवंदु | बागिलचौकट्टु | चौकटी |
| 70) पट्ट | पाट्टो | पट्टे, रेश्मे | रेशीम |
| 71) पट्ट | पाट्टो | 1) अधिकारपत्र<br>2) तगडु<br>3) पट्टी | |
| 72) पट्ट | पाटु | अधिकार पट्ट | पाट |
| 73) पट | पाटु | तेरे, बट्टेहासु | पडदा |
| 74) पर | पेल, पेलो | आचेया, हेरवा | पेला |
| 75) परतटी | पेलतडी, पलतडी | आचेदडा | पलीकडे |
| 76) पर्वन | परब | हब्ब | सण |
| 77) पिंडय | पेंडे | मुद्देगट्टु | गोठ् |
| 78) पिशाच | पिसो | हुच्च | वेडा |
| 79) पुट् | पोटळ् | आप्पिकोळ्ळु<br>तेक्केबीळु | मिठी मार |
| 80) पुराण | पोरणें | हळतु | जुनें |
| 81) प्रकोष्ठ | पौठ (गोवा) | मुंगै | – |
| 82) प्रकोष्ठिका | पोवठी | मुंगे | – |

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| 3) | प्रत्याय् | पातये | नंबु | – |
| 4) | प्रलोकय | पळोय, पळेय | नोडु | पाह, पहा |
| 35) | प्राकार | पागारु | सुत्तुगोडे | – |
| 36) | मरुत्पथ | म्हुळुपु मळब | बानु | आभाळ |
| 37) | मल्लकम् | माल्लें | आधारपत्र | घमेलें |
| 88) | माशक | मुसक | सोळ्ळे | चिलट |
| 89) | माता | माय | तायी | आई |
| 90) | युग | लुग, नुग | नोग | जोकड |
| 91) | रिक्तम् | रितें | बरिदु | रिकामा |
| 92) | लिह् | लेंव (चाटप) | नेक्कु | चाट |
| 93) | वड्र | वडळें, वड | दोड्ड | मोटें |
| 94) | वधूकुल | व्होकुळ, व्हंकल | मदुमगळु | नवरी |
| 95) | वरयितृ | वरैतु, न्हवरो | मदुमगा | नवरा |
| 96) | वलय | 1) बळें 2) वळें 3) वाळो | बळे | कडें |
| 97) | वलयकार | वळारु | बळेगीर | – |
| 98) | वस्ति | 1) बोट्टि, बाद्दि 2) व्हंटो | 1) दसि, अरु 2) उडि, मडिलु | – |
| 99) | वातायन | वाळणो, बाळणो | किटकी | खिडकी |
| 100) | वापी | बाइं (बांय) | बावि | विहीर |
| 101) | विवर | वेरो | बिरुकु, ओडकु | – |
| 102) | व्रण | रुंव | हुण्णु | – |
| 103) | वृति | वेलि, बेलि (वंय) वइ | बेलि | कुंपण |
| 104) | वृहत | व्हड, होड | दोड्ड, श्रेष्ठ | थोर |

| | | | |
|---|---|---|---|
| 105) बेगंन | वेगान, वेगीं, बेगीं | बेगने | लवकर |
| 106) वेदिका | पेडि | कट्टे | ओटा |
| 107) व्यंग | वेंग | हेळव | - |
| 108) व्यंग्यम् | बेंगें | विनोदोक्ती | - |
| 109) शकुनं | सउणें, सुकणें | हक्कि | पाखरुं |
| 110) शर्कर | शंकरो | हरळुकल्लु | - |
| 111) शाद | खात (खात्तडि) चिखोल | राडि, केसरु | चिखल |
| 112) शीतल | शेळ | तण्णन | थंड |
| 113) शुल्क | सुंक | सुंक् | जकात |
| 114) श्रद्धा | सड्डा | सड्डे | - |
| 115) संक्रम | सांकव | संक | पूल |
| 116) संगत्याम् | सांगातिं | ज्योतेगे, ज्योतेयल्ली | बरोबर |
| 117) संधि | खांजि, खांचि | एडे | - |
| 118) सत्यंकार | संचिकारु | मुंगड, हण | विसारा |
| 119) सरीसृप | हयिरुवां | हरिदाडुयजंतु | साप |
| 120) सर्षप | सासंव-म | सासिवे | मोहोरी |
| 121) सिक्थ | सित, शित | अन्न, कुळु | भात |
| 122) सृप | साप | उड | घोर्पड् |
| 123) स्वंग | वेंग (स्त्री) | अप्पुगे | मिठी |
| 124) हर | व्हर | ओय्यु | वे |

मुखार दोनय भासांची शुद्धताय तपासपा खातीर कांय शब्द दिल्यात. हे दीसपट्ट भाशेंत घोळटात आसले तरी साहित्य रचने खातीर निर्माण जाल्ले न्हय. साहित्यां

मराठी लेखकां वरीच कोंकणी लेखकय संस्कृत शब्द वापरतात.

| संस्कृत | कोंकणी | मराठी | कन्नड |
|---|---|---|---|
| 1.अंत्र आंत | आंतडें, आंतडी | करुळु | |
| 2.अधुना, इदानिं | एधन, (येन्ना) | एव्हां | इगा |
| 3. उत्क्वथ् | उकड | उकळ | बेयु, कुदि |
| 4. उद्योत | उजवाडु | उजेड | बेळकु |
| 5. अनुपहतम् | अनव्हाळें, अनवाळें | ओंवळें | मडि |
| 6. उपानह् | वाणह्, व्हाण | वाहाण | मेट्टु, केरा |
| 7. खद्योत | काजोळो, काजुळो | काजवा | मिणुकुहुळा |
| 8. खर्जू | खरजु | खाज | कज्जि, तुरि |
| 9. गोधूमः | गोहंव, गोंवु | गहू | गोदि |
| 10. गोपालः | गोवाळो | गवळी | कवाडिगा |
| 11. जन्मवालः | जांयवोळु | जावळ | हुट्टुगूदलु |
| 12. तुषः | तुसु | तूंस् | होट्टु |
| 13. दर्वि | दायि | डाव | सुट्टग, हाविन हेडे |
| 14. देवृ | देरु | दीर | गंडन तम्म |
| 15. प्रथुका | (पोहुवा) फोवु | पोहा | अवलक्कि |
| 16. प्लव | पोंव, पेंवप | पोह | तेलु, ईजु |
| 17. प्रवह | पोंह, पोंव | गळ | सोरु |
| 18. फेनः | फेण | फेंस | नोरे |
| 19. भगिनि | भइणि | बहीण | सोदरि |
| 20. भारे | | भारि | फज़र |

अत्यंत, मितिमीरि

| | | | |
|---|---|---|---|
| 21. भ्रू | भोंवि | भिंवयी | हुब्बु |
| 22. महार्घ | म्हारग | महाग | प्रिय |
| 23. महिला | बाइल-ला | बायको | हेंगसु |
| 24. मातुलिंग | माउळिंग | महाळुंग | मादळ |
| 25. युज् | जुउ् | जुळ | कूडु |
| 26. लाजा | ल्हाय | लाही | होद्दलु |
| 27. वली | | मिरि | निरी |
| नेरिगे | | | |
| 28. वल्मपुत्तिका | वाळुति | वाळवी | गेद्दलु |
| 29. स्वर्घ | | सव्रघ | स्वस्त |
| अग्ग | | | |
| 30. हनु | हणवि | हनुवटी | गद्दा |
| 31. वातिंग-ण | वाइंगे, वाइंगण | वांगें | बदने |

सुरवातेच्या ड-कारा उपरांत ळ-कार जाले उपरांत मूळ रुपा पसून अक्षर लोप जावप वा आसपाक जाय ताचे परस चड अक्षरां येवन मेळ्ळे उपरांतच्या बदलांतल्यान (परिवर्तनांतल्यान) आदल्या शब्दा वल्यान दिसता.

11

मुखार संस्कृत, प्राकृत, कोंकणी आनी मराठींत येवपी सर्वनामां दिल्यांत.

| **संस्कृत** | **प्राकृत** | **कोंकणी** | **मराठी** | **कन्नड** |
|---|---|---|---|---|
| अहम् | अहं, हउं | हांउ, हांव | मी | नानु |
| वयम् | अम्हे | आम्मि | आम्ही | नावु |

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| त्वम् | तूं, तुमम् | तूं, तुंव् | तूं | नीनु |
| यूयम् | तुम्हे | तुम्मी | तुम्ही | नीवु |
| सः | सो | तोऽ | तो | अवनु |
| ते | ते | ते | ते | अवरु |
| एषः | एसो, एहो | हो | हा | इवनु |
| एते | एते | हे | हे | इवरु |

हांव ह्या अर्थान 'मी' हें सर्वनाम प्राचीन प्राकृत ग्रंथांनी ना. तें हेमचंद्राच्या व्याकरणांत 'मी' ह्या रुपांत मेळटा. तेच प्रमाण हिंदीच्या कांय प्रादेशीक प्रकारांनी तें घोळटा. ते खातीर 'मी' हें रूप हिंदींतल्यानच मराठींत आयलां अशें म्हणूं येत. मराठींत 'तो' हें रूप आसलें तरी 'हो' म्हणपाक 'हा' हें रूप येता. 'तो' हें रूप 'ता' जायनासतना मूळ रुपांतच आसप आनी तेच तरेन ती, ही, तें, हें अशीं कोंकणी रुपांच आसप आनी तसलीं रुपां दुसरे खंयचेच भाशेंत मेळनात म्हणल्यार मराठी ही कोंकणींतल्यान जल्मल्या म्हणपाचें प्रमाण.

## विभक्तींचे मुख्य प्रत्यय

| कोंकणी | | मराठी | |
|---|---|---|---|
| **एकवचन** | **भौवचन** | **एकवचन** | **भौवचन** |
| प्र.–3 | आ, अ, अं, इं | – | एं, इं |
| द्वि.–क,स | – | स, ला | स, ला, ना |
| तृ.– न, ने, शिं | च्यानशिं, हिं, च्यान | ए, नें, च्यानेंईं | नीं, हीं |
| च.–क,स | – | स, ला | स, ला, ना |
| पं.– सून, हून, ऊन | – | हून | – |
| ष.– चो, लो, गेलो | – | चा | – |
| स.– आं, इं, इ, ए, ऐं | तू, आ | ई, आंत, आं | – |

दक्षिण कन्नड जिल्ल्याच्या गांवगिन्या वाठारांनी स्थायीक जाल्ले, राजापुरी, कुडाळदेशकार आदीं सारस्वत वर्गातले ब्राह्मण लोक अजून द्वितिया आनी चतुर्थी विभक्तींत 'स' प्रत्यय वापरतात. देखीक:- रामास=रामाक. हाचे वयल्यान आदीं 'स' प्रत्यय गोंयांतय वापरताले म्हणपाचें ध्यानांत घेवंक जाय. उपरांत माका, आमकां, तुका, तुमकां आदीं सर्वनामांतल्या 'का' प्रत्ययाच्या प्रभावान आदलो 'स'कारय 'क' जावन परिवर्तीत जालो म्हणपाक जाय. कांय जाण कोंकणींतले तृतिया विभक्तींत 'न' प्रत्यया बदलाक 'ने' प्रत्यय वापरतात. तोय बी सर्वनामांतल्यान 'णे' प्रत्ययाचो प्रभाव म्हणपाक जाय. दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतले आनी केरळांतले सारस्वत ब्राह्मण लोक देवांच्या आनी मनशांच्या नांवां वांगडा षष्टी विभक्तींत 'चो' प्रत्यय वापरिनात. सगळ्या प्राकृत विभेदांनी द्वितिया आनी चतुर्थी विभक्तीचीं रुपां एकूच आसतात.

### सर्वनामांच्या विभक्तींचीं रुपां

अहम्=हांव

प्राचीन प्राकृत वा प्रवचनांची भाशा

| कोंकणी | मराठी |
|---|---|
| 1. प्रथमा- अहं | मयं, अम्हे |
| 2. द्वितिया- मं, ममं | अम्ह, अम्हानं, अम्हे, अम्हाकं |
| 3. तृतिया- मया, मे | अम्हेहि |
| 4. चतुर्थी- ममं, मह्यं | अम्हे, अम्हाकं |
| 5. पंचमी- मा, मे | अम्हेहि |
| 6. षष्टी- ममं, मह्यं | अम्हाकं |
| 7. सप्तमी- माये | आम्हेस |

वयर दिल्ल्या रुपांनी 'अम्हाकं' हें रूप द्वितिया, चतुर्थी आनी षष्टी विभक्तीच्या भांवचनांत आयलां हांच तातूंतलो ध्यानांत घेवपाचो मुद्दो. ते 'अम्हाकं' रूप हेंच कोंकणींत येवपी 'आमकां' हाचें मूळ म्हणपाचें दिसून येता.

त्वम्=तूं

| | |
|---|---|
| 1) त्वं | तुम्हे |
| 2) तवं, तुवं | तुम्हानं, तुम्हे, तुम्हाकं |
| 3) तया, ते | तुम्हेहि |
| 4) तव, तुम्हं, तुह्यं | तुम्हे, तुम्हाकं |
| 5) ता, ते | तुम्हेहि |
| 6) तव, तुम्हं, तुह्यं | तुम्हाकं |
| 7) तयि | तुम्हेसु |

## शौरसेनी आनी प्राकृत

हांचे भितर चतुर्थी विभक्तीच्या अर्थान षष्ठी विभक्तीचोच प्रयोग जाता.

| | |
|---|---|
| 1. हं, अहं, अहअं, हउं, म्मी | अम्हे |
| 2. मं, ममं, अहम्मी | अम्हे, णो |
| 3. मइ, मये, ममादु, मे | अम्हे हि. |
| 5. मइत्तो, ममादु, ममादो | अम्हाहिंतो, अम्हासंतो |
| 6. मज्ञ, मम, मह, मे | मज्ञ णो, अम्हं, अम्हाणं |
| 7. मइ, मए, ममाइ, ममम्मी | अम्हासु, अम्हेसु |

म्मी आनी अहम्मी हीं रुपां हेर रुपां इतलीं प्राचीन न्हय

| | |
|---|---|
| 1. तुं, (तुम्) तं (तम्) | तुज्ञे, तुम्हे |
| 2. तुमम् | तुज्ञे, तुम्हे, वो |
| 2. तइ, तए, तुमए, तुमाई, तुमे | तुज्ञेहि, तुम्हेहि |
| 5. तइत्तो, तत्तो, तुमादु, तुमाहि | तुम्हहिंतो, तुम्हासुंतो |
| 6. ते, तुह, तुज्ञ, तुम्ह | वो, भे, तुज्ञाणं, तुम्हाणं |
| 7. तइ, तए, तुमाइ, तुमे, तुज्ञम्ही, तुम्ही | तुम्हास, तुम्हेसु |

## कोंकणी

कोंकणींत आनी मराठींत द्वितिया आनी चतुर्थी विभक्ती वेगवेगळी ना.

| | |
|---|---|
| 1. हांवु, हांव | आम्मी (आमी) |
| 2-4. माका, मज | आम्हका (आमकां) आम्हा |
| 3. हांवें, मज्यान | आमहि, आम्हच्यान |
| 5. मजसून, मजेऊन | आम्हचेऊन, आम्हासून |
| 6. मज्जो, मगेलो | आम्हचो, आम्हगेलो |
| 7. मजां, माजें | आम्हींतु, आम्हच्यांतु |
| 1. तूं, तुंव | तुम्मी |
| 2-4. तुका, तुज | तुम्हकां, तुम्हा |
| 3. तुवें, तुज्यान | तुमहिं, तुम्हच्यान |
| 5. तुजसून, तुजेऊन | तुम्हचेऊन, तुम्हासून |
| 6. तुज्जो, तुगेलो | तुम्हचो, तुम्हगेलो |
| 7. तुजां, तुजें | तुम्हींतु, तुम्हच्यांतु |

कोंकणींत अम्ह, तुम्ह असल्या रुपांतले 'ह-कार' आतां उच्चारप जायना. ते खातीर आतां आमकां, तुमकां, आमचो, तुमचो असलीं रुपां घोळटात. शिं, लागीं, गुणि, कडे आदीं नाम साधीत प्रत्यय-मज, तुज अशा रुपांक लागतात. उदा:- तुजशीं, मजशीं, मजलागीं, तुजगुणीं, आमकां सकडांक=आमा सकडांक, तुजपशीं, तुका मूर्खाक, तुजमूर्खाक

### तो

| | |
|---|---|
| 1. तो | ते |
| 2-4. ताका, ताज्या (ताजे) | तांकां, त्यां |
| 3. ताणे, ताज्यान | तान्हीं, तांच्यान |
| 5. ताजेसून, ताजेऊन | तांसून, तांचेऊन |

| | |
|---|---|
| 6. ताज्जो, तागेलो | तांचो, तांगेलो |
| 7. ताज्यां, ताहिं | तांतु, तांच्यांतु |

ती

| | |
|---|---|
| 1. ती | त्यो |
| 2-4. तिका, तिज्या (जे) | त्यां, त्यांकां, तिंकां |
| 3. तिणें, तिज्यान | तिंच्यान, त्यान्हीं, त्यांच्यान, तिंणी |
| 5. तीसून, तिजेऊन | त्यांसून, त्यांचेऊन, तिंचेऊन |
| 6. तिज्जो, तिगेलो | त्यांचो, त्यांगेलो, तिंचो, तिंगेलो |
| 7. तिज्यां, तिहिं | त्यांतू, तिंतू, त्यांच्यांतु |

तीं

| | |
|---|---|
| 1. तें | तीं |
| 7. तांतु | तांतु, तांच्यांतु |

स्त्रीलिंग भौवचनांनी तिंका, तिंच्यान आदीं रुपां पाद्री थॉमस स्टिफन्साच्या व्याकरणांतल्यान घेतल्यांत.

हो, ही, हे आनी जो, जी, जें हीं सर्वनामां - तो, ती, तें हांचे सारकीं रुपांतरां आपणावन विभक्ती प्रत्यय लावन घेतात. तीं सर्वनामां हेर नामां वांगडा विशेशणां जावन आयले उपरांत मुखार दिल्यांत ते तरेन रुपांतरां आपणायतात.

तो चेलो - त्या चेल्ल्याक - आदी

ते चेले - त्यां चेल्ल्यांक - आदी

ती चेली - ते चेलियेक - आदी

त्यो चेलियो - त्यां चेलियांक - आदी

तें फळें - त्या फळ्यान - आदी

तीं फळीं - त्यां फळ्यांनी - आदी

पद्यांत तेया चेल्ल्याक, तेयां चेल्ल्यांक, तिये चेलियेक, तियां चेलियांक अशे त
प्रयोग जातात.

'ती' हें स्त्रीलिंग रूप कात्यायनाच्या काळांतल्यानच घोळणुकेंत आयलां आसप
जाय अशें दिसता. ताचे कडेन संबंदीत कायत्यायनाच्या व्याकरणांत मुखार दिलीं
दोन सुत्रां आसात:- एतिमासं इ ।।2-1-12।। तस्सावा ।। 2-1-12।। एतस्सा आ
तस्सा ह्या रुपांच्या बदलाक एतिस्सा=हिका, तिस्सा=तिका हीं रुपां येतात. ती
मागीर कोंकणींत हिंक्का आनी तिक्का ह्या रुपांत परिवर्तीत जाल्लीं अशें म्हणूं ये

### मराठी सर्वनामां

| | |
|---|---|
| 1. मी | आम्ही |
| 2-4. मला, मजला, मातें | आम्हांस, आम्हाला, आम्हा तें |
| 3. मी, म्यां, माझ्यानें | आम्ही, आमच्यानें |
| 5. मजहून | आम्हांहून |
| 6. माझा | आमचा |
| 7. - | आम्हांत |

| | |
|---|---|
| 1. तूं | तुम्ही |
| 2-4. तुला, तुजला, तूतें | तुम्हांस, तुम्हाला, तुम्हांतें |
| 3. तू, त्वां, तुझ्याने | तुम्हीं, तुमच्यानें |
| 5. तुजहून | तुम्हांहून |
| 6. तुझा | तुमचा |
| 7. - | तुम्हांत |

| | |
|---|---|
| 1. तो | ते |
| 2-4. तुला, तुजला, तूजतें | तुम्हांस, तुम्हाला, तुम्हांतें |
| 3. तू, त्वां, तुझ्याने | तुम्हीं, तुमच्यानें |
| 5. तुजहून | तुम्हांहून |
| 6. तुझा | तुमचा |
| 7. - | तुम्हांत |

| | |
|---|---|
| 1. तो | ते |
| 2-4. त्यास, त्याला, त्यातें | त्यांस, त्यांला, त्यांना, त्यांतें |
| 3. त्यानें, त्याणें, त्याच्यानें | त्यांनीं, त्यांणीं, त्यांच्यानें |
| 5. त्याहून | त्यांहून |
| 6. त्याचा | त्यांचा |
| 7. त्यांत | त्यांत |

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. ती | त्या | तें | तीं |
| भौवचनां | पुल्लिंगावरी | हेर विभक्ती | पुल्लिंगावरीच |

2-4. तीस, तिला, ती तें

3. तिनें, तिणें, तिच्याने

5. तीहून

6. तिचा

7. तींत

मुखार कोंकणी आनी मराठींतलीं सामान्य नामाचीं विभक्ती रुपां दिल्यांत.

अ-कारान्त नपुंसकलिंगाचीं नामां प्रथमा विभक्तीचीं सोडून हेर विभक्तींनी अ-कारां
पुल्लिंग नामां वरीच विभक्ती प्रत्यय घेतात.

### 'अ'कारान्त पुल्लिंग शब्द-बालक

| कोंकणी | | मराठी | |
|---|---|---|---|
| 1. बालकु | बालकऽ | बालक् | बालक् |
| 2-4. बालकाक | बालकांक | बालकास, बालकाला | बालकांस-ल -ना |
| 3. बालकान, बालकाच्यान | बालकांनी, बालकांच्यान | बालकानें -च्यानें | बालकांनी -च्यांने |
| 5. बालकासून | बालकांसून | बालकाहून | बालकांचा |
| 6. बालकालो-चो | बालकांलो-चो | बालकाचा | बालकांचा |
| 7. बालकां, बालकिं | बालकांतु | बालकांत, बालकीं | बालकांत |

### 'अ'कारान्त नपुंसकलिंग-फळ

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. फळ | फळां | फळ | फळें |
| 3. फळान | फळांनीं | फळानें | फळांनी |
| 6. फळाचो | फळांचो | फळाचा | फळांचा |

मराठींतलें भौवचन फळें अशें आसलें तरी ताचो उच्चार कोंकणींतल्या वरींच 'फळं
असोय आसा. गोंयांतले लोक आनी दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतले कोंकणी क्रिस्ती
लोक 'फळां' म्हणटात.

## 'इ'कारान्त आनी 'ई'कारान्त पुल्लिंग शब्द

### कोंकणी

| | अग्नी | | योगी | |
|---|---|---|---|---|
| 1. | अग्नी | अग्नियें | योगी | योगियें |
| 2-4. | अग्नीक | अग्नींक | योगीक | योगींक |
| 3. | अग्नीन-नें | अग्नींनी | योगीन-नें | योगींनी |

### मराठी

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| 1. | अग्नी | अग्नी | योगी | योगी |
| 2-4. | अग्नीस | अग्नींस | योगीस | योगींस |
| 3. | अग्नीनें | अग्नींनीं | योगीनें | योगींनीं |

### तेली

| | कोंकणी | | मराठी | |
|---|---|---|---|---|
| 1. | तेली | तेलियें | तेली | तेली |
| 2-4. | तेलीक, -स | तेल्यांक | तेलीस (तेल्यास) | तेल्यांस |
| 3. | तेलीन-नें | तेल्यांनीं | तेलीनें (तेल्याने) | तेल्यांनीं |

### 'इ'कारान्त नपुंसगलिंग – मोतीं

| | कोंकणी | | मराठी | |
|---|---|---|---|---|
| 1. | मोतीं | मोतयां | मोतीं | मोत्यें |
| 2-4. | मोतयान-नें | मोतयांनी | मोत्यानें | मोत्यांनीं |
| 3. | मोतयाचो | मोतयांचो | मोत्याचा | मोत्यांचा |

## 'उ'कारान्त पुल्लिंग शब्द

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| 1. | गुरु | गुरु, गुरव | गुरू | गुरू |
| 2-4. | गुरूक | गुरूंक | गूरुस | गुरूंस |
| 3. | गुरून-नें | गुरूंनीं | गुरूनें | गूरुंनीं |

'उ'कारान्त नपुंसकलिंग–तारूं

| कोंकणी | | मराठी | |
|---|---|---|---|
| 1. तारूं | तारवां | तारूं | तारवें |
| 2–4. तारवाक | तारवांक | तारवास | तारवांस |
| 3. तारवाचो | तारवांचो | तारवाचा | तारवांचा |

'ए'कारान्त नपुंसकलिंग–केळें

| कोंकणी | | मराठी | |
|---|---|---|---|
| 1. केळें | केळीं | केळें | केळीं |
| 2–4. केळ्यान–नें | केळ्यांनीं | केळ्याने | केळ्यांनीं |
| 3. केळ्याचो | केळ्यांचो | केळ्याचा | केळ्यांचा |

कोंकणी 'ओ'–कारान्त पुल्लिंग–घोडो

मराठी 'आ'कारान्त – घोडा

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. घोडो | घोडे | घोडा | घोडे |
| 2–4. घोड्याक | घोड्यांक | घोड्यास | घोड्यांस |
| 3. घोड्यान–नें | घोड्यांनीं | घोड्यानें | घोड्यांनीं |
| 6. घोड्याचो | घोड्यांचो | घोड्याचा | घोड्यांचा |

'अ'कारान्त स्त्रीलिंग शब्द – वाट

| कोंकणी | | मराठी | |
|---|---|---|---|
| 1. वाट् | वाटो | वाट | वाटा |
| 3. वाटेन–नें | वाटांनी | वाटेनें | वाटांनीं |
| 6. वाटेरि | वाटांरि | वाटेवर | वाटांवर |

## 'आ'कारान्त स्त्रीलिंग– माळा

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. माळ | माळो | माळ | माळा |
| 3. माळेन–नें | माळांनीं | माळेने | माळांनीं |
| 6. माळेचो | माळांचो | माळेचा | माळांचा |

## 'इ'कारान्त स्त्रीलिंग– वाती

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. वाति (वात) | वात्यो | वात | वाती |
| 2-4. वात्तीक | वात्यांक | वातीस | वात्यांस (वातींश) |
| 3. वात्तीन–नें | वात्यांनीं | वातीनें | वात्यांनी (वातींनीं) |

## 'ई'कारान्त स्त्रीलिंग – स्त्री

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. स्त्री | स्त्रियो | स्त्री | स्त्रीया |
| 2-4. स्त्रियेक, स्त्रियांक | | स्त्रीयेस | स्त्रीयांस |
| 3. स्त्रियेने–नें | स्त्रियांनीं | स्त्रीयेनें | स्त्रीयांनीं |

## 'उ'कारान्त स्त्रीलिंग शब्द– भालू (अस्वल, वांस्वेल)

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. भालू | भालुवो | भालू | भालुवा |
| 2-4. भालुवेक | भालुवांक | भालवेस | भालवांस |
| 3. भालुवेन–नें | भालुवांनिं | भालवेनें | भालवांनीं |

## विभक्ती रुपां विशीं समिक्षा

1. प्रथमा विभक्ती

सर्वनामां भितर 'मी' आनी 'हा' हीं दोन रुपां सोडलीं जाल्यार - उरिल्लीं सगळीं पुल्लिंग रुपां समान आसात. शब्दाच्या निमण्या स्वरा विशीं सांगपा सारकी गजाल म्हणल्यार कोंकणींत ताचो उच्चार न्हस्व जाता आनी मराठींत तो दीर्घ जाता.

ती-ही ह्या सर्वनामाचीं (स्त्रीलिंग) प्रथमा विभक्ती भौवचनां कोंकणींत 'त्यो' आनी 'ह्यो' अशीं आसात. तीं मराठींत त्या आनी ह्या अशीं आसात. म्हणल्यार कोंकणी शब्दाचो निमाणे 'ओ'कार मराठींत 'आ'कार जावन परिवर्तीत जाला म्हणपाचें स्पश्टपणान दिसून येता.

प्राचीन काळांतले कोंकणींत वा प्राकृतांत - आम्ह, तुम्ह - आदी रुपांनी आशिल्लो हकार आतांचे कोंकणींत उच्चारप जायना, बरोवपय जायना. पूण हांवें 'ह'काराचीं रुपां हांगा दिल्यांत तीं फकत शुद्ध रुपां दाखोवन दिवपाच्या हेतान. सोळाव्या शतमानाच्या आरंबाक कोंकणींतल्यान साहित्य रचना जावप बंद जाल्ल्यान प्राचीन रुपां कडलो संबंद सासणाचोच तुटून गेलो. महाराष्ट्रांत थोडें पोरणें साहित्य - उरिल्ल्यान - ते लोक पोरणीं रुपां मुखार चलयत रावले. अशें जाल्ल्यान मराठींत आम्हांस, आम्हाहून, आम्हांत आदी रुपां दिश्टी पडटात.

तें, हें असलीं सर्वनामांचीं विभक्ती रुपां दोनय भाशांनी समान आसात.

'अ'-कारान्त पुल्लिंग नामां - दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत आनी केरळांत आयजूय बी प्राचीन रितीनच म्हणल्यार बालकु, बालका (एकवचन आनी भोववचन) अशींच उच्चारतात. पूण - अशे तरेची तांची घोळणूक (वापर) - अल्पसंख्यांक आशिल्ल्या सारस्वत ब्राह्मणां मदीं आनी थंयच्या वाणी लोकां मदींच फकत उरिल्ल्यान - तीं साहित्यीक कोंकणींतय घेवचीं वा घेवचीं न्हय हाचे विशीं साहित्या भितर अभिरुची आशिल्ल्यांनी एकठांय येवन निर्णय घेवपा सारको असो तो विशय. गोंयांतल्या कोंकणी लोकांनी आनी दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतल्या क्रिस्ती लोकांनी खूब काळा आदीं ती प्राचीन रीत सोडून मराठी रीत आपणायल्या आनी तांणी खूबशें साहित्य निर्माण केलां. पुल्लिंगी शब्दांनी एकवचनांत 'उ' प्रत्यय दिसू येत अशें आसलें तरी स्त्रीलिंग शब्दांच्या प्रथमा विभक्तीच्या भोववचनांनी येवपी - ओकार सोडून दिवप - आनी 'इ'कारान्त स्त्रीलिंग शब्द प्रथमा विभक्तीच्या एकवचनांत स्वररहीत तरेन वापरप तितलें योग्य न्हय. 'वाति' हो शब्द 'वात्' अशा रुपान वापरपाची कितें गरज आसा?

अकारान्त नपुंसकलिंगी नामांच्या प्रथमा विभक्तीच्या भोववचनां - बरोवपांत 'फुलंऽ' (कोंकणी) 'फुलें' (मराठी) वेगळे तरेचीं दिसलीं तरी मराठींतलो 'फुलें' हाचो उच्चार दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतल्या सारस्वत ब्राह्मणांच्या उच्चारा सारकोच 'फुलंऽ' असोच आसता. क्रिस्ती लोक मात 'फुलां' म्हणटात.

कोंकणींत सगळे इ-कारान्त वा ई-कारान्त पुल्लिंग शब्द प्रथमा विभक्ती भोववचनांत 'ए' लावन घेतात. 'अग्नी' हो शब्द 'अग्निदेव' ह्या अर्थान पुल्लिंग आसून - यज्ञांतल्या 'अग्नीं' खातीर वापरपाचो आसल्यार 'अग्नियें' असोच जावपाक जाय. योगी शब्दाचें भोववचन 'योगिये' अशेंच आसपाक जाय आनी ज्ञानेश्वरींतय बी तेंच रूप वापरलां. उदा:- येर योगिये-हेर योगी ।।3-44।।

कोंकणींत 'उ'कारान्त पुल्लिंग शब्द घोळणुकेंत नात. संस्कृतांतलो 'रज्जु'=राजू, बांयचो राजू' हो स्त्रीलिंगी शब्द दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत 'राज्जू' ह्या रुपान पुल्लिंगान वापरतात. ताचें भोववचन 'राजवऽ' अशें जाता आनी विभक्ती रुपां राजवाकक, राजवांक अशीं जातात. ते खातीर गुरू, साधू हे शब्दय बी राज्जू शब्दा सारकेच वापरूंक जाय अशें आसतनाय 'गुरुक', 'गुरूंक' आदी रुपां हालींसराक वापरूंक लागिल्ल्यान आतां तीं सोडून दिवप साध्य जावचें ना. - आनी तीं सोडून दिवपाक जाय अशें म्हणपय योग्य न्हय. पूण प्रथमा विभक्तीच्या भोववचनाच्या पांवड्यार एका विशिश्ट नेमाक पाळो दिवंयेत. 'गुरु' हो शब्द एकाच मनशा खातीर भोववचनाच्या अर्थान वापरता आसतना 'गुरू' हें मूळ रूपच वापरून चड जाणां खातीर 'गुरुवऽ' हो उपान्त्यांत दीर्घ स्वर आशिल्लो 'साधू'=संत शब्दाचें भोववचन 'साधुव' अशेंच वापरूं येत.

कोंकणी आनी मराठींतलीं - 'अ'कारान्त, 'आ'कारान्त, 'इ'कारान्त आनी 'उ'कारान्त स्त्रीलिंग नामां प्रथमा विभक्तीचें एक भोववचन सोडून हेर विभक्तींनी सामानतायेन रूपांतरीत जाता. ह्याच नेमान नपुंसक लिंगी नामांय बी रुपांतरां आपणायतात.

कोंकणींतले 'ओ'-कारान्त पुल्लिंग शब्द मराठीच्या प्रथमा विभक्तीच्या एकवचनांत आ-कारान्त जातात आनी हेर सगळीं रुपां समान आसतात.

2. द्वितिया आनी चतुर्थी विभक्ती

प्राकृत भाशांनी चतुर्थी विभक्ती ना. ते खातीर षष्टी विभक्तीचीं रुपां चतु विभक्तीच्या अर्थानच प्रयोगांत येतात. उपरांत विकसीत जाल्ल्या प्राकृत विभेदां म्हणल्यार हिंदी, कोंकणी आदी भाशांनी द्वितिया विभक्ती ना. आनी कांय संदर्भां द्वितिया विभक्तीची आवश्यकताय आसना. आवश्यकताय आसता तेन्ना - प्राची - प्राकृतांतलीं चतुर्थी विभक्तीचीं म्हणल्यार मुळांत षष्टी विभक्तीचीं रुपांच द्विति विभक्तींत वापरतात. अशें जाल्ल्यान द्वितिया आनी चतुर्थी विभक्तीचीं रुपां एकेच तरे आसतात. उदा:- कोंकणी गायि तऽण चरता=हिंदी-गाय घास चरती है। कोंकणी- रा आंबो खाता=हिंदी- राम आम खाता है। ह्या दोन वाक्यांनी तण आनी आंबो हे श प्रथमा विभक्तीचीं एकवचनां आसलीं तरी तीं द्वितिया विभक्तीच्या अर्थान वापरल्यां पूण रामाक चोयि=रामाक पळय. गायीक आंबुडि. तो आमकां पळेयिता. असल् प्रयोगांनी 'क' आनी 'कां' षष्टभ विभक्तीचीं रुपां चतुर्थी आनी द्वितिया विभक्तीं वापरपाची रीत प्राचीन काळा सावन चलत आयल्या. कात्यायनाच्या व्याकरणां स्पश्ट अश्यो देखी आसात:- अम्हाकं पस्ससित्वं ।।2-2-2।। हें कोंकणींत परिवर्ती केलें जाल्यार ताचें रूप 'तूंव आम्हकां पहेसि' अशें जावपाक जाय.

आद्य प्राकृताच्या विभक्ती रुपांनी 'आम्हाकं' आनी 'तुम्हाकं' हीं रुपां ष विभक्तींतच न्हय तर चतुर्थी आनी द्वितिया विभक्तींतय आयल्यांत. अम्हाकं आ तुम्हाकं हीं रुपां मुळांत संस्कृतांतलीं 'अस्माकम्' आनी 'युष्माकं' अशीं षष्टी विभक्ती रुपां आशिल्लीं. पूण प्राकृतांत चतुर्थीच्या अर्थान षष्टी विभक्तीच घोळणुकेंत उरिल्ल्या वररुची हांणी प्राकृत प्रकाशांत 'चतुर्थ्याषष्टी=।।6-64।।=चतुर्थीच्या अर्थान ष विभक्ती' अशें सूत्र सांगलां. पूण चतुर्थी वा मूळ षष्टी विभक्तीचीं रुपां वररुचीं पर सातशीं वर्सां आदीं द्वितिया विभक्तींत प्रयोगांत येतालीं म्हणपाचें कात्यायनाच् सुसंधीकल्पांत सांगिल्लें आसा. देखीक:- तुम्हा म्हेहिननं आकं ।।2-3-1। 'तुम्ह' आनी 'अम्ह' ह्या शब्दांक षष्टी विभक्तीच्या भोववचनांत 'नं' प्रत्ययाच् बदलाक 'आकं' प्रत्यय येता. आनी तांचीं रुपां 'तुम्हाकं' आनी 'अम्हाकं' अश जातात. उपरांत 'वाय्वप्पठमो' ।।2-3-2।।=आकं प्रत्यय द्वितिया भोववचनांत येता. म्हणल्यार द्वितिया भोववचनांत तुम्हाकं=तुमकां, अम्हाकं=आमकां अशीं रुप येतात. हीं कोंकणींत 'तुम्हकां' आनी 'आम्हकां' जशीं परिवर्तीत जाल्यांत तेच प्रमा संस्कृतांतलीं तावक आनी मामक हे शब्द कोंकणींत तुका, म्हाका (द्वितिया आन

चतुर्थी) अशे परिवर्तीत जाल्यात.

हेर नामांच्या सांगातान संस्कृतांतल्या षष्टी विभक्तीच्या एकवचनांत 'स्य' प्रत्ययाचो प्रयोग जाता. देखीक:- रामस्य=रामा विशीं कांय संदर्भांनी 'रामस्य' हाचो अर्थ 'रामाक' असोय जाता. अशें जावन तो शब्द प्राकृतांत रामस्स ह्या रुपान चतुर्थी विभक्तींतय प्रयोगांत येतालो. तो काळांतरान कोंकणींत 'रामास' ह्या रुपांत बदल जावन द्वितिया विभक्तीच्या अर्थान 'रामाक' ह्या रुपान, चतुर्थी विभक्तीच्या अर्थान 'रामाक' (रामा खातीर) असो घोळूंक लागलो. संस्कृतांतलो 'तस्य=ताचें' आशिल्लें प्राकृतांत 'तस्स=ताका (ताचे खातीर अशें जावन कोंकणींत 'तास=ताका' आनी ताका (ताचे खातीर) ह्या रुपांत आयलो. संस्कृतांतलो 'तस्स:=तिचें' हो शब्द कात्यायनाच्या काळांतच 'तिस्सा=तिचें आनी तिका (च.वि.) अशें जाल्लें. काळांतरान कोंकणींत घोळणुकेंत आशिल्लें तें 'तुका' आनी 'तुका' (तुजे खातीर); तुम्हकां=तुमकां, तुमकां (तुमचे खातीर); माका, माका; (द्वि. आनी च.वि.) आमकां, आमकां (द्वि.वि. आनी च.वि.) ह्या रुपांनी आशिल्ल्या 'क' प्रत्ययाच्या प्रभावान हेर रुपांनी आशिल्लो 'स' प्रत्ययूय बी 'क' जावन परिवर्तीत जाला. म्हणल्यार 'रामास' आशिल्लो 'रामाक' जालो, 'तास' आशिल्लो 'ताक' जालो, 'तिस्सा' आशिल्लो तिक्का रुपांनी परिवर्तीत जाले.

मराठींत द्वितिया आनी चतुर्थी विभक्तींनी 'स' प्रत्ययाच्या बदलाक तें, ला आनी ना अशे तीन प्रत्यय आसात. ना आनी ला प्रत्यय ज्ञानेश्वरींत प्रयोगांत येवंक नात. स आशिल्लें तें सी जावन आयलां. 'तें' हें सर्वनाम चडांत चड फावटीं आयलां. आनी हें मुखेलपणान द्वितिया विभक्तीच्या अर्थानच वापरिल्लें आसा. चतुर्थीच्या अर्थान ताचो उपेग जाल्लो ना. 'म्हण' क्रिये वांगडा तें तृतिया विभक्तीचो अर्थ दिवंक शकता. उदा:- संजयो म्हणे राया तें ।।2-1।। संजय राजाक म्हणटा: रुद्रनाते करीत असे ।।1-215।। रुदन (रडप) करीत आसा; पुत्रा तें इच्छि कुळ: कुळ पुत्राक इच्छिता. हें पळयल्यार संत एकनाथान 'तें=तें, ताका हें सर्वनाम द्वितिया विभक्तीचो प्रत्यय जाल्ले वरी वापरलें जावंये असो अदमास येता. कारण कोंकणींतल्या एका प्रयोगांत 'तें' द्वितिया विभक्तीचो अर्थ उक्तायता. उदा:- पळयत तें घेत्ता=पळयिल्लें घेता.

पूण कोंकणींत शेंकड्यांनी हिंदी शब्द भरसून दवरिल्ल्या एकनाथान हिंदींतल्यानच हो 'तें' प्रत्यय स्विकारला आसपाक जाय असो अदमासय आसा. प्राचीन हिंदींत 'तें'

प्रत्यय तृतिया विभक्तीच्या अर्थान वापरतात. वा एकनाथांनी कोंकणींतलो 'लागी' हो शब्द 'लागीं' अशा रुपान हिंदींतले तरेन चतुर्थी विभक्तीच्या अर्थान म्हणल्यार 'पासत, खातीर' अशा अर्थान वापरला. तो पळयल्यार - तांणी 'तें' हो प्रत्यय हिंदींतल्यानच घेतला अशें दिसता. कोंकणींत 'लागी' वा 'लागीं' हाचो अर्थ 1) बगलेक, कुशीक 2) वांगडा, सांगातान असो जाता.

'ला' आनी 'ना' हे प्रत्यय ज्ञानेश्वरींत वापरिल्ले नात. अशें म्हणलें जाल्यार हे दोन प्रत्यय मराठींत खंयच्यान आयले? हे 'ला' आनी 'ना' दिसपाक दोन आसले तरी ते मुळांत एकूच 'ला' आसून रुपांतर जावन 'ना' जाला म्हणपाचें मुखार दिल्ले विस्कावणेंतल्यान स्पश्टपणान ध्यानांत येता. उदा:- तुला=तुका, तुका (तुजे खातीर); तुम्हाला=तुमकां, तुमकां (तुमचे खातीर), मला=म्हाका, म्हाका (म्हजे खातीर); आम्हाला=आमकां, आमकां (आमचे खातीर) ह्या रुपांनी एकवचन आनी भोववचन अशा दोनांनीय बी 'ला' प्रत्यय आयला. पूण त्याला=ताका, त्यांना=तांकां, ह्याला=हाका, ह्यांना=हांकां अशा रुपांच्या भोववचनांत 'ला' येवंक ना आनी येवचो ना. 'ला'च्या बदलाक 'ना' आयला आनी येता. टिपू सुलतान म्हैसूराचेर राज्य करताले तेन्ना धर्मांतरीत करून मुसलमान केल्ले मराठी लोक उलयताले ते हिंदुस्थानी भाशेंतलीं आम्हाला आनी तुम्हाला हीं मराठी रुपां परिवर्तीत जावन हमना आनी तुमना जालीं. उत्तर भारतांतले हिंदींत तीं रुपां नात इतलेंच न्हय तर दक्षिण भारतांतले हेर मुसलमान उलयतात ते हिंदींत हमकू आनी तुमकू हीं रुपां हमना आनी तुमना ह्या रुपां बदलाक घोळुकेंत आयलीं. अर्थांत- मुळांत जो 'ला' प्रत्यय आशिल्लो तोच 'ना' प्रत्यययांत रुपांतरीत जालो हें सिद्ध जाता.

'ला' प्रत्ययाचें मूळ कोंकणींत षष्टी विभक्तींत येवपी 'लो' प्रत्ययांत असो दोनांतय येता. अशें आशिल्ल्यान षष्टी विभक्तीचो 'लो' प्रत्ययच मराठींत 'ला' जावन द्वितिया आनी चतुर्थी विभक्तींनी वापरतात अशें म्हणप योग्य थारता. मराठींतले षष्टी विभक्तींत 'चा' होच प्रत्यय प्रयोगांत येता. अशें आसलें तरी मराठी ही कोंकणींतल्यान जल्मल्ल्या कारणान आदीं मराठींतय कोंकणींतलो षष्टी विभक्ती प्रत्यय 'लो' आशिल्लो तो 'ला' जावन घोळटा म्हणपाचें कळून येवपा सारकीं प्रमाणां मराठींत आजून मेरेन आसात. म्हणल्यार मराठींत 'ला' प्रत्यय लागून जाल्ले 'हातांतला, मधला, मागला, घरांतला, आपला' आदी शब्द 'ला' हो मराठींतलो प्रत्यय म्हणपाचें सिद्ध करतात. अर्थांत मराठींत 'ला' प्रत्ययान जाल्ले शब्द आसप हाचे वयल्यानच मराठी ही कोंकणींतल्यान

जल्मल्ल्याचें आनीक एक प्रमाण अशें म्हणूं येता.

तितलेंच कित्याक, संत एकनाथान ज्ञानेश्वरी मराठी समान भाशेंत परिवर्तीत केली तरी षष्टी विभक्तींत 'लो' वा 'ला' प्रत्यय वापरिल्लो एक प्रयोग तातूंत आयजूय उरला. आपुलो वा आपलो हे शब्द स्वताचो वा आमचो असो अर्थ उक्तायता आसतना प्रसंगा भरशीं एकेक फावट तांचे वांगडा 'लो' वा 'लें' अशीं कुसां लागतात. तेन्ना त्या उतरांचें कोंकणी रूप 'आपल्यालो' अशें जाता आनी मराठींत आपणालां जाता. अशे तरेन जोड प्रत्ययान म्हणल्यार दोन 'लो' लागून वा दोन 'ला' लागून जाल्लें एक षष्टी विभक्तीचें रूप ज्ञानेश्वरींत मुखार दिल्ल्या पद्यांत मेळटा:- 'सकळ सैनिकातें म्हणितलें। आतां दळभार आपुलाले। सरसेकरा ।।1-121।। - सगळ्या सैनिकांक उद्देशून म्हणलें आतां तुमच्या तुमच्या (आपापणाल्या) सैन्याक सज्ज दवरात असो अर्थ जाता. हाचे वयल्यान मराठी ही कोंकणी परस पुरायपणी वेगळी जावचे पयलीं मराठींतले षष्टी विभक्तींतय बी 'लो' प्रत्यय आशिल्लो आनी तो द्वितिया आनी चतुर्थी विभक्तींनी वापरपाक लागले उपरांत षष्टी विभक्तींत ताचो उपेग जावप थारलें अशें म्हणूं येत.

कोंकणींतलो म्हणल्यार पोरण्या प्राकृतांतलो 'लो' प्रत्यय गुजरातींत 'नो' आनी 'रो' अशा रुपांनी परिवर्तीत जाला. देखीक:- दादानो डगूलो, मारो घोडो. कोंकणींत जो 'लो' प्रत्यय आसा तो 'रो' आनी 'नो' हांचे मदलो दुवो म्हणपाचें हाचे वयल्यान स्पश्ट जाता. हाचें कारण म्हणल्यार 'ल' आसता तें 'र' जावंक शकता वा 'न' जावंक शकता. तशेंच 'न' आनी 'र' दोनय 'ल' जावंक शकतात. पूण 'न' आशिल्लें 'र' जावं 'र' आशिल्लें 'न' जावप शक्य ना. तसल्या परिवर्तना आदीं 'ल' हो मदलो एक पांवडो आसचोच पडटा.

कांय मराठी पंडितांनी 'तें', 'ना' आनी 'ला' प्रत्यया संबंदान फोडणीश्यो केल्यात. पूण तांच्यो सगळ्यो फोडणीश्यो तांची मराठी भाशा नीटपणान खंयचेय प्राकृत भाशेंतल्यान जावं संस्कृतांतल्यान रुपांतरीत जावन घडल्या अशे कल्पनेचो अवलंब करून केल्ल्यो आशिल्ल्यान तांचीं अनुमानां चुकिल्लींच आसतात. मराठी व्याकरणाची मूळतत्वें नांवाच्या पुस्तकाच्या 95व्या पानाचेर श्री गणेश हरी केळकर एम.ए. हाणें एक अनुमानाचें विधान केलां. तें अशें आसा:- ''ला प्रत्यया विशीं खूब मतभेद आसा. पूण तातूंतय 'लागीं' ह्या शब्दा वयल्यान ताची उत्पत्ती जाल्ली आसपाक जाय. संस्कृतांतलो षष्टी भोववचन प्रत्यय 'नाम' हाचे वयल्यान मराठींत

'ना' प्रत्यय आयलो. आनी 'अंते' ह्या नामरुपांतल्यान 'ते' आयला आसतलो. पूण प्रत्यय 'ते' जायनासतना 'तें' असो आसा. 'लागीं' हे प्रत्यय मराठींत आयजय आसा. संस्कृतांतलो 'नाम्' प्रत्यय 'ना' ह्या रुपान खंयच्याच प्राकृतात घोळणुकेंत आयिल्लो ना. इतलेंच न्हय जाल्यार ज्ञानेश्वरींत 'ला' आनी 'ना' हांचो प्रयोग जाल्लो ना म्हणपाचीय बी म्हायती आसा. म्हणल्यार 'ला' आनी 'ना' हे दोनूय प्रत्यय खूब अर्वाचीन काळांत प्रयोगांत आयले अशें म्हणूं येत. कोंकणींतलो प्रत्यय 'लो' हेंच ताचें मूळ दुसरें खंयचेंच न्हय.

### 3. तृतीय विभक्ती

कोंकणींत 'हांव' आनी 'तुंव' ह्या सर्वनामांचीं तृतिया विभक्तीचीं एकवचनां हांवें आनी तुवें आनी, भोववचनां आमहिं आनी तुमहिं अशीं आसात. आनी मराठींत एकवचन 'म्यां' आनी 'त्वां' आनी भोववचनां 'आम्हीं' आनी 'तुम्हीं' अशीं आसात. पद्यांत 'म्यां' आनी 'त्वां' हीं 'मियां' आनी 'तुवां' अशा रुपांनी वापरल्यात.

कोंकणींतलें तुवें हें रूप प्राकृतांतल्या 'तुमे' हाचें रुपांतर. आनी सेतुबंध काव्यांत 'तुमें' हें रूपच वापरलां. उदा:- संस्कृत-त्वया येव स्थापिम्; सेतुबंध- तुचे चि अ ठविअं; कोंकणी- तुंवेंचि ठइल्लें=तुवेंच दवरिल्लें. संस्कृत शब्दांतलो 'म'कार कोंकणींत सामान्यपणान 'वं' असो परिवर्तीत जाला. देखीक:- भ्रम्=भोंव=फिरप; घुम्=घूंव; त्वम्=तुंव; संक्रम=सांकव आदी. तुंव ह्या शब्दा वांगडा 'एं' लागूनच तुवें हें रूप घडटा आसलें तरी तुवें हाचें मूळ प्राकृतांतल्या 'तुमे' हातूंत आसा म्हणपांत दुबाव ना.

हांव, तुंव् आनी कोण ह्या शब्दांक कर्मार्थक भूतकालीक प्रयोगांनी 'एं' प्रत्यय, हेर सर्वनाम शब्दांक 'णें' प्रत्यय, हेर नामांच्या एकवचनांत 'न' वा 'नें' प्रत्यय, भोववचनांत 'नीं' प्रत्यय येता. आम आनी तुम शब्दां उपरांत 'हीं' प्रत्यय, हेर सर्वनामांक भोववचनांत 'न्हीं' प्रत्यय येता. मराठी नामांक एकवचनांत नें आनी भोववचनांत 'नीं' प्रत्यय येता. सर्वनामांक भोववचनांत 'हीं' प्रत्ययूय लागता. अर्थांत कोंकणी आनी मराठी हांचे तृतिया विभक्तीचे प्रत्यय सादारण समान आसतात अशें म्हणूं येत.

वयर सांगलल्यात ते न, नें, नी, हीं आदी तृतिया विभक्तीचे प्रत्यय प्राणी वा

मनशांच्या नांवां वांगडा सकर्मक क्रियांच्या भूतकालीक प्रयोगांनी आयले उपरांत तांकां करण कारकाचो अर्थ उरना. म्हणल्यार 'कर्तृ' तृतिया विभक्तीच्या 'न' आनी हेर प्रत्यय लागून घडिल्ले आसून कन्नडांत ताचो अर्थ प्रथमा विभक्तींतल्या सारकाच आसता. कारण कोंकणींत सगळीं भूतकालीक क्रियारुपां संस्कृतांतल्या भूतकालीक कृदन्तांतल्यानूच परिवर्तीत जावन आयिल्लीं आशिल्ल्यान सकर्मक क्रियांचीं अधिकांश भूतकालीक रुपां संस्कृतांतले वरीच तृतिया विभक्तीच्या 'कर्तृ' रुपा वांगडा प्रयोगांत येता. म्हणल्यार तसलीं वाक्यां मूळ संस्कृतांत कर्मणी प्रयोग वा कमृवाच्य आसून. कोंकणींतल्या रुढीच्या बळान ते कर्तृत्वाच्य जाल्ले आसात. देखीक:- संस्कृतांतलें 'रामेऽण व्याघ्रो मारित:' हें वाक्य कोंकणींत 'रामान वाघो (घु) मारिलो' अशें जाता. संस्कृत वाक्य कोंकणींतल्यान दुसरे तरेन रचप साध्य जायना. संस्कृतांतलो कर्मणी प्रयोग कोंकणींत कर्तरी प्रयोगांत रूढ जाल्ल्यान कोंकणींत शुद्ध कर्मणी प्रयोग करप शक्य जायना. आनी कर्मणी प्रयोग करचो जालो जाल्यार भोंवताडे मारीत करचो पडटा. अशे तरेन तृतिया विभक्ती प्रत्यय वयर विस्कावणी केल्ल्यान आपणालो करणार्थ सोडून दिता. ते खातीर प्राणी आनी मनशांच्या नांवांक न, नी, आदी प्रत्ययांच्या बदलाक करणार्थांत पंचमी विभक्तीचो 'चेऊन' हो संयुक्त प्रत्यय 'च्यान' रुपांत परिवर्तीत जावन तृतिया विभक्तींत प्रयोगांत येता. देखीक:- रामाच्यान हें काम जाइना. कोंकणींतलोय हो 'च्यान' प्रत्यय मराठींत 'च्याने' ह्या रुपान वापरतात. पूण कोंकणींतलें 'च्यान' हें रूप शुद्ध आसून ताचें 'चेऊन' हेंच मूळ रूप. मराठींत 'चेऊन' हो प्रयोग ना. मराठींतले 'तो' सर्वनामाचे पंचमी विभक्तींत 'त्याहून' वा 'त्याच्याहून' हीं रुपां आसात. पूण तृतिया विभक्तींत मात त्याच्याने अशें रूप आसा. तातूंतल्या 'ने'च्या आदीं 'च्या' कसो आनी कित्याक आयलो हाचे विशीं मराठी पंडित समर्पकपणान विस्कावणी करूंक शकनात. कोंकणींत तो सर्वनामाचें पंचमी विभक्तीचें रूप ताजेहून आनी ताजेसून अशें दोन तरांचें आसता. आनी तृतिया विभक्तींत 'ताज्यान' हें रूप आसा. म्हणल्यार ताजेतून आशिल्लेंच ताज्यान ह्या रुपांत परिवर्तीत जालां म्हणपाचें आपशींच ध्यानांत येता. म्हणल्यार मराठींतल्या प्रयोगाचें मूळ कोंकणीच आशिल्ली हें सिद्ध जाता.

लागी वा लागीं म्हणल्यार मुळांत समीप (लागसारांत) वा संबंदांत अशे दोन अर्थ जातात. पूण आतां समीप वा वांगडा (सांगाताक) प्रदेश ह्या अर्थाचें 'कूट' शब्दाचें सप्तमी विभक्तीचें 'कट' हें रूप कोंकणींत 'कड' ह्या रुपान लागीं ह्या अर्थानच

वापरतात. देखीक:- घराकडे=घरालागीं (घरांत); ताजेलागीं=ताजेकडें. हें ताजेलागीं, तुजेलागीं अशेंय बी वापरतात. मराठींत लागीं हो शब्द अतिस्नेह, दाट इश्टागत ह्या अर्थान वापरतात.

### 4. पंचमी विभक्ती

कोंकणींतलें पंचमी विभक्तींत सून, हून आनी ऊन अशे तीन प्रत्यय येतात. 'सून' हें मूळ रूप आसून हून आनी ऊन हीं सून हाचीं रुपांतरां. प्राकृतांतले सुंतो आनी हिंतो हे प्रत्यय कोंकणींत सून आनी हिं अशे परिवर्तीत जावन आयल्यात अशें आतांच्या प्रयोगां वयल्यान म्हणचें पडटा. तृतिया आनी पंचमी ह्या विभक्तींतलो भेद खूब सूक्ष्म आसता. उपादान आनी उपकरण हांच्या अर्थान तृतिया विभक्ती येता. दोन वस्तूं मदलो भेद दाखोवपाक वा तुळा करपा खातीर पंचमी विभक्ती येता. देखीक:- फळ्या पसून पेट तयार करतात. राम बेतान मारता. पयल्या वाक्यांत फळें हें उपादान. दुसऱ्या वाक्यांत बेत हें उपकरण. कोंकणींतल्या हेर वाक्यांच्यो देखी:- धडासून शिरस्य वेगळें केलें. तो आजि गांवाहून भाइर सरतलो. रुक्कारिसून फळ पडलें. मराठींतले पंचमी विभक्तींत कोंकणी प्रत्ययूच वापरतात. तुळा आसतना तेन्ना पसून आनी पक्षीं वा पशीं हे शब्द येतात.

### 5. षष्टी विभक्ती

मूळ षष्टी विभक्तीचे प्रत्यय द्वितीय आनी चतुर्थी विभक्तींनी वापरिल्ल्यान ते षष्टी विभक्तींत वापरले जाल्यार अर्थांत जो गोंदळ जावपाचो संभव आसता तो पयस करपा खातीर वस्तूं मदलो भेद वा वेगळोचार सुचोवपा खातीर षष्टी विभक्तीचो अर्थ सुचोवपी दुसरो एक प्रत्यय वेंचून काडचो पडटा. संस्कृतांत असल्या प्रत्ययांचो इल्लोय दुकळ ना.

·आचार्य पाणिनींचो प्रत्ययोत्तर पदयोश्च ।।7-2-98।। युष्मदस्मदोरन्यतरस्यां खंच ।।4-3-1।। तस्मिन्नणिच - यष्मा कास्माकौ ।। 4-3-2।। तवकममकावेकवचने ।।4-3-4।। आदी सुत्रांतल्यान विशेशणां सारके वापरूं येत अशा शब्दांची एक माळ सिद्ध जाली. मदीय:= म्हजो (म्हजें) अस्मदीय:=आमचो, त्वदीय:=तुजें, युष्म दीय:=तुमचो, मामक:=म्हजो, आस्माक:=आमचो, तावक:=तुजो, यौष्माक:=तुमचो,

मामकीन:=म्हजो, आस्माकीन:=आमचो, तावकीन:=तुजो, यौष्माकीन:= तुमचो आदी रुपां त्या सुत्रांतल्यान मेळ्ळीं. हीं रुपां कालांतरान कोंकणींत मुखार दिल्ले प्रमाण परिवर्तीत जालीं. मदीय:=मइजो=मेजो वा मजो, अस्मदीय:=आम्हजो=आम्हचो, त्वदीय:=तुजो, युष्मदीय:=तुम्हजो=तुम्हचो, मामकीन:=मेकेलो=मेगेलो वा मगेलो, आस्माकीन:=आम्हा केलो=आम्हागेलो वा आम्हगेलो. तावकीन=तुकेलो=तुगेलो, यौष्माकीन:=तुम्हा केलो=तुम्हागेलो वा तुम्हगेलो.

'केलो' हो प्रत्यय उत्तर भारतांतल्या गुजराती आनी हिंदी भाशांनी 'केरो' रुपान परिवर्तीत जाल्लें. तें पळयिल्ल्या हेमचंद्रान आपणाल्या व्याकरणांत 'इदमर्थस्यकेर: ।।8-2-147।।' हें सूत्र, कोंकणींतलीं आम्हचें, आम्हचो आदी रुपां पळोवन 'युष्मदस्मदो ञ एच्चयं ।।8-2-149।। हें सूत्र रचलें अशें म्हणपाक जाता. त्या सुत्रां प्रमाण अम्हकेरो, तुम्हकेरो, आम्हेच्चयं, तुम्हेच्चयं अशीं रुपां तयार जालीं. तांचे वयल्यान हेमचंद्राच्या काळांत कोंकणींतलीं रुपां ताणें सांगल्यांत त्या रुपांनी घोळणुकेंत आशिल्लीं आसपाक जाय असो अदमास करूं येता. पूण ताका त्या प्रत्ययांचो पूर्ण परिचय नाशिल्लो जातलो अशें ताणें जीं त्या शब्दाचीं एकवचन रुपां दिल्लीं नात हाचे वयल्यान म्हणूं येत. आदीं जी विस्कावणी केल्या ते प्रमाण - मराठींत 'ला' प्रत्यय दिसून आयलो तरी 'गेलो' प्रत्यय दिसून येवंक नाशिल्ल्यान गेलो प्रत्यय विदर्भ प्रदेशांत घोळणुकेंत नाशिल्लो अशें म्हणूं येत. म्हणल्यार कोंकणींतल्यान मराठीचो फांटो फुटलो तो विदर्भ प्रदेशांतच असो म्हजो दृढ विस्वास आसा.

6. सप्तमी विभक्ती

प्राचीन कोंकणींत सप्तमी विभक्तीचें एकवचन प्रत्यय 'आं, आइं, इ, इं, ए, एइं' अशे भोववचनांत 'तु' हो प्रत्यय अस्तित्वांत आशिल्लो म्हणपाचें आतां उपस्थीत आशिल्ल्या रुपां वयल्यान म्हणप शक्य जालें. 'तु' हें संस्कृतांतल्या 'सु' प्रत्ययाचें रुपांतर आशिल्लें. प्राचीन काळांत सप्तमी विभक्तीचीं रुपां मुखार दिल्यांत तशीं आशिल्लीं जावपाक जाय. घरीं, घरांतु. ह्या म्हणण्याक आदारजावपा सारकें कोंकणींत आयज घोळणुकेंत येवपी कांय सप्तम्यंत शब्द देखी रुपान दाखोवं येत. उदा:- उदयां=सकाळीं वा फाल्यां. दोनफारां=दोन प्रहरांच्या वेळार, पंतां=पदां=पावटी, नंतरि=उपरांत, आदीं=पयलीं, सकाळीं, निमित्तीं=कारणाक लागून; पूर्वि=प्राचीन काळा सावन, सांजे, वेळे, वेळीं, मणके=प्रमाणे, तशें, ते तरेन; उपरांतें=उपरांत, फाटल्यान; तुम्चहे घरीं=तुमगेरि; तांचे

घरीं=तांगेर; आम्हचे घरीं=आमगेरि आदीं.

पूण संस्कृतांतल्या 'अंत:=(भितर)' ह्या शब्दाचें कोंकणी रूप 'आंतु' अशें आशिल्ल्यान तोच 'आंतु' शब्द सप्तमी विभक्तीच्या भोववचनांत जोडूनच आसुंये अशें मानिल्ल्यान आयज सप्तमी विभक्तीच्या एकवचन भोववचन अशा दोनांतय आंतु प्रत्यय लागून दोनय रुपां समान जावन उरल्यांत. आंतु शब्द नामाक कांय वाक्यां ज्ञानेश्वरींत आसात. 'तो गाजत असे । दोहीं सैन्यां आंतु ।।1-126।। तंव पांडवदळा आंतु ।। 1-137।। हो आंतु प्रत्यय वापरूंक लागले उपरांत पोरणे (आदले) प्रयोग जाताले ते बंद जाले.

आंतु प्रत्यय वापरूंक लागले उपरांत 'भितरल्यान' हो अर्थ काडचे खातीर आंतु हाचे वांगड सून, हून आनी ऊन हे प्रत्यय जोडून वापरिल्ल्यान तसून, तहून, थाव्न, थाउन आदी प्रत्यय परिवर्तीत जावन आतां सगळ्याच शब्दां वांगडा कसलोच विचार करिनासतना ते वापरपांत येतात. म्हणल्यार घरांतसून, घरांतकून, घरांतहून, घरांथाउन, घरांतऊन, घरांतून अशे प्रयोग भाशा विकासाचे नदरेन सारकेच आसले तरी तांचे भितर आशिल्ले 'तकून' आनी हेर अंशा तहिं, कहिं, आदी शब्दां वांगडा जोडून तहिंताकून, कहिंताकून अशे तरेन वापरप म्हणल्यार तें पुरायपणी चूक थारता. ते तहिंसून, कहिंसून ह्या रुपांनी वापरपच सारकें जाता. तशेंच 'रुक्कारिताकून' म्हणप चूक जाता. रुक्कारिसून म्हणप सारकें जाता. आदीं सांगल्यात त्या अंशांनी आंतून आनी तून् हे अंश फकत मराठींत वापरतात.

वयल्या विवरणांतल्यान मराठींतलो एक 'तें' हो प्रत्यय सोडून उरिल्ले सगळे विभक्ती प्रत्यय कोंकणींतलेच म्हणपाचें स्पश्टपणान सिद्ध जाता.

## 14

### आख्यात रुपांत

संस्कृतांतल्या धातूंचे धा गण केल्ले आसात. हाचे भायर आख्यात प्रत्ययाचे आत्मने (स्वता खातीर) आनी परस्मै (दुसऱ्या खातीर) अशे दोन वर्ग जाल्ले आसात. तशेच

ग्रा कालर्थ आसात. ते सगळे समजून घेवन, व्याकरणाच्या संधी नेमांक अणसरून क्रेयापदाचीं रुपां फावो तशीं तयारकरप हें सगळें पुराय अष्टाध्यायाचो अभ्यास केल्ले व्यक्तीकय बी खूब कश्टान साध्य जाता. अशें आसतना व्याकरण शिकूंक नाशिल्ल्याक तें असाध्यच जावंये. ते खातीर आदीं संस्कृत हीच जांची मातृभाशा आशिल्ली ते सामान्य लोक म्हणल्यार व्याकरण शिकूंक नाशिल्ले अशे लोक आपणाक खबर आशिल्ल्या समकालीक कृदन्त रुपा वांगडा अस् वा भू क्रियांचे समकालीक आख्यात सहायाक घेवन सुलभतायेनच अपणा मदलो संवाद सादताले. अशें आशिल्ल्यान आयज घोळणुकेंत आशिल्ल्या सगळ्या प्राकृत विभेदांतल्या आख्यात रुपांच्या मुळांत खंयचो तरी एक कृदन्त' आशिल्लोच आसता.

पुर्तुगेजांनी गोंयचेर ताबो मेळयिल्ल्या काळांत म्हणल्यार 1510 इसवी आदीं गोंयांत घोळणुकेंत नाशिल्लीं कोंकणींतलीं वर्तमानकालीक क्रियारुपां आयज आसात तशीं 'हांव कर्तां', 'तो कर्ता' अशीं नाशिल्लीं. तीं 'हांव करितां', 'तुवं करितासि', 'ता करिता' अशीं आशिल्लीं म्हणपाचें पाद्री स्टिफन्साच्या व्याकरणांत, कोच्चींत आयज मेरेन घोळणुकेंत आशिल्ल्या कांय प्रयोगांतल्यान बी कळून येता. पूर्ण वर्तमानकाळांत 'ता' प्रत्यय लागून जाल्ले करिता, धरिता असलीं रुपां गोंयांत केन्नाच्यान घोळूंक लागलीं हाचे विशीं निश्चीतपणान सांगूंक जायत अशें तरेचें खंयचेंच एखाद्रें प्रमाण मेळप कठीण. त्या संबंदांत ज्ञानेश्वरींतल्यानय आमकां कितेंय आदार जावपा सारको ना. हाचें कारण तातूंत अनेक तरांचे प्रयोग मेळटात. देखीक:- म्हणे, बोले, आसत, आसती, पिटत, पिटती, अहाती, सांगिजति, जायिजति आदी. महाराष्ट्रांत आयज उपस्थीत आशिल्ल्या साहित्या वयल्यान क्रिस्त शक धाव्या शतमानाच्याकय आदीं करिता, धरिता हांचे सारकीं रुपां भाशेंत घोळनाशिल्लीं अशें म्हणूं येत. त्या काळा मेरेन मूळ प्राकृत रुपांच घोळणुकेंत आशिल्लीं जावपाक जाय. मूळ प्राकृत रुपां मुखार दिल्यांत ते प्रमाण आशिल्लीं.

| | |
|---|---|
| अहं भणामि=हांव म्हणटां | अम्हे भणाम=आमी म्हणटात |
| तुवं भणसि=तूं म्हणटा | तुम्हे भणित्था=तुमी म्हणटात |
| सो भणइ=तो म्हणटा | ते भणंति=ते म्हणटात |

उपरांत तीं मुखार दिल्ले प्रमाण रुपांतरीत जालीं

| | |
|---|---|
| हांवु म्हणइं | आम्ही म्हणांवु |
| तुंव म्हणसि | तुम्ही म्हणथ |
| तो म्हणइ | ते म्हणंति |

ते उपरांतचीं रुपां मुखार दिल्ले प्रमाण आशिल्लीं आनी तांच्यो कुरवो आजून आसात.

| | |
|---|---|
| हांव म्हणे | आम्मी म्हणंव् |
| तुंव म्हणसि | तुम्मी म्हणथ |
| तो म्हणे | ते म्हणति |

हाचें प्रत्यक्ष प्रमाण म्हूण कोंकणींत आजून घोळणुकेंत आसपी आसा, जाणा ह्या क्रियांचीं रुपां देखी खातीर दिवं येतात.

| | |
|---|---|
| हांव आस्सां | आम्मी आसंव् |
| तुंव आससि | तुम्मी आसथ |
| हांव जाणं | आम्मी जाणंव् |
| तुवं जाणसि | तुम्ही जाणथ |
| तो जाण=(जोण) | ते जाणति |

अशीं आशिल्ल्यान त्यो दोन क्रिया वर्तमानकाळांत दोन तरांचीं रुपां दाखयतात. देखीकः- आस्स आनी आसता; जाणा, जाणता.

आस् क्रियेचीं ग्राम्य रुपां मुखार दिल्यांत तशीं आसात. आनी ती आयज दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतले गांवुंडे (गावडे) आनी क्रिस्ती लोक वापरतात.

| | |
|---|---|
| हांव आहां | आमी आहांव् |
| तू आहाहि | तुमी आहाथ् |
| तो आहा-इ | ते आहाति |

आहा आनी आहाति हीं रुपां ज्ञानेश्वरींत वापरल्यांत.

कालांतरान कोंकणींत कर्, धर् आदी क्रियांचीं वर्तमानकालीक रुपां तो करी; ते करिति अशीं जावपाक लागिल्ल्या विशींचीं प्रमाणां आतां घोळणुकेंत आशिल्ले भाशेंत मेळटात.

वयर दिल्ल्या उदाहरणां वयल्यान मराठी व्याकरणकारांनी आनी पंडितांनी पद्यांत प्रयोग जावपी रुपां अशें म्हणून देखी दिल्लीं 'तुका म्हणे' सारकीं रुपां मुळांत कोंकणींतलींच आशिल्लीं म्हणपाचें सिद्ध जाला. हें विधान पुरायपणी सिद्ध करपा खातीर आमचे कडेन कोंकणींतलें साहित्य ना जालें तरी कोंकणींत उरिल्ले प्राचीन प्रयोग आनी पाद्री स्टिफन्सान आपणाल्या व्याकरण ग्रंथांत संग्रहीत केल्ल्यो तीन पोरण्यो कोंकणी म्हणी हांगा देखी म्हूण दिवं येतात.

1. बळी तो कान वळी

2. चेडवाच्या निभान माय जेवी दुधान

3. म्हालो विकी म्हेळी धालो मागी उधार

कोंकणींतलो निभ शब्द निब जावन उपरांत 'नेव' जावन (कन्नड उच्चार-नेवा) कन्नडांत गेलो. मराठींत निभ शब्द ना.

आतां दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत घोळणुकेंत आशिल्लीं वर्तमानकालीक क्रियापदांचीं रुपां मुखार दिल्यांत तशीं आसात.

| **दक्षिण कन्नड जिल्लो** | **पाद्री थॉमस् स्टिफन्स** |
|---|---|
| हांव कर्ता-आमी कर्तांति | हांव करितां-आम्मी करितांव |
| तुंव कर्ता-तुम्मी कर्ताति | तुवं करितासि-तुम्मी करिताथ |
| तो कर्ता-ते कर्ताति | तो करिता-ते करिताति |

दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतल्या क्रिस्ती लोकां मदीं आनी कांय कोंकणी हिंदू मदीं आम्मी कर्तांव; तुंव कर्ताइ; तुम्मी कर्तात; तो कर्ताइ अशीं रुपां घोळटात. दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतले सारस्वत ब्राह्मण फकत आम्मी कर्तांति; तुम्मी कर्तांति आदी चूक रुपां वापरतात. सुरवातेच्यान दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतच स्थायीक जाल्ले तांकां 'ता' लागून जाल्लीं वर्तमानकालीक रुपां नवीन जाल्लीं. म्हणल्यार तांचे मदीं सुरवातेक

हांव म्हणें; आम्मी म्हणंव् आदीं रुपां घोळटालीं. पुर्तुगेजांनी गोंय घेतले उपरांत हो प्रदेश सोडून थंय गेल्ल्या लोकांच्या प्रभावान तांचे मदीं हांव म्हणतां सारकीं रुपां भरसत रावलीं.

आतां घोळणुकेंत आशिल्लीं वर्तमानकालीक क्रिया रुपां क्रिस्त शक चवदाव्या शतमानांत घोळणुकेंत आशिल्लीं तींच रुपां आसुंये. तीं संस्कृतांतले भविश्यकालीक कृदन्त आशिल्ले रक्षिता, शोधिता आदी रुपांक अस् क्रियेचीं वर्तमानकालीक रुपां तिनय लिंगांनी समान आसतात. अशें जाल्ल्यान कोंकणींतय बी तशेंच आसता. 'अस्' क्रियेचीं वर्तमानकालीक रुपां मुखार दिल्यांत तशीं आसात.

| | |
|---|---|
| 1. अहम् अस्मि=हांव आसां | वयम्स्म:=आमी आसात |
| 2. त्वम् असि=तूं आसा | यूयम् स्थ=तुमी आसात |
| 3. स:, सा, तद्=तो, ती तें | ते, ता, तानि=ते, तीं |
| अस्ति आसा | संति आसात |

हीं सगळीं रुपां 'ता' प्रत्ययाक लागून मुखार दिल्ले तरेन रुपांतरीत जातात.

| | |
|---|---|
| 1. हांव सोधिताइं | आम्मी सोधितांव |
| 2. तुंव सोधितासि | तुम्ही सोधिताय |
| 3. तो, ती, तें सोधिताइ | ते, त्यो, तीं सोधिताति |

उपरांत तीं मुखार दिल्ले प्रमाण परिवर्तीत जालीं आसपाक जाय.

| | |
|---|---|
| 1. हांव सोधितां | आम्मी सोधितांव |
| 2. तुंव सोधितासि | तुम्मी सोधिताथ |
| 3. तो, ती, तें सोधिता | ते, त्यो, तीं सोधितांति |

मराठींत सोधिता आसता तें सोधितो अशें जाता. देखीक:-

| | |
|---|---|
| 1. मी सोधितों | आम्ही सोधितों |
| 2. तू सोधितोस | तुम्ही सोधितां |
| 3. तो सोधितो | ते सोधितात |
| ती सोधिते, ती त्ये | त्या सोधितात |
| तें सोधितें | तीं सोधितात |

कोंकणी शब्दांतलो शेवटाचो 'आ'-कार मराठींत 'ओ'-कार जावप ओ-कार आसल्यार आकार जावप अशे तरेन. कोंकणीचें मराठी आनी मराठीचें कोंकणी जावप होच दोनां मदलो मुखेल भेद म्हणपाचे आदीं सांगलां. त्या नेमाक मुखेल भेद म्हणपाचें आदीं सांगलां. त्या नेमाक अणसरून कोंकणींतलीं 'सोधिता, सोधितासि, आनी सोधिता हीं रुपां मराठींत 'सोधितों', सोधितोस आनी सोधितो अशीं जाल्यांत. पूण भोववचनाचीं रुपां नेमाक धरून नात. तीं अवेवस्थीत आसात. म्हणल्यार सोधितां आशिल्लें तें सोधितो जातासतना सोधितांव आशिल्लें सोधितोंव अशें आसपाक जाय आशिल्लें. पूण थंय सोधितों हें रूपच आशिल्ल्यान शेवटाचें 'व्' लोप पावलां आसतलें. पूण तुम्ही 'सोधिता' हें पुरायपणी सारके न्हीं.

कोंकणी क्रियापदांचें शेवटाचें 'ता' आसता तें मराठींत 'तो'त परिवर्तीत जालां म्हणपाचें इतलें सरळ रितीन सिद्ध जाता आसलें तरी मराठी पंडित ताका कुस्कुटावन दुर्लक्षीत करून. त्या 'तो'चें मूळ सोदून काडपाक हास्यास्पद अशें उहापोह वा शाब्दीक कसरती करीतच आयल्यांत. अशें आशिल्ल्यान त्या पंडितां मदीं त्या संबंदान आज मेरेन एकमत जाल्लें ना. त्या संबंदांतले उहापोह 'मराठी व्याकरणाचीं मूळतत्वें' ह्या पुस्तकांत वाचपाक मेळटात.

## कोंकणी-सामान्य भूतकाळ

कोंकणींतल्यो भूतकालीक क्रिया संस्कृतांतल्या भूतकालीक कृदन्त विशेशणांतल्यानच परिवर्तीत जातात आशिल्ल्यान त्यो क्रिया अकर्मक आसल्यार कर्त्याच्या लिंगवचनांनुसार, सकर्मक आसल्यार कर्माच्या लिंगवचना नुसार रुपांतरीत जातात.

| **पुल्लिंग** | **स्त्रीलिंग** |
|---|---|
| हांव गेलों | हांव गेलीं |
| आम्मी गेलेंव | आम्मी गेल्योंव |
| तुंव गेलोसि | तुंव गेलीसि |
| तुम्मी गेलेथ | तुम्मी गेल्योथ |
| तो गेलो | ती गेली |
| ते गेले | त्यो गेल्यो-ति |

### मराठी

| पुल्लिंग | स्त्रीलिंग |
|---|---|
| मी गेलों, आम्मी गेलों | मी गेलें, आम्मी गेलों |
| तू गेलास-तुम्ही गेलांत, गेलां गेलेत | तूं गेलीस तुम्ही गेल्यात |
| तो गेला-ते गेले | ती गेली त्या गेल्या |
| तें गेलें-तीं गेलीं | |

आदीं येवन गेल्ल्या नेमांक अणसरून मराठींत 'हांव गेलों' म्हणपाक 'मी गेलां' अशें आसपाक जाय आशिल्लें. पूण तें कोंकणी रुपांतच उरलां. आनी 'तुम्ही' खातीर तीन रुपां आयल्यांत. तातूंतलें 'गेलेत्' हें कोंकणींतलेंच. त्या भायर स्त्रीलिंगी आम्ही खातीर पुल्लिंग क्रियापद आयलां. म्हणल्यार मराठींतल्या आख्यात रुपां मदीं नियमबद्ध अशी वेवस्था ना. कोंकणी ही मराठीचो उपभेद म्हणपी मराठी पंडितांनी मराठींतलो अशे तरेची अवेवस्था नदरे आड केल्या.

कोंकणींतलो भविष्यकाळ आनी मराठींतलो भविश्यकाल

| कोंकणी | मराठी |
|---|---|
| हांव सोधीन आम्मी सोधूं | मी सोधीन आम्मी सोधूं |
| तूं सोधिशी तुम्मी सोधिशाय | तूं सोधिशील तुम्ही सोधाल |
| तो सोधीत ते सोधितीत | तो सोधील ते सोधितील |

ह्या काळाच्या रुपां संबंदान आदीं विस्कावणी आयल्या. म्हणल्यार मराठींतल्या ह्या काळांतलीं रुपां, मराठी ही कोंकणींतल्यान जल्मल्या म्हणपाचें मराठी पंडितांक न्हयकारपाक जावचें ना अशे तरेन सिद्ध करतात.

आदीं दिल्लीं रुपां कोंकणींत भविश्यकाळा संबंदान संभावना तितलीच सुचयतात ताचे भायर निश्पयाविशीं सुचयनात. निश्चयार्थक भविश्यकालाची 'रुपां' मुखार दिल्यांत ते तरेन आसात. ती कर्त्याच्या लिंग वचनानुसार रुपांतरां करून घेतात. तीं रुपां संस्कृतांतल्या भविश्यकालीक कृदन्तांतल्यानच रुपांतरीत जाल्लीं आसात.

| पुल्लिंग | | स्त्रीलिंग | |
|---|---|---|---|
| एकवचन | भोववचन | एकवचन | भोववचन |
| 1. सोधितलों | सोधितलेंव | सोधितलीं | सोधितल्योंव |
| 2. सोधितलोसि | सोधितलेथ | सोधितलीसि | सोधितल्योथ |
| 3. सोधितलो | सोधितलेति | सोधितली | सोधितल्योति |

नपुंसकलिंग-तें सोधितलें; तीं सोधितलीं

कांय जाण स्त्रीलिंग रुपांनी 'त'चे बदलाक 'ते' वापरतात.

### अपूर्ण भूत आनी अभ्यासार्थक

चालू काळाचीं रुपां भविश्यकालीक रुपांतलो 'त' आसा ताचो 'ता' केलो जाल्यार तयार जातात. देखीक:- हांव सोधितालों. कोंकणींतल्या सोधीत आशिल्लो हाचे खातीर सारकें रूप - सोधीत होता हें येता. पद्यांत सोधीत असे असलीं रुपां येतात.

पद्यांत प्राचीन वर्तमानकालीक रुपां संदर्भा प्रमाण वर्तमानकालीक अर्थच न्हय तर संवकळेंतले भाशेंतलो अर्थ उक्तायतात. देखीक:- करी= 1) करता 2) करीत आसा 3) करीत आशिल्लो (करतालो).

म्हणे= 1) म्हणटा 2) म्हणत आसा 3) म्हणत आशिल्लो (म्हणटालो)

पद्यांतलीं रुपां

हांव सोधीं<br>तुंव सोधिसि } सोधिति<br>तो सोधी




### संकेतार्थ

| पुल्लिंग | | स्त्रीलिंग | |
|---|---|---|---|
| 1. सोधितों | सोधिते (तेंव) | सोधितीं | सोधित्यो (त्योंव) |
| 2. सोधितोसि | सोधिते (थ) | सोधिती (सि) | सोधित्यो (त्योथ) |
| 3. सोधितो | सोधिते (ति) | सोधेती | सोधित्यो (त्योति) |

### नपुंसकलिंग तें सोधितें, तीं सोधितीं

#### मराठी

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. सोधितों | सोधितों | सोधितें (त्यें) | सोधितों |
| 2. सोधितास् | सोधितां | सोधितीस | सोधितेंत (त्यांत) |
| 3. सोधिता | सोधितें | सोधिती | सोधित्या |

मराठी आनी कोंकणींत चडांत चड कृदन्त रुपां हीं समान रुपाचीं आशिल्ल्यान तांची तुळा करपाची गरज ना. आदीं यवन गेल्ल्या विवरणांतल्यान कोंकणी ही मराठी परस प्राचीन म्हणपाचें सांगलांच. ते भायर मराठी ही कोंकणींतल्यनच जल्मल्या म्हणपाचेंय पुरायपणी सिद्ध जालां. अल्प प्रादेशीक भेदांचो आनी देशी शब्दांचो विचार ह्या अभ्यासा कडेन संबंदीत नाशिल्ल्यान ती चर्चा केल्ली ना. विभक्ती रुपां आनी आख्यात रुपां हीं भाशेचीं मुख्य आंगां आशिल्ल्यान तांकां हातूंत चड म्हत्व दिल्लें आसा. आनी तांचे तुळेंतल्यान मराठीचें वास्तवीक स्वरूप समजप शक्य जालां. अशें जावन म्हजो उद्देश पुरायपणी साध्य जाला.

### उपसंहार

एके भाशेक स्वताचीं अशीं विभक्ती रुपां, आख्यात रुपां फावो जाले उपरांत हेर गूण विशेशांनी मूळ स्वरूप धरूनच उरली तर ती एक वेगळी भाशा म्हूण मानपाक जाय. तेच तरेन मराठी भाशेक स्वताचीं अशीं विभक्ती रुपां, आख्यात रुपां फावो जाल्लीं आसात. ते खातीर ती कोंकणीची एक आंतरभेद आसली तरी ती कोंकणी परस वेगळी अशी नवकोंकणी थारता. वा कोंकणीक पोरणी मराठी म्हणली जाल्यार ती नवी मराठी थारता. ह्या लेखनांतल्यान कोंकणी आनी मराठी हांचे मदलो विवाद सोंपपाक पावतलो अशी आस्त आसा. हांगाच सोंपयतां.

***

**बस्ती पुंडलीक व्यंकटेश शणै:** (जल्म: 4-8-1904, मरण: 16-3-1991, बंठवाल, दक्षीण कन्नड जिल्हो, कर्नाटक) हांणी प्रत्यक्ष शाळेंत वचून फकत 3रो वर्ग मेरेन शिकप घेतिल्लें पूण तांणी स्वाध्यायान हिन्दी भाशेचो अभ्यास केलो. आपलो जिवन निर्वाह ताणें सुर्वेक एक दर्जी म्हूण सुरु केलो. नंतर ते गांधीजीच्या सत्याग्रह चळवळीत सामील जाले. कांय काळ ते बंदखणीतूय उरलें. स्वताच्या यत्नांनी ते मुखार हिन्दी मास्टर आनी फुडें पुस्तकालय अधिकारी जाले. अध्यापना वांगडा अध्ययनाची आवड आशिल्ल्यान तांणी उपरांत कोंकणी, संस्कृत, वेद, वेदांत, उपनिशदां आनी ब्राह्मी लिपीचो अभ्यास केलो. 'कोंकणी मत्तू मराठी इवगळू तुलनात्मक विमर्शी' आनी 'सारस्वत ब्राह्मी लिपी मत्तू सिंधू संस्कृती' ही तांचीं दोन म्हत्वाचीं पुस्तकां.

**कोंकणी आनी मराठी हांचो तुलनात्मक विमर्श:** ह्या पुस्तकांत प्राचीन काळांत सरस्वती न्हंयच्या प्रदेशांतल्यान दक्षीण हिन्दुस्थानांत थळांतरीत जाल्ल्या सारस्वत समाजाच्या इतिहासाचेर लेखन केल्लें आसा. सारस्वत समाजाची कोंकणी भास आनी मराठी हांचो तुलनात्मक अभ्यास हातूंत आस्पावला. कोंकणी - मराठी भाशांतल्या उतरांवळींचें मूळ आनी कूळ सोदपाचो हातूंत यत्न जाला. मूळ पुस्तक कन्नड भाशेंतलें आनी दोन भागांनी आस्पाविल्लें पूण ह्या अनुवादांत तांतुतलो एकूच भाग आस्पावला.

**रमेश लाड:** कोंकणीतले नामनेचे लेखक आनी अनुवादक. कन्नड भाशेंचें खाशेले गिन्यान आशिल्ल्यान कन्नड-कोंकणी अनुवादाचेर तांची मुखेल भर आसा. 'कवनकाठ' हो कविता झेलो आनी 'मोटव्यो कथा', 'ध्रुवतारो', तेंबरें' हीं अनुवादाचीं पुस्तकां प्रकाशीत. 2006 वर्सा केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या अनुवाद पुरस्कारान सन्मानीत. डॉ. टी. एम. ए. पै फांवडेशनच्या अनुवाद पुरस्कारान (2011) तशेंच कुडचडेच्या कोंकणी कला साहित्य केंद्राच्या अनुवाद पुरस्कारानय (2014) भोवमानीत.

